जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४२ : आंक ४ : नोव्हेंबर, २०१५

* संस्थापक संपादयी:
  स. रवीन्द्र केळेकार
  स. सुमंत केळेकार

* वैचारिक दायज:
  स. माधवी सरदेसाय

* संपादयी:
  आसावरी नायक

* पालवी संपादयी:
  चेतन आचार्य
  कृपाली नायक

* उजवाडावयी:
  जयवंत भा. सरदेसाय
  २०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
  रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
  मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

* छापयी:
  हिरु नारायण नायक
  रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
  वळवय, फोंडें – गोंय.

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : २००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : १५०/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : ५००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ३००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा बॅंकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ



भायले चित्र – उत्तरा पै आंगले



(टॉमस स्टीवन्स कोंकणी केंद्र पर्वरी-गोंय हांणी १२ सप्टेंबर २०१५ ह्या दिसा 'नाटक आनी समाजाचेर ताचो प्रभाव' ह्या विशयाचेर एक परिसंवाद घडोवन हाडिल्लो त्या परिसंवादांत केल्लें बीजभाशण)

# लोकरंगभुमी आनी भारतीय रंगभुमी - एक विश्लेशण

डॉ. पांडुरंग फळदेसाय

गोंयकारांक नाटकाचें पिशें. म्हण दरवर्सा आपल्या गांवांत एक तरी नाटक जावंक जाय हो ताचो आग्रो आसता. नाटकाची सुवात थरिल्लीच आसता. गांवांतलें देवूळ म्हळ्यार वर्सासनाच्या काल्याची वा जात्रेची तजवीज. म्हण गोंयांतल्या दरेक गांवांत एक तरी देवूळ दिसतलें. गांवची जात्रा म्हळ्यार पुराय वाठारा खातीर सोयऱ्या-धायऱ्यांक घरा आपोवपाची संद. घरांत आयिल्ल्यांची सरबराय करप म्हळ्यार एक अप्रूप. ते जात्रे निमतान देवळाच्या प्राकारांत नाटक जायूच. आतांच्या काळार नाटक. पूण पयलीं लोकशैलींतलीं नाटकां जातालीं. तीं लोकनाट्यां. तांकां तांचे मंचीय शैलीक लागून वेगवेगळीं नांवां आसलीं. जागोर, कालो, रणमालें, अशीं तरेकवार नांवां. मागीर जागरांतूय वेगवेगळे प्रकार ते तांतल्या कलाकारांच्या जमातींच्या नांवां वयल्यान वळखुवपाची पद्दत अभ्यासकांनी आपणायली. हरशीं त्या त्या गांवांतल्या लोकां खातीर तो जागोर. पूण सादरीकरणाचे नदरेन तांचे प्रकार वेगळे.

ते वळखुपा खातीर तांच्या जागरा पयलीं तांचे जमातीचें नांव दसोवन अभ्यासक जागराचे प्रकार सांगतात. पेरणी जमातीचो तो पेरणी जागोर, गावडा जमातीचो तो गावडा-जागोर, क्रिस्तांव गावड्यांनी केल्लो तो क्रिस्तांव गावड्यांचो जागोर आनी ह्यो दोनूय जमाती एकठांय येवन शिवोले गांवांत करतात तो गांवांच्या नांवां वयल्यान म्हळ्यार 'शिवोलेचो जागोर' म्हूण वळखतात.

तेच प्रमाणे काल्याच्या कथानका वयल्यान काल्याक वेगवेगळीं नांवां पडल्यांत. शंखासूरवधाचें कथानक ज्या काल्यांत आसा तो शंखासुरा-कालो. कृष्ण आनी गवळणींचें कथानक आसा तो गवळण कालो. दशावताराचीं कथानकां घेवन करतात तो दशावतार कालो. रणमाल्यांत प्रकार नात. तें थोडे-भोव फरक आसल्यारूय एकेच पद्धतीन सादर करतात. ह्या लोकनाट्याची भोव बरी परंपरा पन्नास वर्सां फाटीं म्हळ्यार गोंय मुक्ती मेरेन गोंयांत सगले कडेन दिसताली. पूण तंत्रज्ञान आनी शिक्षण हांचो प्रसार जसजसो वाडत गेलो, तसो-तसो ह्या लोकनाट्यांचो काळ फाटीं पडत गेलो. तांचो प्रभाव भौसाचे नदरेन उणो जालो. नव्याची उमळशीक सगल्यांकच आसता. त्या न्यायान नव्या-नव्या कला प्रकारां कडेन भौसांतले कलाकार वचूंक लागले. लोकनाट्यांच्या सांगातान जावपी हौशी नाटकांनी मात्त आपलें खाशेलेपण दाखयलें. जात्रा-उत्सवांनी हौशी नाटकां मोटे

उमेदीन जायत रावलीं. तांतल्यान गोंयची हौशी रंगभुमी आकाराक आयली. तांतल्यान चडशीं कुटुंबीक कथानकाचेर आदारिल्लीं आनी समाजीक आशयाचीं मराठी नाटकां गांवां-गांवांनी जायत रावली. त्याच बराबर मराठी संगीत नाटकांचोय तो सुकाळ आशिल्लो. गोंयकारांक नाटका बराबर संगिताचीय खूब आवड. म्हणटच नाटक आनी संगीत ह्या दोनुय विशयांची उमेद भागोवपा खातीर बोलसांतले पयशे मोडून हौशी रंगभुमी फुडें पावल मारीत रावली. ना म्हळ्यार कोमुनिदाद आनी देवस्थानांनी हे हौशी रंगभुंयेक भोव बरो आदार दिलो. हाची साक्ष चडश्या देवस्थानांच्या आनी कोमुनिदादींच्या पोरन्या हिशोब-चोपड्यांतल्यान मेळटा. तांणी काले-जागर-रणमालीं हांचे खातीरूय अर्थीक आनी धर्मीक आदार सदांकाळ दिला हाचे दाखले मेळटात. अशे तरेन गोंयांत उत्सवी रंगभुमी म्हळ्यार हौशी रंगभुमी तिगून उरली.

पूण गोंयांत वेवसायीक वा स्पर्धात्मक रंगभुमी नाशिल्ली. आडवाद म्हण कोंकणांतल्यान गोंयांत येवन आपले खेळ करपी 'दशावतार नाटक मंडळी' आनी इगर्जेंतल्या फेस्तां वेळार जावपी खेळ-तियात्रांचो उल्लेख करूं येता. गोंय मुक्ती उपरांत गोंयांत मुंबय वा पुण्या सारक्या शारांतल्यान नाटक कंपन्यो येवन तिकेट लावन नाटकांचे खेळ करून वताले. तें आज मेरेन थोडें-भोव चालू आशिल्ल्याचें दिसता.

गोंय मुक्ती उपरांत गोंय कला अकादमीची स्थापना जाली. ते अकादमीच्या वावराचो वांटो म्हण स्पर्धात्मक रंगभुमी खऱ्या अर्थान रुपकाराक आयली. मराठी नाटकांचें दायज गोंयांत आशिल्लेंच. त्या दायजाचो फायदो स्पर्धात्मक रंगभुमीक जालो आनी फकत महाराष्ट्रच न्हय तर दिल्लींत जाल्ल्या राष्ट्रीय पांवड्या वयले नाटक स्पर्धेंत गोंयच्या नाटकसंस्थांनी उपाट यश मेळयलें. कला अकादमीक लागून कोंकणीक दोन मोटे फायदे जावंक पावले. पयलो फायदो तो तांतल्यान स्पर्धात्मक कोंकणी नाटक रुपकाराक आयलें आनी दुसरो फायदो तो तियात्र माचयेर जाल्ले क्रांतीचो. तशें पळयल्यार ही एक सकारात्मक अशी रंगभुमीची चळवळ आशिल्ली. आज ते चळवळीचें स्वरूप मात्शें म्हेळें जालां. तरी लेगीत हे चळवळीचें म्हत्व मात्त पसून उणे जावंक ना, हें आमी सगळ्यांनीच मतींत घेवपाक जाय. कोंकणी रंगभुमीचेर तरेकवार प्रयोग करपाचो हावेस बाळगून खूबशे उमेदी आनी अभ्यासू कलाकार हे स्पर्धेंत देंवले आनी तांणी चारी वटांनी कोंकणी रंगमाची गिरेस्त करपाचो सदांकाळ यत्न केलो. हे स्पर्धात्मक रंगभुमीक लागून फांकिवंत अभिनेते तयार जाले. उत्तम दिग्दर्शक मेळ्ळे, तंत्रज्ञांचो उणाव कमी जालो. रंगभुमीचेर नवें तंत्रज्ञान अवतरलें. ताका लागून एक फावो तशी क्रांती ह्या मळार जाली. सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार कोंकणी रंगभुमीक राष्ट्रीय पावंड्या वयले पंगतींत बसोवपी कोंकणी नाटककार मेळ्ळे.

त्याच प्रमाणे कला अकादमीच्यो एकांकी स्पर्धा, नाट्य विद्यालयाची आनी रंगमेळ सारक्या कलाकारांचे रिपर्टरी कंपनीची स्थापना जाल्ल्यान, नाटक ह्या विशया कडेन पळोवपाची प्रेक्षकांची नदर व्यापक जाली. रंगभुमी चळवळीक एक फावो तशें बळगें मेळ्ळें आनी तिका एक निश्चीत अशी दिशा मेळ्ळी. तियात्राच्या पालकार देखदिणो वावर जावंक पावलो. तातुंतल्यो संहिता, कातारांची रचना, नेपथ्य, न्हेसवण, दिग्दर्शन आनी उजवाडा येवजण पार्श्वसंगीत अशा आंगांनी तियात्र गिरेस्त जावपाक पावलो. खेळ-तियात्राची उत्स्फूर्तता तातूंत येवंक पावली ना. तरी पसून एक नाट्यप्रकार म्हण तियात्राची जी उदरगत जाली, विकास जालो तो सामको नदरेंत भरपा सारको आसा, हातूंत मात्तूय दुबाव ना.

स्पर्धात्मक रंगभुमीचेर जावपी कोंकणी नाटकांतल्यान कोंकणी मनशाचे जिणेचीं तरेकवार तासां उक्तावपाचो प्रामाणीक प्रयत्न केल्लो दिसता. पूण नाटकांची प्रयोगात्म शैली ही आमचे आदीम रंगभुमी कडेन, म्हळ्यार लोकरंगभुमी कडेन आशिल्ली नाळ सोदूंक लागली. नाटका विशींची जाणविकाय जितली प्रगल्भ जायत गेली, तितले रंगकर्मीक लोकरंगभुमीचें म्हत्व कळूंक लागलें. त्या आदिम रंगभुमीची संकल्पना आनी शक्त हांचो अदमास येवंक पावलो. ताका लागून लोकरंगभूमीचें खाशेलपण आपणावन कोंकणी रंगभुमी नवोन्मेशी जावपाक लागली. राष्ट्रीय नाट्य विद्यालयांतल्यान शिकून नाटकाच्या मळार वावुरपी फांकिवंत रंगकर्मीनी आपापल्या राज्यांत वचून थंयचे लोकरंगभुमीचो आदार घेवन नवेनवे प्रयोग केले. तांतल्यान आधुनीक भारतीय रंगभुमी आनीक गिरेस्त जावपाक पावली. महाराष्ट्रांतले मराठी रंगभूमीचेर हयवदन, लोककथा-७८, अजब न्याय वर्तुळाचा, महानिर्वाण, घाशीराम कोतवाल, खंडोबाचं लगीन हीं नाटकां लोकरंगभुमी वयल्यो संकल्पना घेवन माचयेर आयलीं. तेन्ना सावन लोकरंगभुमी आनी शारांतली विकसीत रंगभुमी हांचे मदल्या संबंदांची जाहीर चर्चा जावंक लागली.

विष्णूदास भावे हांकां 'आधुनिक मराठी रंगभूमीचे जनक' म्हण मानतात. पूण तांणी १९४३त केल्लें पयलें 'सीता-स्वयंवर' हें नाटक आधुनीक नाटक न्हय हें मतींत घेवंक जाय. ताचो सगलो बाज हो लोकरंगभुमी वयल्या खेळाचो आशिल्लो. ताचे उपरांत १८८० वर्सा अण्णासाहेब किर्लोस्करांनी 'शाकुन्तल' हें पयलें संगीत मराठी नाटक केलें. पूण ताचे निर्मितीची प्रेरणा तांणीं गोंयांत घेतली. डोंगरे वयल्या राम मंदिरांत कवी कृष्णंभट बांदकारांनी रचून केल्ले संगीतमय नाट्याविष्कार पळोवन किर्लोस्कर प्रभावीत जालो आनी ताणे बांदकाराक नाटक करपा खातीर मुंबय येवपाचें आमंत्रण दिलें. पूण बांदकार रामभक्त आशिल्ल्यान डोंगरे वयल्या राममंदिरांतूच रावपा खातीर म्हण ताणे आमंत्रणाक न्हयकार दिलो. तेचपरी आपणे रचिल्लें नाट्यकाव्य दिवपाकूय न्हयकार दिलो. मागीर किर्लोस्कर मुंबय वचून तांणी पारशी रंगभुमी पळोवन घेतली आनी बांदकारांच्या नाट्याविष्कारांतली पात्रां जशीं गातालीं तशे शैलींत शाकुन्तल नाटक रचून रंगमाचयेर हाडलें. हाचे वयल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता. ती म्हळ्यार विष्णुदास भावे वो अण्णासाहेब किर्लोस्कर हांच्या नाट्यरचनाची मूळ कल्पना ही लोकरंगभुमी वयल्यान घेतिल्ली.

मुळांत लोकरंगभुमीचो आरंभ आदीम जमातींच्या नाचांतल्यान जाला. नाच करपा खातीर गीत आनी वाद्यसंगीत आयलें. संदेश पावोवपाचें तें सांकेतीक आविश्करण आशिल्लें. ताका यातुविधी

म्हण मानताले. मागीर रुपड्यांचो वापर जावंक लागलो. तो लेगीत यातुविधी म्हण. जल्म, विवाह आनी मरण हांचे कडेन संबंद आशिल्ल्या चडश्या विधींक नाट्यतत्त्व आशिल्लें. मूकाभिनयान हें नाट्यतत्त्व सगळ्यांत पयलीं आविश्कृत जालें. मागीर उतरां, संवाद, गितां बी आयलीं. गोंयांतल्या पेरणी जागरांत आनी ताचे उपरांत रुपकाराक आयिल्ल्या काल्यांत रुपडीं वापरून दरेक पात्र नाट्याविश्करण करता. बायलांच्या धालां मांडार निमण्या दिसा जावपी तरेकवार सवंगां म्हळ्यार नाट्यतत्त्वाचेंच आविश्करण हातूंत दुबाव ना. अशे तरेन लोककला आनी यातुविधींतल्यान पारंपारीक मिथकां आनी तांतल्यान प्रवाहीत जाल्लें नाट्यतत्त्व निरंतरपणान चलत आयलें. भारूड, किर्तन अश्या भक्ती संगितांतल्यान पसून हेंच नाट्यतत्व दिसता. मागीर तें नारदीय किर्तन आसूं, रामदासी किर्तन वा दत्तपंथी किर्तन आसूं. तांतल्यान एकपात्री नाट्याविश्काराची कळाशी दिसता.

लोकरंगभुमीचें दायज अभ्यासतना खूबश्यो गजाली स्पश्ट जातात. सिंधू संस्कृतीच्या काळांत तरेकवार नाट्यप्रकार प्रचलीत आशिल्ल्याचे पुरावे मेळ्ळ्यात. तातूंत लौकीक अर्थाचीं नाटकां आशिल्लीं. कळसुत्री, कठपुतळी बावल्यांची नाटकां आशिल्लीं. भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्राचो उगम वेदकाळांतल्या तरेकवार तत्त्वांच्या संगमांतल्यान जाला. ताणे ऋग्वेदांतल्यान संहिता घेतली. सामवेदांतल्यान गायन घेतलें. यजुर्वेदांतल्यान अभिनय आनी अथर्ववेदांतल्यान रसनिश्पत्तीचें तत्त्व घेतलें. ह्या चारूय वेदां कडेन पुराय सोयरीक दवरून भरतमुनीन नाट्यवेद हो पंचमवेद निर्माण केलो. तेंच भरतमुनीचें नाट्यशास्त्र. ऋग्वेद काळांत नाट्यसंवादाचे खेळ एक सुफलीकरण विधी म्हण करताले. बुध्दाच्या काळांत नाटकाक लौकीक स्वरूप येवंक पावलें. त्या वेळार नाट्यप्रयोगांचें स्वरुप हें लघुनाटकाचें आशिल्लें. रामायण काळांतूय नाट्याभिनयाची कला प्रचलीत आशिल्ल्याचे उल्लेख वाल्मिकी रामायणांत मेळटात. सनपूर्व सातव्या-आठव्या शतकांत पाणिनीन नटसुत्रांचो उल्लेख केल्लो मेळटा. त्या काळांत नाटकांच्या मंचना खातीर कलाभवना आशिल्ली हें खूब म्हत्त्वाचें. हाचे वयल्यान सिंधू संस्कृती, इतिहासपूर्वकाळ, वेदकाळ आनी ताचे उपरांत रचिल्ल्या ब्राह्मणग्रंथ. जातककथा, रामायण, महाभारत, कामसूत्र, कौटिल्लीय अर्थशास्त्र आनी हेर ग्रंथांतल्यान नाटकाचे खूब उल्लेख सांपडटात.

संत ज्ञानेश्वराचे पयलीं महाराष्ट्रांत दशावतार आनी लीलानाट्य प्रचलीत आशिल्लें. कृष्णदास श्यामान केल्लो खामसुत्री बावल्यो, छायानाट्यांचो - छायामंडपांचो उल्लेख म्हळ्यार हालींचें शेडो थिएटर आनी स्ट्रींग पपेटस् - हें आमी समजून घेवंक जाय. कर्नाटकाचें यक्षगान बयलाटा, केरळचें कुटियाट्टम, बंगाल आनी ओडिशांतलो मयुरभंज, सरायकेला आनी पुरुलिया छाऊ, गुजरातचें भवाई, उत्तर प्रदेशांतलें नौटंकी, राजस्थानचो ख्याल, मध्य प्रदेशांतलो माच, पंजाब-हरयानांतलो स्वांग, आसामांतलें अंकियानाटक हीं सगलीं भारतीय लोकरंगभुमीची तरेकवार आनी मनभुलवणी रुपां.

आपल्यो मुळाव्यो गरजो पुराय जाले उपरांत मनशाचे सृजनशीलतेक जाग येता. ती क्रियाशील जाता. तांतल्यान कलानिर्मितीची प्रक्रिया सुरू जाता. ताचें आविश्करण कलात्मक जाता. उतरां, स्वर, ताल, पदन्यास, आंगीक हावभाव हांचो संगम जावन ती निर्मणी आविश्कृत जाता. मागीर ती एके पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगेकडेन संक्रमीत जायत रावता. तें दायज फुडें फुडें चलत रावता. ती प्रवाहीत आसता. म्हण्च बदलत्या काळा कडेन जुळोवन घेत ती सातत्य बाळगीत आसता. म्हण्न तिगून उरता. परिवर्तनशीलता हो तिचो स्थायीभाव आसता. म्हणचे भौसा मदल्या संघर्शाचें पडबिंब लोकपरंपरेंत दिसता. लोकजिणेचेर नव्यानव्या मुल्यांचो प्रभाव पडटा. बदलत रावपी संवाद-माध्यमां, संपर्कमाध्यमां, प्रसारमाध्यमां, मुद्रणकला. आकाशवाणी-प्रसारभारती, दूरचित्रवाणी, इंटरनेट, व्हॉटस्ॲपा सारकीं तरेकवार 'ॲपस्', फेसबुक, यूट्यूब ब्लॉग्स अशीं इलेक्ट्रॉनीक माध्यमां, उद्योगीकरण, जागतिकीकरण ह्या सगल्या प्रक्रियांचो भोव वाटांनी प्रभाव भौसाचेर पडत आसता.

भारतीय लोकरंगभुंयेचो विचार करतना एक गजाल घसघशीतपणान दिसता. ती म्हळ्यार भारतीय रंगभुमीक लाबिल्ली एक भोव बरी गिरेस्त फाटभूंय. शेकड्यांनी वर्सांचे लोकरंगभुमीवयल्या सर्वव्यापी प्रयोगांतल्यान आयचें रूप भारतीय रंगभुमीक मेळ्ळां. लोकपरंपरेचें दायज वांगडा घेवन भारतीय रंगभुमीन अभिजात रूप धारण केलें. भरताच्या नाट्यशास्त्राचो मुळावो आदार हो लोकरंगभुमीचो आशिल्लो. मंचाची रचनात्मक संकल्पना, रंगभूषा, वेशभुषा, अभिनय ह्या विशींच्यो संकल्पना ह्यो लोकरंगभुये कडेन पुरायेन जोडिल्ल्यो आसात. तांची नाळ ही लोकरंगभुंये कडेन जुळिल्ली आसा.

आपल्या नाट्यशास्त्रांत भरतमुनीन एक भोव म्हत्त्वाची शिफारस केल्ली आसा. तो म्हणटा- म्हज्या नाट्यशास्त्रांत खंयचेय अडचणीची उकल जाली ना जाल्यार, तुमी ते विशींची लोकरंगभुयेची परंपरा पाळात. म्हळ्यारच लोकरंगभुंयेचे दायज हें मुळावें रंगभुमी दायज आसा हाची जाणविकाय जण एकल्यान दवरप गरजेचें आसा.

मध्ययुगांतल्या वैष्णव संप्रदायांनी लोकनाट्याच्या माध्यमाचो वापर केलां आनी भक्तीचो विचार भौसा मेरेन पावयलो. मणिपूरचो रास आनी जात्रा, आंध्राचो भागवतमेळा, कुचिपुडी, उत्तरेंतली रामलीला, रासलीला, बाळक्रीडा, तामीळ भुंयेंतली कुवरजी, ईशान्ये कडली अंकियानाट आनी भावना, ओडिशांतल्या जयदेवाच्यो अश्टपदी हीं कांय ह्या लोकपरंपरेतलीं उदाहरणां म्हण सांगूं येत.

लोककलांचो वापर करतना ब्रेख्ताक समाजपरिवर्तन अभिप्रेत आशिल्लें. नाटक हें समाजाचें प्रबोधन करपी एक प्रभावी माध्यम. त्या माध्यमा वरवीं लोकांक विचार करपाक प्रवृत्त करप. ताका लागून त्या विचारांच्या बळग्यार, भावनांचे भकीक पडनासतना, आपले बुद्दीचे सांणीर घांसून-पुसून घेवचें आनी प्रबुद्ध जावचें. ब्रेख्ताची 'एपिक थिअरी' आनी 'एलिनिएशन थिअरी'ची ही मूळ संकल्पना आनी हेतू. गांवगिऱ्या भौसा मेरेन नवो विचार पावोवपाचो तांचे फाटल्यान हेतू आसा. नाटकांतल्या घडणुकांचो विचार तांणी करचो आनी आपले बुद्दीच्या बळार तांची कारण परंपरा सोदून काडची असो ताचो आग्रो आशिल्लो. पूण वस्तुस्थिती पळयल्यार कोंकणी-मराठी रंगभुमीवयले नवनवे प्रयोग हे ह्या ब्रेख्ताचे विचार-संकल्पने पसून पयसूच आसात हें मान्य करचें पडटलें. खरें म्हळ्यार मराठी

आनी कोंकणी रंगमाचयेचेर तेच तेच प्रयोग पळोवन वीट आयिल्ल्या प्रेक्षकांक लोकरंगभुमीच्या थाटांत नाटक दाखोवन रुचीपालट करपाचो यत्न सगले कडेन दिसता. ह्या सादरीकरणा फाटल्यान लोककलांच्या सामर्थ्याचो आनी लोकनाट्याच्या बळिश्ट घटकांचो अभ्यासपूर्ण आनी फावोशे जाणविकायेन सोद घेवपाचो विचार आशिल्लो, जाल्यार तुस्त-तोखणाय करूंक फावताली. पूण एक नवो ट्रॅंड आनी नवी फॅशन म्हणूनच लोककलांची घुसड रंगभुंयेचेर दिसत आयल्या. कोंकणी रंगमाचयेर तर कांय वेळार सामको कंटाळो आनी वीट येयर असले प्रयोग जाल्यात आनी मर्दी मर्दी जायत आसात. आतां तरी ह्या मळा वयल्या प्रयोगशील रंगकर्मीनी फावो ते गंभीरतायेन लोकरंगभुमीचो अभ्यास करून तांतलीं बळिश्ट तत्त्वां आपले नाट्यकृती खातीर आपणावपाचो वेळ आयला. ह्या मळार दोळे दिपकावपी वावर करून भारतीय रंगभुमी गिरेस्त करपी ज्येश्ट-श्रेश्ट रंगकर्मींची देख आमचे मुखार आसा. तांच्या पावलार पावल दवरून असो वावर कोंकणी खातीर जाल्यार तें कोंकणी खातीर खूब व्हडलें योगदान थारतलें.

अशी ही प्रदीर्घ परंपरा लाबिल्ली आमची भारतीय रंगभुमी. लोकरंजनांतल्यान लोकशिक्षण हो तिचो मूळ गाबो. लोकनाट्याचो तोच हेतू आसता. मुक्तनाट्याचें प्रयोजन लेगीत तेंच आसता. आशयाक उठाव दिवपा खातीर प्रायोगीक रंगभुमीन प्रयोगात्म लोकाविश्कारांची शैली आपणायली. नमन, वळ, जत, धोगां, जागरांतलीं-काल्यांतलीं सवंगां, प्रसंग आनी आकृतीबंध वापरून कांय नाटकांनी रंगभुमीक वेगळें बळगें ओपलें. लोकरंगभुमीची बलस्थानां लाबिल्ल्यान तें घडूंक पावलें. पूण लोकरंगभुमीचो फावो ते गंभीरतायेन करपाचो अभ्यास मात्र जालो ना. तो आतां जावप भोव गरजेचें. तशें जाल्यारूच रंगभुमीचे सेवेक खरो अर्थ येवंक पावतलो. कारण दर एकल्या रंगकर्मीच्या अंतःस्करणांत सेवा आनी समर्पणाची भावना आसता. ती भावना मनाकाळजांत घेवनच तो सदांकाळ वावुरता. ताकाच लागून ताचे कडल्यान सर्जनशील कलानिर्मणी जावंक पावता. तशी सृजनात्मक कलानिर्मिती करपाची प्रेरणा ती रंगदेवता सगल्या रंगकर्मीक दिवंदी हें मागणें.

×××

संदर्भः


१. वास्त्यायन कपिला. ट्रॅडिशनल इंडियन थिएटर : मल्टिपल स्ट्रीम्स. नवी दिल्लीः नॅशनल बुक ट्रस्ट ऑफ इंडिया २००५.
२. मांडे प्रभाकर (संपा.) लोकरंग कला आणि नागर रंगभूमी. औरंगाबाद : सविता प्रकाशन, १९८९.
३. दशावतारी राजा. मुंबई : इंडियन नॅशनल थिएटर, वर्साची नोंद ना.
४. मांडे प्रभाकर . लोकरंगभूमी औरंगाबाद : गोदावरी प्रकाशन १९९४.
५. ढेरे रा. चिं. भारतीय रंगभूमीच्या शोधात. पुणे : पद्मजा प्रकाशन, १९९६.
६. ढेरे रा. चिं. लोकसंस्कृतीचे उपासक. पुणे : पद्मजा प्रकाशन, १९९६.
७. ढेरे रा.चिं. लोकदैवतांचे विश्व. पुणे : पद्मजा प्रकाशन, १९९६.
८. भवाळकर तारा. लोकसंचित. पुणे : राजहंस प्रकाशन, १९८९.




# रेफोर्माद गोंयकार

**कृ. म. सुखठणकार**

फांत्या पारार उठतो
दुसऱ्यांना उठवतो
सगळ्यांना पिडतो
मी कोण?
चोवीस वरां घरीच असतो
घरच्यांचा जीव खातो
मी कोण?

आमकां दुसरेक काय तिसरेक आसतना 'मी कोण' म्हूण कविता आशिल्ली. हे कवितेंत वेवसायीक मनशाचें वर्णन करुन मागीर 'मी कोण' असो प्रस्न आसतालो. ताच्यो जापो 'कुंभार', 'पोस्टमन', 'धोबी', 'सोनार'... अश्यो आसताल्यो. आतां हांवें वयर विचारल्यात त्या प्रस्नांच्यो जापो विंगड विंगड नात. दोनूय प्रस्नांची एकूच जाप - 'रेफोर्माद गोंयकार'. म्हणल्यार, गोंयकार जो आपले जिणेचीं मोलादीक (?) ५८ वा ६० वर्सां कामाक वचून आतां घरा बसला तो.

देशभर अशे लोक 'रिटायर्ड' वा 'निवृत्त' जातात. ओर्राद गोंयकार 'रेफोर्माद' जातात. रेफोर्माद म्हणटकच ताणें फाटलीं वीस तीस वर्सां आघाडीचेर शौर्य गाजोवन आतां तो घरा येवन बसला अशें दिसता. तातूंतले तातूंत हांव एका दादल्याचें उलयतां, एका गोंयकाराचें. बुद्धान काय कोणें तरी म्हणिल्लें खंय - "म्हाका एक घर दाखयात ज्या घरांत कोणाचेंच मरण जावंक ना." तसो हांव म्हणन, म्हाका एक घर दाखयात जंय कोण रिटायर्ड जावंक ना. पूण म्हजे भशेन तांचे कडेन कोणूच सिरियसली पळयना. आतां, म्हजे कडेन अभ्यासू वृत्ती आशिल्ल्यान हांव सगळ्याचो अभ्यास करतां. तातूंत भर म्हणल्यार, आमगेर एक म्हान व्यक्ती रिटायर्ड जावन गेली - म्हजो बापूय (१९२५-१९९५, पेन्शन १६,०००/-). ते खातीर म्हज्या अभ्यासांत भर पडली म्हणल्यार जाता.

हांवें फकत दादल्यांचोच अभ्यास केला. कारण, बायलां आपूण रिटायर्ड जाल्यांत म्हूण सांगिनात. तांणी तशें सांगल्यार तांचें वय उकत्यार पडटा. ताका लागून त्यो रिटायर्ड जाले उपरांत पसून आपूण अजुनूय कामार वतात अश्यो भासयतात. म्हाका याद आसा, आमच्या वाड्या वयले 'सरकारी मराठी प्राथमिक शाळें'त शिकोवपी बाई रिटायर्ड जाले उपरांत वर्स भर तरी सकाळीं, दोन पुस्तकां चार तरांचे खडू, कपड्याचो फळो पुसपाचो डस्टर छातये कडेन धरून तारी मेरेन वताली. बाजारांत पावतकच कोण्णें विचारी नासतना "शाळेला चालले मी" अशी घोशणा करताली... एक खेपे हांव आनी म्हजो रिटायर्ड जाल्लो एकलो सोयरो पणजे गेल्ले. कोर्तींत पावतकच ताका ताची पयलींची टिचर मेळ्ळी. ताणें सहज विचारलें, "Teacher where are you going this way?" टिचरीन म्हणलें, "To School, it's time for my class..." हांवें आनी म्हज्या रिटायर्ड जाल्ल्या सोयऱ्यान आमचीं विसूय बोटां अजापान तोंडांत घालीं.

ही जाली बायलांची खबर. तीं आपूण रिटायर्ड जाल्यांत म्हणून वास लागपाक दिनात.

आतां गळ्यांत माळ पडटकच जशे लग्नाचे भोग सुरू जातात तशे, दादलो रिटायर्ड जाता त्या दिसाच्यान ताचे न्हय तर ताच्या घरच्यांचे भोग सुरू जातात. ऑफिसांतल्या निमाण्या दिसा ताका घाल्ले हार आनी दिल्ले तुरे घेवन तो घरा येता. तातूंत आनी ताच्या ऑफिसांतले आमीग ताका कसली तरी भेट म्हणून दितात. ती घरच्यां खातीर एक वेगळी साडेसाती.

म्हज्या बापायक ऑफिसांतल्या लोकांनी वणटीर लावपाची एक व्हडली घडयाळ दिल्ली जी मेजून तीन दिसांनी बंद पडली. घरा बेकार आशिल्ल्या बापायक उद्योग मेळ्ळो. तो खुर्चेर चडून एका एका वरान आपल्या हातांनी घड्याळीचे कांटे हालोवंक लागलो. तो कांटे हालयतालो ते हालयतालो, बरोबर आपलें तोंडूय वाजयतालो.

"टण्ण! एक जालें गो! न्हावपाक उदक काडलां?"

"वावराडी दवरल्या?" - आई.

"टण्ण... टण्ण. हांवें कांटो दोनांर दवरला गो. जेवण जावंक ना?"

"कांटो दोनांचेर दवरला म्हण जाणां. हांगा रांदपीण दवरात, नाजाल्यार तुमचे दोन हात आनी घडयाळीचे दोन हात काडून म्हाका लायात, म्हणटकच तुमकां जेवण टायमार पडटलें." आई रांदचे कुडींतल्यान फणफणटाली.

फुडें 'टण्ण टण्ण' बंद पडलें. कारण, बापायक खुर्चेर चडटना कमरांत भरून येवपाक लागलें. ती घडयाळ साडे सातांक बंद पडली. हांवें बापायक ते बद्दल विचारलें तें ताका बरें आवडलेंना शें दिसता.

"बाबा तुजी घडयाळ बंद पडली मरे!"

"ती दिसांतल्या दोन खेपे सारको टायम दाखयता. तितलो तरी तिचो उपेग, तुजो आमकां कितें उपेग, मातसो सांगशीत?"

हांवें बापायक केन्नाच परतें सांगलेंना. हें आयच्या भुरग्यांनी म्हजे कडल्यान शिकचें. बापूय गेलो तेन्ना ताचे इत्से प्रमाणें तो गेल्लो तो टायम (तीन वरांचेर) हांवें घडयाळीचेर टण्ण, टण्ण, टण्ण करून वाजयलो. कांटो सदां खातीर तिनांचेर दवरलो. सोडात.

रिटायर्ड जातकच मनशाक आपूण useless कसो दिसता. आतां आपणांक घरांत कांयच वालोर ना अशें ताका दिसपाक लागता, आनी वालोर मेळोवपा खातीर तो घरच्या मनशांक पिडपाक लागता. म्हज्या बापायन सावळ्याक "सावळ्या आतां हांव मरे बूच काडिल्ली सोदाची बाटली; गॅस गेलो, फकत उदक उरलां" अशें सांगिल्लें खंय.

रिटायर्ड जातकच मनशाची न्हीद खंय वता हाचेर चिंतून म्हजीय न्हीद गेली, पूण जाप मेळ्ळी ना. रिटायर्ड जावचे पयलीं साडे आठांक उठपी हो मनीस रिटायर्ड जायना बराबर चारांक उठून खाटीर बसता आनी घरांतल्यो लायटी टक् टक् करून पेटोवन घरांतल्या सगळ्या मनशांचे न्हिदेचो सत्यानाश करता. केन्नाच च्याचो घोंट पियेवन नकळऽ आशिल्ल्या ह्या प्राण्याक सकाळफुडें च्या जाय पडटा. बायल न्हिदाव्याक पडिल्ल्या कारणान हो आपूण स्वावलंबी जावपाचो यत्न करता, आनी च्या करपाचें ओझ्र आपले कडेन घेता.

"आगो, गॅस पेटोवपाचो रेग्युलेटर दाव्यान घुंवडावपाचो काय उजव्यान?"

"उँ." बायल पांगरूण तोंडार घेता. कारण, हाणें सगळ्यो लायटी पेटयिल्ल्यो आसतात.

"आगो, साकर खंय दवरल्या?"

"च्याचो पालो मेळ्ळो? ताचे फाटल्यानूच साकरेचो डबो आसा."

"बरें, आड्डूं नाका. शेजाऱ्यांक उठोवन घालतलें तूं."

"तुमी केऽऽन उठोवन घालीं तांकां."

"आगो गाळणें खंय?"

निमाणें तो हावाशिवा करून च्या करता. एका म्हयन्याचो च्या पालो आनी साकर पंदरा दिसांनी सोंपयता. ते भायर, घरच्यांचे न्हिदेचें घट्टाण.

म्हजो बापूय च्या बी करपाचे भानगडींत पडलो ना. तो ताचो पिंड नाशिल्लो. तो बाबल्याच्या हॉटेलार च्या घेवपाक वतालो. बापूय गेलो तेन्ना बाबलो मुद्दम आयिल्लो. ताणें बापूय आपल्याक सकाळीं तिनांक कसो उठोवन घालतालो तें दोळे पुसत सांगलें.

रिटायर्ड जाल्लो मनीस ऑफीस खूब मिस करता. ताका ऑफिसांत कितें चल्लां तें जाणा जावन घेवपाची उमळशीक आसता. मागीर तो आतऱ्या पयऱ्यान आपल्या आमिगांक फोन करून पिडटा.

"शिरवयकार येता मरे कामार?"

'रेगो जीव खाता मरे तुमचो?"

"शैला दीसभर सायबाल्या कॅबिनांतूच मरे?"

असले प्रस्न विचारून तो आपल्या ऑफिसांतल्यान मनशाक सतायता. मागीर ते ताचे फोन घेनात.

मागीर हो बेजार जाता आनी हाचो प्रेशर वाडटा. फोग परतो घरच्यांचेर.

"खुर्चेर आसासर कोणूय विचारता, मागीर मनीस कोणाक नाका. ऑफिसांत जाल्यार ऑफिसात. घरांत जाल्यार घरांत."

"तुमचे फोन ते घेनात तें बरें. ह्या म्हयन्याचें बील कितलें आयलां तें खबर आसा तुमकां? शैला सायबाल्या कॅबिनांत वचूं नाजाल्यार घरा वचूं. तुमकां तांचें आतां कितें? कपडे सुकोवपाक दोरी बांद म्हणून सांगिल्ली, बांदली? फ्रिजाचें हॅन्डल सदळ जालां तें घट कर म्हणून सांगिल्लें, केलें?" बायल तापता. मागीर घे! घरांत धुमशेण.

घरांत नातरां आसलीं जाल्यार विचारूं नाका. हो रिटायर्ड जाणटो तांचो काळ जाता. बेठोच तांचे फाटल्यान लागता.

"अभ्यास जालो तुमचो?"

"हय ग्रॅनपा."

"अभ्यास केन्नाच करून सोंपना. परत करात. विद्या म्हणजे सागर. ती घेता तितली कमी."

"म्हणजे कितें ग्रॅनपा?"

"तें तुमकां व्हड जातकच कळटलें."

"मागीर तें तूं आमकां व्हड जातकच सांग. आतांच कित्याक सांगता?"

"सुबेज खंयचे कडलीं! परत्याक परतें सांगतात. आवय-बापायचो धाकूय ना."

घे! मागीर सुनेचें आनी मांवाचें भुरग्यां वयल्यान पेट्टा.

रिटायर्ड जातकच मनशाक उस्तण्यो खूब लागतात. तो माळ्यार, आरमारींत, खाटी पोंदच्या ट्रंकांनी, मेळत थंय उस्तिता.

"आगो, आमच्या त्या कुंकळ्ळेच्या भाटाचे पेपर खंय गो?"

"आतां म्हाका वेळ ना उस्तुपाक, म्हाका कामां पडल्यांत. तीं तुमी कांय करचेनात."

"आगो, ते कितले म्हत्वाचे, तुका खबर आसा?"

"इतले म्हत्वाचे जाल्यार सारके दवरपाचे, हांव किंरवटेक लावन भोंवना ते पेपर."

"आगो, आमच्या लग्नाचो तेर्म खंय?"

"तो आतां सो जाय पडलो तुमकां?"

"आतां ताची गरज ना म्हूण उडोवपाचो? तशें जाल्यार आतां तुका म्हजोय कांय उपेग ना, म्हाकाय काडून उड्य खंय तरी."

"आतां म्हाका टायम ना."

"म्हणजे, टायम आशिल्लो जाल्यार म्हाका उडयतलें आशिल्लें!"

"तुमकां उडोवपाक टायम ना म्हणूंक ना हांवें, तेर्म सोदपाक..."

"म्हणजे, म्हाका उडोवपाक टायम आसा तुजे कडेन, तेर्म सोदपाक ना."

आतां, फकत गोंयांतूच लोक रिटायर्ड जायनात. हेर कडेन रिटायर्ड जाल्ले लोक कामार आसतना जें करूंक पावले नात तें रिटायर्ड जातकच करतात. वाचन, फिरपाक वचप, संगीत शिकप - थोडे भितर, आपल्यो अर्दकुट्यो उरिल्ल्यो इत्सा पुराय करतात. आमकां तें जमना. हांगा रिटायर्ड जाल्ले दोग तीग जाण जार्दिनांत मेळटात आनी चकाटां मारतात.

"आतां आमी आशिल्ले जाल्यार आमची बेझीक ५४६९/- जातली आशिल्ली न्हय रे?"

"आनी कितें तर! आज सादो एस्. एस्. सी. जाल्लो प्यून २०००/- टेक होम व्हरता मरे!"

"आमी त्या वेळचे बी.ए. तेय बी Bombay University चे! इतले करून आमकां कितें मेळ्ळें? रिटायर्ड जाल्लों तेन्ना म्हाका ११,२५५/- ग्रॉस."

"हांव हेड क्लार्क जावपाचों काय बरो, पूण ज्युस्त तेन्ना ग्रॅज्युएशन जाय पड्लें. म्हजे नशिबूच फुटकें."

"आमच्यो बायलो तरी नोकऱ्यो करताल्यो रे? हिका तेन्ना प्रोव्हिदोरियांत काय बरी नोकरी मेळटाली. ही म्हणपाक लागली, नाका. आतां रडटा. म्हजें पॅन्शन बसलां ६५६/- घरचें आसा म्हण सालवार."

कितेंय म्हणात. घरा भायर एक तुळस, नाजाल्यार खुरीस, आनी घरांत एक रिटायर्ड मनीस. हे बगर घराक सोबा ना.

संपर्क: 9850530756

# संवसारांतलें उत्कृश्ट शिल्प

**माया अनिल खरंगटे**

भायर जोतीं दवरून आमी भितर गेलीं. भितर परत व्हड बरो प्राकार आसलो. ह्या प्राकारांत ध्वजस्थंभ आनी दीपस्थंभ आसा. ते भायर ल्हान ल्हान देवळ्यो आसात. दावे वटेन पाताळेश्वर मुक्तीनरसिंह आनी सूर्यनारायणाचीं देवळां आसात. आनी उजवे वटेन लक्ष्मी नरसिंह, महिषासूरमर्दीनी हांची ल्हानशीं देवळां आसात. मदीं पाशाणी देवळेंत तीन नंदी आसात. सकयलूय एक नंदी आसा. नंदी मुखार वळीन पणटयो पेटयल्ल्यो. ह्याय प्राकारांत दोनय कुशींनी अगरशाळा आसात. एके अगरशाळेच्या वारांदार व्हड बरें दगडी आयदन आसलें (पयलींच्या दोणाच्या आकाराचें). तें खंय पंचामृताचें आयदन. देवाच्या प्रसादाचें पंचामृत तातूंत घालून लोकांक तीर्थ म्हूण दितात. त्या आयदनाचेर बरी कलाकुसर आसा.

हें विरुपाक्षाचे देवूळ हांगाचे सगळ्यांत पोरणें अशें देवूळ. यादवकाळाचे पयलीं साकून हें देवूळ हांगा आशिल्लें अशें कांय जाण सांगतात. कांय जाण हें देवूळ मौर्य काळांतलें समजतात जाल्यार कांय जाण शिलाहारांनी दिल्ली ही भेट अशें समजतात. प्राचीन काळा साकून आज मेरेन हें देवूळ प्राचीन द्रवीड शिल्पकलेची साक्ष दीत उबें आसा. ह्या देवळाक पंपापती देवूळ अशेंय म्हणटात.

ह्या वाठाराक प्राचीन काळार पंपाक्षेत्र म्हणटाले. पंपावती देवीन काळजातळांतल्यान केल्ले भक्तीन विरुपाक्ष म्हळ्यार म्हादेव हांगा प्रकट जालो! आनी पिंडिकेच्या रुपान कायम हांगा रावलो अशें मानतात. विजयनगराच्या राजांनी ताका कुलदैवत समजून ताची बरेतरेन जतनाय घेतली.

मुखेल देवळाचो भायलो मंटप आनी हॉल सामको कलाकुसरेन नटयल्लो असो व्हड बरो आसा. पाख्याचे भितल्ले वटेन काडिल्लीं मार्कंडेय, रामायणांतले प्रसंग दाखोवपी चित्रां दोळे दिपकायतात. थोडीं सोंपणां चडून आमी वयर आयलीं. थंय एक कोळंबी आसली. वयर एक भट बसून लोकांनी भेटेक हाडिल्लें नाल्ल ते कोळंबेंत फोडटालो. तें उदक खंय वतालें, कोण जाणा. पूण नाल्ला उदकाची तकलीं कणकणपी घाण थंय येताली. कर्नाटकांतल्या चडश्या देवळांनी अशीच घाण येता.

थंयच्यान आमी भितर गेलीं. भितर व्हड मंटप आनी गर्भकूड आसली. गर्भकुडींत विरुपाक्षाची पिंडिका आसा. शंकराचे पिंडिकेचेर नागमुकूट घाल्लो विरुपाक्षाचो मुखवटो बसयला. लामणदिव्यांच्या उजवाडांत गर्भकूड उजळिल्ली.

गर्भकुडीचे मुखारूच सामक्या सोबीत नक्षीकामान नटयल्लो मंटप आसा. ताचो एक एक खांबो म्हळ्यार शिल्पकलेचो सोबीत नमुनो. सार्देपण आनी सोबीतकाय हांचो सुमेळ हांगा साधला. थंयच नंदीची मूर्त आसली.

थंयच्यान उजवे वटेनच्यान भायर येतकर पंपादेवी आनी भुवनेश्वरी देवीचीं देवळां आसात. दोनूय देवी भांगरा-शिंगरांनी नटून उब्यो आसल्यो. ह्या देवळां सकल चकचकीत पितूळच्या नागांची देवळी आसा.

फाटले वटेन चार-पांच सोंपणां चडून वयर वतकर काळखान भरिल्ल्यो होंवऱ्यो आसात. थंय चडून वतकच एक अजाप दिसता. थंय एक 'पिनहॉल कॅमेरा' आसा. हीं शिल्पकाव्यां घडोवपी कलाकारांक हेर भौतीक शास्त्राचें गिन्यान कितल्या उच्च दर्जाचें आसलें ताची देख म्हळ्यार हो 'पिनहॉल कॅमेरा.' एके काळखे कुडीचे पुर्वे कडले वण्टीचेर दवरिल्ल्या बुराकांतल्यान पयस आशिल्ल्यान त्या भव्य गोपुराची उरफाटी प्रतिमा फाटले वणटीचेर पडिल्ली दिसता. दिका, ह्या जाग्या वेली दोंगरा वेली उंचाय, गोपुराचें आकारमान हांचे बरोबर गणिती गिन्यान लक्षांत घेवन वास्तुशिल्पींनी हें अजाप करपी प्रतिमादर्शन घडयलां.

हांगाच्यान फाटले वटेन भायर सरल्यार विद्यारण्य स्वामींचें देवूळ आसा. पूण वेळ चड नाशिल्ल्यान आमी थंय गेलीं नात. ह्या देवळाचे उत्तरे वटेनच्या भागा कडल्यान आनीक एक गोपूर दिसता. हो हरिहर देवरायान बांदून घेतिल्ली खंय. हाका कनकगिरी गोपूर म्हणटात. ह्या गोपुराचेर हेर कलाकुसरीं वांगडा रत्नगर्भ गणपती आनी देवीची मूर्त आसा. ह्या गोपुरांतल्यान भायर येतकर दावे वटेच्यान व्हड सरोवर आसा. हाका 'मन्मथ सरोवर' म्हणटात. हेंय सरोवर आमी पळोवंक गेलीं नात. हें सरोवर बरेंऽ आसा खंय. पयलीं हांव आयिल्लें तेन्ना सोंपणां-सोंपणांनी बांदून काडिल्लें हें सरोवर आमी पळयिल्लें.

देवळाचे भायले वटेन एका व्हड फळ्याचेर संगमा, साकुवा आनी तुळुवा राजघराण्याचो इतिहास बरयिल्लो आसा. साळुवा घराण्याचे राजमुद्रेचेर सूर्य-चंद्र, जांबिया आनी दुकर आसा. हे राजमुद्रेचेर दुकर आसपा फाटली काणी हांवें पयलीं सांगल्या. आनीक एक खबर सांगतात. हिरण्याक्ष नांवाचो राकेस ही भूंय चोरून घेवन गेल्लो. तेन्ना महाविष्णून वराहाचो म्हळ्यार, दुकराचो, अवतार घेवन ही भूंय दर्यातल्यान वयर हाडून परती हांगा स्थापीत केल्ली. वराह अवतार घेवन विष्णून तांची भूंय वाटायली म्हणून दुकराचें चिन्न तांचे राजमुद्रेचेर घालां.

थंयच्यान आमी भायर येवन च्या घेवन बशींत बसलीं. आतां आमचो गायड गेलो. थंयच्यान आमकां तुंगभद्रा धरणा कडेन हाडलीं.

पंडीत जवाहरलाल नेहरून भाकरा - नांगलचें धरण, तुंगभद्रेचें धरण,कृष्णराज सागर धरण अशीं व्हड-व्हड धरणां, तांचे विद्यूत प्रकल्प, पळोवन म्हणिल्लें खंय, हींच आमचीं स्वतंत्र भारतांतलीं तीर्थथळां. खंय तरी वाचिल्लीं तांचीं उतरां म्हाका याद जालीं. हांवें वांगडच्यांक सांगलें.

धरणाच्या रस्त्याची चडण सुरू जाता थंयच खाजगी वाहनां थांबोवपाचीं. आमी बशींतल्यान देंवन लॅफ्ट-रायट करूंक सुरवात केली. रुंद बरो एक रस्तो धरणाची वाट चडटालो. आनीक एक रुंद रस्तो सकल्ल्यान बागेंतल्यान भायर येतल्यां पासत आशिल्लो.

आमी खरशेत - धांपेत वयर चडूंक लागलीं. पयलीं आमी आयिल्लीं तेन्ना ह्या धरणाचेर काम करपी एका अधिकाऱ्यागेर राविल्लीं. ताणें सरकारी जिपींत बसोवन आमकां सामकीं धरणाचेर व्हेल्लीं. तेन्ना धरण पूर्ण जाल्लें पूण बरींच कामा चालू आसलीं. आतां सकल व्हडली बाग केल्या. ती तेन्ना नाशिल्ली. ताणें धरणाचे मर्दी मेरेन आमकां व्हेल्लीं तेन्ना हांवें पळयिल्लें तें पयलें धरण. धरणाचो पुराय विस्तार जरी रातचो आमकां सारको कळ्ळोना तरी जितलें धरण पळयिल्लें ताचे वयल्यान अजापान आमचे दोळ मोठ्ठे जाल्ले. उदकाचे येदे व्हडले दोन नेटान पडपी घोगे पळोवन तर आमी भंयान दोळे धांपिल्ले.

आतां ल्हवू ल्हवू आमी वयर चडटालीं. एके वटेन गच्च झाडां-झोपांनी भरिल्लो दोंगर आनी दुसरे वटेन रोयिल्लीं सोबीत झाडां तोखेत आमी वयर गेली. मुखार रुंद बरो उदकाचो पाट सुरू जालो. हाका पाट म्हणप चुकीचें. एक ल्हानशी न्हंय कसो तो पाट आसलो. आमी कुल्लू मनाली वतना भाकरा-नांगल धरणाचो पाट पळयिल्लो. तो तर आमचे असोळडेचे न्हंये इतलो रुंद आसलो.

दिसय भर भोंवून आमचे पांय सामके दुखिल्ले. म्हणून ल्हवू ल्हवू चडाव चडून आमी एकदांची वयर धरणा कडेन पावलीं. उजवे वटेन सकल विद्यूत-प्रकल्प दिसतालो. थंयच सकल बागेंत वचपाक सोंपणां आसलीं.

आमी मुखार गेलीं. धरणार वचूंक जो रस्तो आसा तो भोंवडेकारांक बंद आसलो. थंय हातांत आर्मां घेवन सेक्युरिटी उबे आसले. थोडे सैनिकूय थंय उबे आसले. मुखार तांचें ऑफीस आसलें. कांय सैनीक गस्त घालत आसले. एके सोबीत ल्हानशे बागेंतल्यान आमी मुखार गेलीं. थंय उबीं रावन धरण आनी आडावन धरिल्लें तुंगभद्रेचें अथांग अशें उदक पळयलें. एक सागरूच कसो थंय तयार जाल्लो. पळयता थंय उदकच उदक. दुसरी तड दिसऽ नासली. आमचीं साळवलेची तीन धरणां एका मुखार एक दवरल्यात घड्ये हें तुंगभद्रा धरण जातलें इतली ताची लांबाय. म्हळ्यार सुमार ३७८ चौरस किलोमिटर. आनी

उंचाय सुमार २६० फूट. त्या काळार ताचेर २५ करोड रुपये खर्च केल्ले असो अदमास सांगतात.

ह्या धरणान खंय हजारांनी एकर जमीन 'सुजलाम सुफलाम' केल्या. तेन्नाच म्हज्या मनांत प्रस्न आयलो, ह्या जलाशयान कितले गाव पोटांत घेतल्यात काय? रात आनी दीस एका फाटल्यान एक येत आसतात. पूण चकचकीत दिसा मुखार रातीची व्यथा आमी लक्षांत घेनात. धरणान कितल्याश्या लोकांक आदार दिलो, वीज दिली. धान्य-फळफळावळ पिकयली, अशें जायतें कितें कितें दिलें. पूण कितलेशे गांव ह्या उदका पोंदा गेल्यात. थंयच्या धरणग्रस्तांचे प्रस्न अजून मेरेन सुटल्यात काय? ह्या प्रस्नांनी म्हजो जीव खासावीस जालो. आमचीं भुरगीं, वांगडी फोटो काडपांत, तें धरण तोखेवपांत गुल्ल आसले. म्हजें मन मात वेगळ्याच विचारांनी घुसपल्लें. हालींच हांवें एक धरणग्रस्तांचेर आदारिल्ली कादंबरी वाचिल्ली. तिची याद जावन हांव चड्डूच कासावीस जालें.

धरणाचे दुसरे वटेन जो दोंगर आसा. ताका कैलास पर्वत म्हणटात खंय. पूण तो सारको दिसनासलो. ताचे वेल्या लायटींक लागून थंय कितें तरी आसा म्हणून कळटालें. हेवटेन, आमचे फाटल्यान सुमार २०० मीटर उंचायेचो एक पर्वत आसा. ताका वैकूंठ पर्वत म्हणटात खंय. ह्या पर्वताचेर सरकारी रेस्ट हावस आसा आनी आंजनेयाचें म्हळ्यार मारुतीचें देवूळ आसा. एका हातांत गदा आनी एका हातांत संजीवन पर्वत घेवन येवपी मारुतीची मूर्त भितर आसा खंय. वेळ जाल्ल्यान आमी वैकूंठ पर्वतार गेलीं नात.

थंयच्यान आमी सकल देंवलीं. धरणाचे दुसरे वटेन म्हैसूरच्या वृंदावन गार्डना वरी पूण ल्हान बाग केल्या. आमी सकल देंवलीं. थंयच्यान लागींच पाटाचेर बांदिल्ल्या पुला वेल्यान दुसरे वटेन गेलीं. पुलार खूब्ब जळारां आसलीं. मुखार बागेंत सोबीत लॉन, फुलझाडां, सगळें आसलें. पूण रात जाल्ल्यान आमकां सारकें कळनासलें. लायट आसा थंयचोच वाठार कळटालो. मदीं उदकाचो पाट सोंपण्णां सोंपणां करून सोडिल्लो. सुरवेक वांटकुळे तपकडेचेर नंदी आनी ताचे वयर कारंजें सोडिल्लें. भोंवतणी रंगयाळे बल्ब घाल्ले. मदीं मदीं मानगें, नर्तकी अशें पुतळे केल्ले आनी तांचे वयल्यान रंगयाळीं कारंजीं सोडिल्लीं. पाटाच्या निमण्या तोंकार दोंगुल्लीशी करून ताचेर म्हादेवाची मूर्त बसयिल्ली. ताचे जटेंतल्यान कारंजांची गंगा व्हांवताली. ताचोच घसघसो ते दोंगुल्ले वयल्यान पडटालो. होच पाट उजवे आनी दावे वटेन वळयिल्लो. बाग बरीच व्हड आसली. थंय सारको उजवाड नासलो. उजवाड आसलो ते वटेन आमी गेलीं. दोनूय वटेच्यान लॉन आनी झाडां आसलीं. फुलां मात कसलीं तें पळोवंक मेळ्ळीं नात.

मुखार एका लॉनार मदीं व्हड तळूल बांदून काडिल्ले. तातूंत उदक आसलें पूण म्हेळें. मदलें कारंजेंय बंद आसलें.

खूब मुखार म्युझिकल फांवटन आसलो. पूण अजून तो चालू जावपाचो वेळ जावंक नासलो. लोक बेगी बेगीन बाग पळोवन येवन तणार बशिल्ले. मातशें मुखार नुस्त्याघर आसलें. आमी पयलीं थंय गेलीं. ताच्या दारांतच शिमिटाचीं दोन व्हड नुस्तीं दाराच्या दोनूय वटांनी व्हडलें तोंड उगडून आमचें स्वागत करतालीं. तांचेर बसुंकूय मेळटालें. भितर कंवचेच्या बॉक्सांनी तरेकवार नुस्तीं आसलीं. तीं पळोवन आमी म्युझिकल फावंटना म्हऱ्यांत येवन बसलीं.

थारिल्ल्या वेळार दिस्त कन्नड पद सुरू जालें आनी ताच्या तालार उदकाचें नर्तन सुरू जालें. पंदरा-वीस मिनटां आमी तें पळयलें आनी उठलीं. आमी मडगांवां आनाफोंत बागेंत हें उदकाचें नर्तन पळयिल्ल्यान आमकां ताचें व्हडलें अप्रूप दिसलें ना. आमी थंयच्यान येवन बशींत बसलीं.

गंगावती वटेन आमची बस चलूंक लागली. बशी वांगडा म्हजींय विचारचक्रां सुरू जालीं. पयलीं आमी तिरुपतीक वतालीं तेन्ना हंपी, हॉस्पेट, मंत्रालय हे वटेन गेल्लीं. आमचे वांगडच्या भुजले नांवाच्या कुटुंबाचीं हॉस्पेट सोयरीं आसलीं तशीं मंत्रालयांतूय सोयरीं आसलीं. तांणी थंयच्या राघवेंद्र स्वामीक आंगवण केल्ली. तांकां लागून आमकांय मंत्रालयाक वचपाचो योग आयिल्लो.

ताणी मंत्रालयाक या म्हणना बराबर आमकां हांसो आयलो. आमी मंत्रालय हें सरकारी संबंधान आयकल्लें. अशें गांवाचें नांव आसा हें आमकां खबरूच नासलें. हें मंत्रालय म्हळ्यार देवकार्य करपाचें महत्वाचें भक्तीपीठ खंय. तें आंध्र प्रदेशांतल्या कुर्नूल जिल्ल्यांत पडटा. हॉस्पेटच्यान सामकें लागीं.

थंय राघवेंद्र स्वामीचें देवस्थान. आमकां भुजलेमामान राघवेंद्रस्वामीची खबर सांगिल्ली. मंत्रालयाक तांची समाधी आसा. थंयच्यान लागींच आशिल्ल्या 'पंचमुखी' घोलींत तांणी बारा वर्सां खर तप केल्लें. त्या वेळार तांकां पंचमुखी प्राणदेवरू (मारुती), कोल्हापूरची महालक्ष्मी, तिरुपतीचो व्यंकटेश आनी विष्णूचो कुर्मावतार ह्या देवांनी दर्शन दिलें खंय. तांचे आज्ञेनच तांणी मंत्रालयाक रावन व्हड कार्य केलें आनी निमाणें हांगाच समाधी घेतली.

मंत्रालयाक पावतकर आमकां पयलीं तुंगभद्रेचे देगेर न्हांवक व्हेलीं. थंय दर्याचे वेळे वरी पाशाणी फातराचो व्हड जागो आसलो. पावसांत हो सगळो जागो उदकान भरता खंय. आमी थंय पावलीं तेन्ना खूब लोक थंय न्हाताले, थोडे जाण कपडे उमळटाले आनी थंयच फातराचेर सुकत घालताले. 'अशें उगड्यार न्हावप?' आमकां सामकी लज दिसली. पूण करतलीं कितें? थंय न्हाले शिवाय देवळांत दर्शनाक वचूंक मेळना म्हणून सांगलें.

मागीर आमचे वांगडच्या प्रेमान आनी गुलाबीन एक युक्त सांगली. 'आमी दोग-तीग जाणां साडयेचो आडसर करून रावया आनी एक-एकटीं न्हावन येवया,' मागीर आमी लज मातशी पेल्यान दवरून न्हावन देवदर्शनाक आयलीं.

हंपी वरी व्हड व्हड पाशाणी शिळां मदीं मंत्रालय गांव वसला. थंयच समाधी देवूळ आसा. देवूळ व्हड आसा. पूण लोंखडी कठडो घालून भक्तांक दर्शनाक वचपाक मार्ग तयार केला. हांगा कांय भक्त लोळत प्रदक्षणा घेत वचपाची आंगवण करतात. एक बायल तशी लोळत वता ती आमी पळयली. वोताचो रखरख वाडटालो, पोंदची पाशाणी जमीन तापताली, पूण निव्वळ आसली. ताचे वयल्यान ती बायल लोळत-घुंवत प्रदक्षणा घेताली.

मुखेल मंडपांत वतकर पयलीं मारुतीचें देवूळ मेळटा, आनी मातशें मुखार वतकर 'समाधी वृंदावन' म्हळ्यार राघवेंद्र स्वामीची समाधी मेळटा. गर्भकुडींत एक व्हड बरी पाशाणी तुळस आसा. तिचे म्हऱ्यांत तशीच दुसरी एक तुळस आसा. ती वरिंद्रनाथ स्वामीची खंय. दोनूय तुळशी बऱ्यो कोरीव कामान नटयल्यात.

दर्शन घेवन भायर येतकच देवळाचे उजवे वटेन आमकां व्हेलीं. थंय एकमजली इमारत आसली. थंय तेन्ना सदांच अन्न सत्र चलतालें. आमी वळीन भितर गेलीं. लांबच्या लांब सालांत जेवणावळ आशिल्ली. जेवणाक शीत आनी 'सारम्', तोंडाक लावंक पिठल्या वरी कितें तरी पातळशें इल्लेशें वाडिल्लें. सामकें रुचीक. अजुनूय म्हाका ताची रूच याद आसा.

मंत्रालयाचे यादींत हांव गुल्ल आतसनाच आमची बस गंगावतींतल्या सर्वेश हॉटेला कडेन येवन उबी रावली. आमी दुखरे पांय ओडीत रुमार गेली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं नाश्तो घेवन आमी बशींत बसली. आज आमी अंजनी पर्वताचेर वचपाचीं आसलीं. वाटभर पाशाणांची सैमकलाकारान केल्ली कलाकारी पळयत अंजनी पर्वता कडेन आयलीं. थंय भरपूर सपणां चडून वयर वचपाक जाय आसलें. आमी सदां भशेन थारायलें, जाता तितलीं सपणां चडप, ना जाल्यार थंयच बसप.

सोंपणां सरळ वयर चडपी नासलीं. वांकडी-वांकडीं, मदीं सरळ उबीं कशीं, मदीं व्हड-व्हड जागो, मदीं ल्हान सोंपणां, मदीं ऊंच सोंपणां, आमी ल्हवू ल्हवू चडूंक सुरवात केली. आमचीं भुरगीं, मेघा आनी क्षमा सडसडीत वयर चडूंक लागलीं, सगळ्यांत फाटल्यान गोविंद आनी दिगंबर भावोजी, मदीं आमी सगळीं. हो सगळो दोंगर व्हडल्या व्हडल्या पाशाणांचो. आमी ल्हवू ल्हवू चडटालीं म्हणून मदीं मदीं रावन सरभोंवतणची पाशाणी सोबीतकाय पळयत वयर चडटालीं. हे पाशाणी कलाकारीक पाचव्या शेतानी आनी केळीच्या बागांनी सोबाय हाडिल्ली. मदीं मदीं उदकाचे पाट आनी तकुलां, सैमाच्या कॅनव्हासाचेर पितारिल्लें हें चित्र कितलें आनी कशें दोन दोळ्यांनी सांठोवन घेवं अशें आमकां जाल्लें.

वाटभर सोंपणांच्या कडांनी माकडां फातरांचेर बशिल्लीं. कोणाय कडेन पिशवी दिसली काय झोंपून घेतालीं. गोविंदान नाल्ल आनी फुलांची पिशवी घेतिल्ली. ती एकल्यान झोंमून व्हेली. तीं कितें करतात तें पळोवंक गोविंद रावलो. ताणी बडयेन नाल्लाचो दोळो कोंकलो आनी उदक पिले. मागीर फातरार आपटून तो नाल्ल फोडून भितरली कातली खाली. एक भोंवडेकार जोडपें कालच्यान हंपी साकून आमकां मेळटालें. बायल आफ्रिकन, काळी आनी दादलो तांबसो गोरो. आमच्या भुरग्यांनी तांकां ब्लॅक ॲण्ड व्हायट नांव दवरिल्लें. तींय नाल्ल फुलां आनी केळीं आशिल्ली पिशवी हातांत झेलयत वयर चडटालीं. माकडांनी झोंपय मारून तांची पिशवी व्हेली. ताणींय रावन माकड नाल्ल कसो खातात तीं मजा पळयली आनी आमी मेळटकच हांसून हांसून ती खबर आमकां सागली.

अश्या ह्या माकडांक सांबाळत सांबाळत आमी वयर चडलीं. बरीं वयर पावपाक आमचीं सोंपणां दोन आकांत व्हड तळपां पोंदच्यान वतालीं. मातशी बाग घेवन ना जाल्यार बसून धा-पंदरा सोंपणां चडचीं पडटालीं. भुंयारी वाट कशी. भितर सामकी थंडाय. भायल्या उज्यान कासावीस जाल्ल्या आमकां थंयच बसकण मारीन दिसली. अशे तरेन ५८५ सोंपणां चडून आमी सगळींच एकदांचीं वयर पावलीं.

आमी वयर पावचे पयलीं आरती वेळार जाता तसो वाद्यांचो गजर आनी भजनाचो स्वर आमकां आयकूंक आयलो. आमकां दिसलें, वयर आरती चलता आसतली. वयर वचून पळयतकच कळ्ळें, थंय व्हड पाशाणाच्या पोंदा घोल आसा. तातूंत म्हादेवाचें देवूळ केलां. थंय पुजाऱ्याचेर भार आयिल्लो. ते पासत वाद्यांचो आनी भजनाचो गजर चलिल्लो. जायते जाण भारा मुखार बसून कितें कितें विचारताले. ताचे वयर ल्हानशें पाशाणी देवूळ आसलें. भितर पयलीं मारुती आनी राम-लक्ष्मण-सीतेची देवळी आसा. मागीर दुसरे कडेन मारुतीची आवय अंजनीची देवळी आसा. देवळांत बरी थंडाय आसली. देवळा भायल्यान पाशाणा मदल्यान प्रदक्षणेची वाट.

वयर चड जागो नासलो. एके वटेन हीं दोन देवळां आनी मातशें मुखार एक घर. थंय एके वटेन ऑफीस आनी एके वटेन भट रावता. सकल्ल्यान वयर नळान उदक घेतलां. देवाक अभिशेक निवेद्य सद्दां चलता. वयर लायटूय आसा. त्या दोंगराचेर अर्द्याक हें देवूळ, घर आनी मदीं उकतो जागो आसलो. थंय झाडांय आसलीं. आनी अर्द्या भागांत व्हड व्हड तळपां आसलीं. ताचे वयर तळें आसा अशें आमकां थंयच कोणें तरी सांगलें.

वयर चडपाक त्या तळपांक मदीं मदीं माडार चडपाक खांपी घालतात तशीं खांपां घाल्लीं. त्या खांपां वयल्यान आमी वयर चडलीं. वयर व्हडल्या दोन तळपां मदीं शिमिटाच्यो फातरी ना जाल्यार शिमिटाचींच चार-पांच सोंपणां केल्लीं. कांय तळपांक मदींच बरोच खोल भाग आसलो. तातूंत पावसाचें उदक एकठांय जावन तकुलां कशीं जातात खंय. पूण आतां थंय पाचवो शेळो आशिल्लो. सकल देवळा म्हऱ्यांत जितलो मेकळो जागो आसा ताचे परस वयर चड मेकळो जागो आसलो. हीं तळपां जमनी कडल्यान वयर आयल्यांत. मदीं मदीं आशिल्ल्या खांची वयल्यान हें आमकां कळटालें. तळपां जमनींतल्यान किल्लल्ले वरी दिसतालीं. ते खांचींतल्यान झाडांनी तकली वयर काडिल्ली. बरींच मुखार वतकर एक खोल बरें ल्हानशें तळूल दिसलें. ताचें उदक पाचवेंसार आसलें. तातूंत एक पायप आसलो. तो सकल देवूळ आसा थंय व्हेल्लो तें उदक हेर कामांक वापरतात खंय.

हांगाच्या तळपांचो रंग हळदुवसार धवसार कसो. त्याच रंगाचे बेबे त्या उदकांत आसले. बेबे म्हणून कळच नासले. एकल्याचो गळो हालतालो. ताचे वेल्यान मोहिताक तो बेबो म्हणून कळ्ळें.

थंय फोटो बी काडून आमी सकल देवंक लागलीं. वयर चडटना मदींच आमी एके वटेन पाशाणा पोंदा घोल कशी पळयिल्ली. थंयच एक समाधीय आसली. देंवतना आमी थंय गेलीं. ती लडखमहाराजाची समाधी खंय. आमी समाधी म्हऱ्यांत गेलीं नात. आमकां ती घोल पळोवंक जाय आसली. घोल म्हळ्यार व्हड तळपा पोंदचो जागो. भितर एक मनीस उबो रावंक शकता इतली उंचाय. थंय दोन कुडी केल्ल्यो. तांचीं दारां बंद आसलीं. तातूंत सामानूय आसलें. थंय कोणूय तरी रावता जातलो म्हणपाचें कळटालें. भायर वयर लिंग नाशिल्ली पिंडिका आसली.

तें सगळें पळोवन आमी सकल देंवलीं. सोंपणार सान्न मारपी एक बायल आमकां दिसली. आमी मुद्दम तिची चवकशी केली. तिची ही शिर्वीस खंय. थंय सद्दां खूब भोंवडेकार येतात. त्या सोंपणांचेर पानांचो कचकच. माकड कितें कितें उडयतात. हो सगळो कचकच तांकां दिसाक दोन खेपे काडचो पडटा खंय. ती निवळ सान्न मारत कोयर भरत वयर वताली. पूण झाडां मात मस्त्या भुरग्या वरी तिची फाट वळ्ळी काय सुकी पानां थंय झडयतालीं. तिका पगार आसा खरो पूण भोंवडेकारय आपल्याक कितेंय दितात तातूंतल्यान आपूण भुरग्यांक कितेंय दिवंक शकतां अशें तिणें सांगलें.

अनिलान तिका पयशे काडून दिले. वाटेर जायते साधू भिक्षा मागूंक बशिल्लें. आमी सकल आयलीं. थंय थंड पेयां आनी आडसरांचें दुकान आसलें. आमी आडसरा उदक पिलीं आनी बशींत वचून बसलीं. पांय सामके दुखताले. पूण मन एके वेगळेच खोशयेन भरिल्लें.

बस गोंयचे वाटेर धांवूक लागली. आमी सगळीं फुडली ट्रीप खंय काडप हाचेर उलोवपांत गुल्ल जाल्लीं.

संपर्क: 09420685278



# कथा

## ‘नरो वा कुंजरो वा...’

मीना काकोडकार

शांबाले धुवेचें लग्न... दासाल्या चल्या कडेन.

न्हवरो सव्यार बसला. तेलाचो सुवाळो चल्ला.

तेलाच्यो आमंत्रीत बायलो आनी तांचे वांगडा तांकां घेवन येवचें पडिल्ल्यान आयिल्ले दादले हॉलांत पासियेंसान बसल्यात.

न्हवऱ्याक तेल लावन जालें. ताच्या हाताक मास्कॉत आनी गळ्यांत बरी सरपळी पडली.

उपरान्त व्हंकलेक तेल. तिका माथ्याक सुरगां वळेसर आनी हाताक फीत घालें. फीत गळ्ळ करून सकयल देंवलें. फुडाराक व्हंकल मोठी जातली हें चिंतून पयलींच फीत व्हड केल्लें. तें हाताक घट्ट बसचें म्हणून लेंसाचो गुटलो करून मदीं घालो.

तेलाचो आक्त जालो. न्हवरो-व्हंकल आपआपले कुडींत गेलीं. स्टेजी वयल्यो बायलो सकयल देंवल्यो. कांय जाणी हळद-कुकूम लायत भोंवंक लागलीं. कांय जाणी तेलाची वस्त वांटूंक लागलीं.

‘शाबू काय दिसता.’ एकलेन वास घेत म्हळें.

आयस्क्रिमाचीं कोपां वांटीत तरनाटे भोंवले.

लोकांच्या ताळ्याक मातशी थंडाय आयली.

दोतोर विश्वनाथ बायलेक घेवन तेलाक आयिल्लो. बायल खंय तरी फुडें बशिल्ली. हो फाटल्यान दादल्यांचे पंगतीक.

उबाळाचे दीस आशिल्ल्यान हॉलांत भयंकर उजो मारतालो. फॅनाचो वारो लेगीत गरम येतालो.

दो. विश्वनाथा म्हऱ्यांत वामन बशिल्लो.

विश्वनाथान म्हळें, ‘धा वरांचेर तेल दवरतात. आनी लग्न बद्द १२.३०क. तेदोळ म्हणसर आतां लोकांनी हांगा करप कितें?’

‘हांवेंय बायलेक सांगिल्लें - आगे, बद्द लग्नाकच या. तर ना. तेलाक आमंत्रण आसा. तेलाक वचूंकच जाय. पूत, सून आयल्यांत. हांवें म्हळें, तूं वच तांचे वांगडा. तेंय उपकरना. शांबाले, चलयेचें लग्न, तुमी येवंकच जाय. आयलों, आतां मारतां झक!’ वामन पिरंगलो.

×××

लग्नाचो म्हूर्त लागीं पावलो. हॉलांत ल्हवू ल्हवू गर्दी जावंक लागली. आनीकय चड उजो मारूंक लागलो. हॉलभर लोक घाम पुशीत बशिल्ले. न्हवऱ्याक, पांच बायलांनी दिवे दाखयले. मांवान रुप्याचो नाल्ल ताच्या हातांत दिलो आनी ताका सव्यार हाडलो. लोकांक केन्ना काय लग्न जाल्यार पुरो जाल्लें.

सुटयेचो दीस नाशिल्ल्यान कोणाकोणाक कामाक वचपाकीय ताकीत आशिल्ली.

मामान भाचयेक स्टेजीर हाडली.

न्हवरो व्हंकल स्टेजीर उबीं.

मदीं अंतरपाट धरून भटमाम उबे.

सकयल बशिल्लीं न्हवऱ्या-व्हंकलेचीं लागशिल्लीं सोयरीं ताकतिकेन स्टेजीर चडलीं. तांणी दोगांय भोंवतणी गराडोच घालो. सकयल्या लोकांक न्हवरो-व्हंकल दिसना जालीं. दिसताल्यो त्यो सगल्यांच्यो फाटी.

मंगलाश्टकां सुरू जालीं.

भटमाम न्हवऱ्या परस मोटवे आशिल्ल्यान अंतरपाटा वयल्यान न्हवऱ्याक व्हंकलेचें तोंड दिसतालें. तो मुमुरकोच हांसतालो.

तें लक्षांत येतकीर मदींच कोणें तरी अंतरपाट वयर काडलो. सकयल बशिल्ल्यांक फकत मंगलाश्टकांचो आवाज तितलो आयकूंक येतालो आनी ‘शुभमंगल सावधान’ म्हळे उपरान्त अक्षतांचो शिंवर जातालो तो दिसतालो. तातुंतल्यो थोड्यो अक्षता न्हवरो-व्हंकलेचेर पडटाल्यो आनी थोड्यो भटमामाचेर आनी हेरांचेर पडटाल्यो.

सकयल बशिल्ले कडेन दोतोर विश्वनाथान लेंसान घाम पुसलो.

‘ह्या गिमा तेंपांत ए.सी. हॉलांत लग्न दवरूंक जाय. ताणें वामनाक म्हळें. ‘लोकांक ख्यास्त ही!’

‘हरशींच जीव बरो ना. तातूंत आनीक हो उजो.’ वामनान वाजेवन म्हळें.

भुरगीं बोवाळ करीत हेवटेन, तेवटेन धांवतालीं.

आंकवार चलयो नटून, थटून बेठ्योच बोवाळटाल्यो.

‘भटमामाकय म्हणून थोडे भितर आटापून घेवंक जमना. हे गरमेन जीव सामको खासावीस जावंक लागला.’ वामनान लेंसान वारो घेत म्हळें.

वामनाचे पेले वटेन बशिल्ल्या एकल्यान आपल्या हातांतलो पेपर वामनाक दिलो. वामनान देव बरें करूं म्हणत तो घेतलो आनी वारो घेवंक लागलो. ‘तुमचें नांव कितें?’ वामनान विचारलें.

‘हांव प्रशांत देसाय.’ ताणें म्हळें.

इतल्यांत फायनल ‘शुभमंगल सावधान’ म्हणत भटमामान अंतरपाट कुशीन काडलो.

वयली स्टेज अक्षतांचो पावस आंगार

घेवन शिरशिरली.

न्हवऱ्या-व्हंकलेन एकामेकांच्या गळ्यांत हार घालपाची तयारी केली. म्हणटासर कांय जाणांनी न्हवऱ्याक उबारलो.

माळ घालूंक व्हंकलेचे हात पावनात.

इतल्यांत व्हंकलेवटच्यांनी व्हंकलेक उबारली आनी वयर 'उच्चासनार' बशिल्ले कडेन दोगांनीय एकामेकांच्या गळ्यांत माळो घाल्यो.

'हालीं म्हणून लोक विटोवंक लागल्यात.' दोतोर विश्वनाथान म्हळें.

'खेळांतलीं बावलीं काय म्हणटां हांव? लग्नाचें पावित्र्यच राखिनात!'

वामन तिडकीन चडच नेटान पेपर वावडूंक लागलो.

न्हवऱ्या-व्हंकलेक घेवन तांचे रिस्पेक्टीव्ह आवय बापूय सगल्या आमंत्रितांचे आशिर्वाद घेवंक हात जोडून माचये सकयल देंवले. न्हवऱ्याची जाणटी आजी मुखा वयल्या कदेलार बशिल्ली. नवें जोडपें तिका पांयां पडून फुडें सरलें.

लोकांनी येदोळ सावन हातांत धरिल्ल्यो अक्षता तांचेर शेंवटिल्यो. व्हिडियोग्राफर व्हिडियो काडीत उरफाटो चलत फुडें, फुडें वतालो. दो. विश्वनाथान हातांत धरून, धरून ओल्यो जाल्ल्यो अक्षता तांचेर शेंवटिल्यो.

वामनानय शेंवटिल्यो.

न्हवरो व्हंकल, शांबा, ताची बायल, दास आनी ताची बायल हात जोडून, तोंडार हांसो 'पेस्ट' करून अक्षता माथ्यार घेत सगल्याक फेरी मारून परत माचयेर चडलीं.

नटून, थटून सज्ज राविल्ल्या चलयांची ताकतीक सुरू जाली. दोगी साखरेचीं ताटां आनी दोगी पेढ्यांचीं ताटां घेवन मुखार सरलीं.

दो. विश्वनाथाक गोडेंमूत आसा. येदोळ ताणें आयस्क्रिम खावंक नाशिल्लें. आतांय ताणें सारखेक पोकी चिमटी मारली. पेढो मात घेवन बोल्सांत उडयलो.

ताणें ताटांतले चार पांच पेढे काडून वामना कडेन दिले आनी 'फुडें पावय' म्हळें.

वामनान एक पेढो आपल्याक दवरून उरिल्ले प्रशांता कडेन दिले. रंगिबेरंगी फोलींत गुटलायिल्लो पेढो उकतो करून वामनान तोंडांत उडयलो.

दो. विश्वनाथ वामना कडेन किर्तें तरी उलोवंक वतालो. वामनान ताचे कडेन पळयलें आनी म्हणटासर तो कदेलाचेर लवंडून पडलो.

'आरे वामन' दो. विश्वनाथान ताका हालयलो.

प्रशांतान ताका सारको बसोवपाचो यत्न केलो.

'किर्तें जालें? किर्तें जालें?' करीत लोक भोंवतणी जमले.

दो. विश्वनाथान वामनाची नाडी पळयली. 'हॉस्पिटलांत व्हेल्यार बरो' ताणें म्हळें.

लोकांक आतां सव्या वयले घडणुके परस फाटल्यान किर्तें घडलां तें पळोवपांत चड रस आशिल्लो.

खूब जाण उठून फाटल्यान आयले.

बायलोय मानो वांकड्यो करून फाटल्यान पळयताल्यो.

'किर्तें जालें?' जण एकलो दुसऱ्याक विचारतालो.

'कोण तरी पडलो.'

'घुंवळ आयली दिसता. उजो मारता तो सोंसपाचो?'

गर्देक लागून कोण पडला, किर्तें जालां तें सारकें दिसनासलें. माचयेर उबे राविल्ले कडेन शांबा आनी दासाचे नदरेक सकयलो बोवाळ पडलो. दोगूय ताकतिकेन सकयल देंवले.

'किर्तें जालां रे बाबा?'

'कोण तरी पडला खंय?'

'कोण ; कोण...?'

'खबर ना. कोण तरी'

'किर्तें जालें काय?'

'घुंवळ आयल्या आसतली.'

'काय ॲटॅक आयला म्हणून देव जाणां!' अदमांसाचें पीक आयिल्लें.

शांबाक थरथरो भरलो. धुवेच्या लग्नाक नाका आशिल्लें अपसरण आंगार येना जाल्यार पुरो. कोण काय तो?

'आरे, मातशे कुशीक सरात.'

पूण कोण कुशीक सरलो ना.

इतल्यांत कोण तरी भटमामाचो रकाद घेवन शांबाक आनी दासाक सोदीत आयलो.

'भटमाम तुमकां स्टेजीर आपयता. तुमी स्टेजीर वचात. हांगचें किर्तें तें हांव पळोवन घेतां.' ताणें म्हळें.

दास आनी शांबा परतले.

दो. विश्वनाथान वामनाल्या पुताक रकाद धाडिल्लो तो ताकतिकेन थंय आयलो. फाटोफाट ताची बायल आयली.

दो. विश्वनाथान म्हळें, 'वामनाक हॉस्पिटलांत व्हरूंक जाय.'

वामनाल्या पुतान बायलेक सांगलें, 'आईक घेवन घरा वच' ती बाबडी थरथरत थंयची गेली.

वामनाल्या पुतान आनी प्रशांतान मेळून वामनाक दो. विश्वनाथाले गाडयेंत घालो. वामनालो पूत आनी प्रशांत गाडयेंत बसले. दो. विश्वनाथान गाडी सोडली.

दुसरे गाडयेंत बसून आनीक दोग-चौग जाण तांचे फाटोफाट गेले.

×××

वामनाक तीन भाव.

वामन धरून सगळे चौगजाण.

भाटांबेंसाचे वांटणेक लागून चारय भावां मदल्यान उजो वचना. कोणय एकामेकागेर वचनात. एकमेकाच्या तोंडार नदर घालिनात. वामन मदलो.

पयलीं सगळे भाव मेळून गणपती पुजताले.

मागीर एकाचे चार गणपती जाले. जण एकलो वेगळो गणपती पुजूंक लागलो. कोंतान एकामेकागेर वचप ना.

चुकून खंयय एकामेकाचेर नदर पडली जाल्यार अनवळखी कशे वागताले.

शांबा तांचो सोयरो. ताचे चलयेच्या लग्नाक चारय भाव आपल्या कुटुंबा सयत आयिल्ले.

वामन पडलो आनी ताका हॉस्पिटलांत व्हेला ही गजाल तांच्या कानार आयली.

कोणें म्हळें, 'ताका ॲटॅक आयलो.'

कोणें म्हळें, 'तो आक्ताक गेलो.'

खरें किर्तें तें कोणाक सारकें खबर नाशिल्लें. सगळे लग्नाच्या बोवाळांत. व्हडल्या भावान बायलेक म्हळें, 'वामनाक हॉस्पिटलांत व्हेला जाल्यार आमी लग्नाक बोवाळप लोक लज्जे खातीर तरी बरोबर जावचें ना. आमी घरा या.'

बायलेन म्हळें, 'लोक लज्जा बी बरी आसा. पूण लजेक गेल्यार पेजेक पावनात. जेवले बगर घरा गेल्यार खातलीं किर्तें? ह्या

वेळार घरा कडेन कोण रांदूंक बसतलो.?'

'तशें जाल्यार आमी सडसडीत जेवन घेवया आनी कूस मारुंया.' घोव-बायल न्हवऱ्या-व्हंकलेक हात दिवपाचे लायनींतल्यान भायर सरलीं आनी बद्द जेवंक गेलीं. थंय पळयत जाल्यार हेर दोगय भाव आपआपल्या बायलां वांगडा जेवंक बसल्यात.

एकामेकांक पळयले नाशिल्ले भशेन करून सगळ्यांनी जेवन घेतलें.

स्वीट् डीश खावंकय कोण विसरलीं नात.

मागीर एकएकलो जोडप्यान शांबाक मेळूंक गेलो.

त्याय बोवाळांत शांबाचे बायलेन तांच्या बायलांच्या हातांत लग्नाची भेटवस्तू तेंकयली.

लग्नांतलें तांचें इतिकर्तव्य पार पडिल्लें.

तिगय भाव बायलांक घेवन आपआपले गाडयेन आपआपल्या घरा गेले.

एकलोय वामनाची खबर घेवंक हॉस्पिटलांत गेलो ना.

×××

प्रशांत देसाय पत्रकार. शांबालो पूत ताचो इश्ट. भयणीच्या लग्नाचें ताणें प्रशांताक खाशेलें आमंत्रण दिल्लें.

प्रशांत नेमाळ्या खातीर रिपोर्टींग करतालो. खंयय कसली घडणूक घडली जाल्यार ताची सनसनाटी बातमी कशी करप हें ताका बेस बरें समजता. ते बातमेंत सत्य कितलें आसा आनी कितलो प्रशांतालो कल्पनाविलास आसा तें सट्ट करून कोणाक समजनासलें.

लग्नाच्या हॉलांत तो वामनाक तेंकून बशिल्लो. वामनान जीव खासावीस जाता म्हळें तेन्ना हातांतलो पेपर ताणेंच वामनाक दिल्लो. लग्नाक बशिल्ले कडेन ताचे तकलेंत 'बातम्यो'च घुंवताल्यो. हालींच संपादकान ताका म्हणिल्लें. 'प्रशांत, हालीं तुज्या बातम्यांक बरी धारशी नासता. सगल्यो रुटीन बातम्यो. वार्ताहरान २४×७ बातम्यांचो वास घेत भोंवक जाय.' देखूनच बशिल्ले कडल्यान नदर हेवटेन, तेवटेन भोंवडायत प्रशांत लग्नाच्या हॉलांतय बातमी सोदतालो.

'रूं ना थंय पूं' कसो काडप हाची येवजणय ताचे तकलेंत घुंवताली.

वामनान भुरगीं पेढे वांट्टालीं तातुंतले कांय पेढे फुडें पावोवंक प्रशांताच्या हातार दवरिल्ले. दोगांनीय वांगडाच रंगीत कागद सोडयिल्ले.

वांगडाच पेढो आपआपल्या तोंडांत घाल्लो. आनी खिणा मजगतीं वामन कदेलाचेर लवंडल्लो. प्रशांतान ताका सारको बसोवपाचो यत्न केल्लो.

दो. विश्वनाथान ताची नाडी पळयिल्ली आनी म्हणिल्लें - हॉस्पिटलांत व्हेल्यार बरो. म्हणटा खिणाक भोंवतणी लोक जमिल्ले.

एक घडणूक सामकी प्रशांताक तेंकूनच घडिल्ली. तो भितरले भितर मातसो धादोशी जालो.

हे घटनेचो सारको फाटपुरावो करपाचो अशें ताणें थारायलें. कितें जालां आसतलें काय ह्या मनशाक?

जितो आसा काय...?

आताक आयला? काय घुंवळ? काय पेढ्यांतल्यान विषप्रयोग? इतल्यांत वामनाचो पूत थंय पावलो.

प्रशांतान आनी ताणें वामनाक उबारून दो. विश्वनाथाचे गाडयेंत घालो. ते दोगय तेच गाडयेंत बसले...

घडणुकेची सारकी बातमी करतलो जाल्यार मुळांत ते घडणुकेची सगली म्हायती जाणा जावप गरजेचें हें तो जाणा.

हॉस्पिटलांत पावले तशे दो. विश्वनाथाचे वळखीन वामनाक रोखडोच भितर व्हेलो.

प्रशांतान विश्वनाथाक विचारलें, 'तुमी वळखतात ताका?'

'हय. वामनबाब केणी तो.'

'पयलीं दुयेंत आशिल्लो काय कितें तो?'

'तितल्या लागींच्यान वळखना हांव ताका... म्हळ्यार तो दुयेंत आशिल्लो काय कितें तें म्हाका खबर ना...'

'आतां कितें जालां आसतलें?'

'गेलो तो.'

'गेलो तो म्हळ्यार?'

'सांगचेलें म्हळ्यार हॉलांत कदेलाचेर लवंडलो तेन्नाच वामन गेल्लो. थंय बोवाळ नाका म्हणून हांवें कांय म्हळें ना. आतां कळटलें कितें तें.'

'तुमकां इतलें रोखडेंच कळ्ळें?'

'दोतोरांक हें कळूंक वेळ लागना.'

'तुमी दोतोर?'

'हय.'

'तरीकय तुमकां कशें कळ्ळें तो गेलो म्हणून?'

'इतल्या वर्सांचो अणभव. पळयतनाच समजता. वामनाची नदर...'

'नदरे वयल्यान कळटा?'

'हय. सामकी रिती नदर...'

'म्हणजे नेमकें कितें?'

'म्हणजे आत्मो शेणिल्ले वरी नदर.'

'आत्मो?'

'तुका अजापशें दिसलें?'

'तशें न्हय. तुमी दोतोर आसूनय आत्म्याविशीं उलयतात म्हणून...'

'दोतोरय मनीसच न्हय?'

'तुमी दोतोर लावानिसाक वळखतात?'

'हार्ट स्पेशलिस्ट मूं?'

'हय वय. तोच. ताची हांवें मुलाखत घेतिल्ली. ताणें म्हाका सांगलें - आपणें शेंकड्यांनी पेशंटांचीं ऑपरेशनां करून काळजां पळयल्यांत. पूण आत्मो म्हणपा सारकें कांयच आपल्याक भितर दिसूंक ना.'

'जण एकल्याचो भावार्थ तो. जसो देव.'

'तुमचो देवाचेर विश्वास आसा?'

'आसूं तें. हो जागो ह्या गजालींचेर भासाभास करपाचो न्हय.'

'तरीपूण; हांगा मोने कशे रावन वाट पळोवचे परस...'

'तूं वामनाचो सोयरो?'

'न्हय न्हय. हांव प्रशांत देसाय. वार्ताहर. वामनबाबाक तेंकून बशिल्लों. तो जीव खासावीस जाता म्हणूंक लागलो तेन्ना हांवेंच ताका पेपर दिल्लो.'

'तूं ताचो सोयरो न्हय तर?'

'न्हय न्हय! पूण वामनबाबान तोंडांत पेढो घालो तेन्नाच हांवेंय घालो. वामनबाब रोखडोच लवंडलो... पेढ्यांत कांय नाशिल्लें मू?'

'पेढ्यांत कितें आसतलें?'

'वीख बी...?'

'आरे, कितें उलयता तूं? खंयच्यान खंय पावलो. तुमी वार्ताहार अशेंच करतात कितें? वा म्हळ्यार वार्ता करतात?'

दोतोर भायर आयलो. ताका पळोवन दो. विश्वनाथ ताचे म्हऱ्यांत गेलो. दोगय जाण एकामेका कडेन बरोच वेळ उलयताले. वामनाचो पूत सामको गळसणून गेल्लो.

दो. विश्वनाथान ताच्या कानार कितें घडलां तें घालें.

पूता वांगडा आयिल्ले सोयरे धायरे ताका सांबाळपाचो, धीर दिवपाचो यत्न करताले.

प्रशांतय तांचेमदीं भरसलो.

वामनबाब भायर पडला हें. confirm जाल्लें.

पूण अशें सादे रितीन भायर पडप ही खास बातमी जायना. 'दुःखद निधन' ह्या माथाळ्या खाला येवपा सारकी बातमी ती.

मात, लग्नाक गेल्ले कडेन पेढो खावन विखबादा जावन वामनबाब भायर पडलो ही बातमी मातशी इंटरेस्टींग जावं येताली.

'हो असलो पेढो ताका कोणे खावयलो?'

'ज्युस्त ताकाच तो कसो पावयलो?'

'कित्याक खावयलो?'

'पेढ्यांत कसलें वीख आशिल्लें?'

तरेकवार प्रस्न. इनव्हेस्टीगेशनाक भरपूर वाव आशिल्लो आनी दुबावाकय बी.

मनशाक दुस्मानच नासप हें शक्य ना.

बारीक, मोठे पूण दुस्मान हे आसतातच.

देखून पेढो म्हत्वाचो.

निळो शर्ट घाल्लो एकलो म्हऱ्यांतच उबो आशिल्लो. प्रशांतान ताका म्हळें, 'पेढो खालो आनी वामनबाब पडलो.'

'निमणें गोडशें पोटांत गेलें बाबड्याच्या - निळ्या शर्टान म्हळें.

'ना. ना. पोटांत वचचे पयलींच गेलो तो.' प्रशांतान सांगलें.

'आसूं. पेढो खंय गेलो ताका म्हत्व ना. वामनबाब गेलो हें म्हत्वाचें!'

'हय. पूण त्या पेढ्यांत कितेंय नाशिल्लें मूं? वीख बी?' प्रशांतान दुबावाची कीड निळ्या शटाचे तकलेंत घालपाचो यत्न केलो.

'कितें उलयतां रे तूं? पेढ्यांत वीख कशें आसतलें? आशिल्लें जाल्यार लग्नाक पेढे खाल्ले सगलेच मरचे नाशिल्ले?'

'एक पोसिबिलिटी सांगली हांवें...'

निळो शर्ट विचित्र नदरेन प्रशांताक पळयत थंयचो कुशीन सरलो.

पेढ्यांत वीख आसप ही खऱ्यांनीच रिमोट पोसिलिबिटी आशिल्ली. बातमी सनसनाटी करप शक्य नाशिल्लें.

प्रशांत मातसो निर्शेलो.

आपूण जेवंक ना म्हणचेली ताका याद जाली.

परतो वचून लग्नाचो भूस मारपाचें ताणें थारायलें आनी तो हॉस्पिटलांतल्यान भायर सरलो.

×××

लग्ना हॉलांत सदचो बोवाळ चलिल्लो.

वामन गेलो ही गजाल रोखडीच थंय पाविल्ली तरीकय लग्नासुवाळो म्हणटकीर ल्हव आवाजांत ते विशीं लोकांची गुणगूण चलिल्ली. लोकांचीं जेवणां चलिल्लीं.

व्हंकल-न्हवऱ्याक हात दिवन प्रशांत सोमतो जेवंक गेलो.

वामनाच्या भावां भावां मदलें वितुश्ट जगजाहीर आशिल्लें.

वामनाक हॉस्पिटलांत व्हरतकीर फाटल्यान ताचे तीगय भाव आनी तांच्यो बायलो बेगिबेगीन जेवंक धांविल्ल्यो हें कांय जाणांनी पळयिल्लें. जेवंक बशिल्ले कडेन बायलांमदीं ह्योच गजाली चलिल्ल्यो.

'मनीसपण म्हणटा तें नाच कोणाक.'

'एके वटेन भावाक हॉस्पिटलांत व्हेला...'

'दुसरे वटेन हीं गिळूंक गेल्यांत...'

'सामकीं ताकतिकेन...'

'अशा वेळार दुस्मान लेगीत एक जातात. पूण हांचें बाये विचित्रच.'

'एका काळार बरे करून चलताले खंय सगले. पूण आतां एकामेकांचे दुस्मान जाल्यात. देमांद चल्ला खंय तांचो.'

'भाटांबेंसांचे वांटणे वेळार एकामेकांचे गळे लेगीत धरूंक धांवले खंय.'

लागींच बसून जेवपी प्रशांताच्या कानार ह्यो गजाली पडटाल्यो.

म्हणजे वामनबाबाक दुस्मान आसात तर.

पेढो तकलेंतल्यान सामकोच काडून उडोवंक जायना.

घडये...

ती घडणूक कशे तरेन रुचीक करूं येत हाचेर प्रशांत जेवतां, जेवतां चिंतूंक लागलो.

ल्हवू ल्हवू ताचे तकलेंत माथाळो आनी बातमी आकार घेवंक लागली.

'पेढो खावन जाण्टेलो आक्ताक सोंपलो.'

आपल्या माथाळ्याचेर प्रशांत खूश जालो.

'नरो वा कुंजरो वा' ताणें मनांतल्या मनांत म्हळें आनी समाधानाचो धेंकर दिलो.

संपर्क: 8087708050



# दृष्टिकोन

**शीला कोळंबकार**

आमची शेजान्न आनी हांव मार्केटांत गेल्लीं. तिका तांतया घेवपाचीं आसलीं. थंयचीं धवीं फुल्ल तांतयां पळोवन तिणे म्हळें, 'आंवय! असलीं कसलीं हीं तांतयां? इंग्लंडाक मातये कोराची तांतया पळोवन संवय जाल्या न्ही? तेन्ना ही तांतयां कशींशींच दिसलीं.

फक्कत पांच म्हयने सात दीस इंग्लंडांक रावन आयिल्ले आमचे शेजान्नीन म्हळें. म्हाका संताप मारून तिडक आयली. हांवें म्हळें, ''तूं इंग्लंडांक रावन आयली म्हूण कितें इंग्लीश मॅडम जाली? इतलीं वरसां तूं हांगाच आशिल्ली. हींच धवींफुल्ल तांतयां पळोवन आनी खावन तूं ल्हानाची व्हड जाली! तींच तांतयां तुज्यान पळोवं नज जालीं?''

मागीर हांवें तिका एक व्हडलें लेक्चर दिलें. आनी तिका सांगलें आपलो देश तो आपलो देश! कावळ्यान मोराचीं पाखां लायलीं म्हूण तो मोर जायना. तूं इंग्लंडांक वचून आयली म्हूण तूं इंग्लंडची राणी जायना. तूं भारतीय आनी भारतीयूच उरतली.

- ताचेर ती ओग्गी रावली. "सॉरी" म्हणपाचें लेगीत इंग्लीश मॅनर्स तिणें दाखयलेना.

आमची ही शेजान्न! इंग्लंडांक वचून आयिल्ली. गेल्ली स म्हयन्यांखातीर, परतली पांच म्हयन्यांनी. विचारल्यार म्हणटा कशी, थंयची थंडी सोसना जाली म्हूण आमी परतलीं. हांगाचो लोक नातलां पळोवंक, इंग्लंडची थंडी पळोवंक मुद्दम थंडेच्या दिसांनी थंय वतात. आनी ही म्हणटा थंयची थंडी सोसली ना. तिणे अशें म्हळें खरें, पूण तें खरें आशिल्लें अशें म्हाका दिसलें ना. तिचे दोळे कितें वेगळेंच सांगतालें. कितेंतरी जालें आसूंक फाव! ती सांगनासली. नाका सांगूं! वतली खंय? केन्ना ना केन्ना हिच्या तोंडातल्यान खरें कितें तें भायर येतलेंच!

आमची ही शेजान्न आसली शेरवडाचें पान कशी गोरी गोरी पान! दिसूंक आशिल्ली यथातथा! पूण आपल्या गोरसाणीक लागून ती स्वताक सुंदर समजताली. हिका आपले सुंदरकायेचो फाजिल गर्व! दुसऱ्यांच्या रंग, रुपाक नांवा दवरून फिस्स् करून ही हांस. तिच्या ह्या असल्या सभावाक लागून मनशां दुखावतालीं. आमच्या फ्लॅटा कुशीक तिचो फ्लॅट. तेन्ना मनांत नासून लेगीत तिचे कडेन संबंद दवरचे पडटाले.

तिच्या घरकारालो बिझनेस. हिचे कुकिंगचे क्लास. आकांत चलताले. ताका लागून तिच्या घरा आयदनांची ही रास पडटाली. तिका उण्या पयशांत वावराडी जाय आसताली. आयदना नितळ जालीं ना जाल्यार वावराडेकडेन झगडूंक बसताली. खरें म्हळ्यार हिच्या वाऱ्याक कोण उबो रावंक तयार नासतालो.

इंग्लंडाकसान भारतांत येतकीच तिणे लाग मारूंक सुरवात केली. कितली ही हळशीक बाये हांगा! हवा कितली दुषित हांगाची! शी! हांगच्या लोकांक शिस्त ना. तांकां गाडयो चलोवंक कळना. हांगाच्या वातावरणांत दुयेंत जायत म्हूण भंय. आयज म्हजे बराबर ती बाजारांत आयिल्ली.

तिका एकलोच पूत. मुन्ना. शिकूंक हुशार. इंजीनेर. इंग्लंडाक गेलो. थंयच ताच्या ऑफिसात आशिल्ल्या भारतीय चलयेकडेन लग्न जालो. शेजान्नीच्या सपनांचो गोबोर जालो.

मर्दी एक खेप तिचो पुत आनी सुन हांगा येवन रावन गेल्लीं. तेन्ना ही येवन म्हाका सांगताली,

"कितें गे ती सून! मात्तूय आपल्या घोवाक पातयेना. आमचेकडेन उलोवंक लेगीत ताका दिना. कुळारा गेल्यार ताकाय आपल्या बराबर व्हरता. कितें करचें कळना! इंग्लंडांक तो आशिल्लो तेन्ना हिचे असवडीं ऑफिसांतल्यान तरी उलयतालो. आतां तेंवूय ना."

पुत घरा आयिल्लो तेन्ना अशीच.एक दीस दनपरां फणफणत ती आमगेर आयली. आयली तशीच धबांयच करून आमच्या सोफ्यार घालू घेतलें. हांवें म्हळें,

"कितें,जालें?"

"कितें सांगूं? कर्म म्हजें! म्हजो पूत म्हणटा ताची बायल बरेंऽ चिकन रांदता. चपात्योय बऱ्योऽ करता. तुजे परस म्हणटा. म्हजे परस ती बरी रांदता. आतां पळे, हांव कुकिंग क्लास घेता. हांव कितलें बरें रांदता तुकां खबर आसा! हो म्हजो पुत! म्हज्या हातचें जेवन ल्हानाचो व्हड जालो. आतां म्हणटा ताची बायल बरी रांदता म्हूण! तें आयकून म्हजी सुनूयबी विजयी मुद्रेन किचनांत गेल्या."

"तूं पिशी? तूंच म्हणटाली न्हय गे सुन पुताक एकलो तुमचे म्हन्यांत सोडीना म्हूण! ताका तुजेकडेन उलोवपाचे आसा दिसता. म्हण ताणे आपले बायलेक किचनांत धांवडायल्या आसतली."

"हय न्ही! म्हजे तकलेंतूच हें कशें आयले ना?" तिणे म्हळें. फटक् करून ती उठली. तुरतुरीत घरा गेली.

...हिचे तकलेंत कशें येतलें? हिका तकली आसल्यार न्ही! ती बाराच्या कडार आमचेर आयिल्ली. तिणे जे तरेन सोफार घालू घेतिल्लें, तेन्नाच म्हाका कळ्ळें हिचें कितेंतरी जालां! आतां कितें विचारप म्हळ्यार ही रडपाक सुरवात करपाची. आपूण कशी दुःखी आनी बाकीचीं कशीं सुखी हो राग आळयत रडपाची. दनपारच्या पारार! पनवतशी.

पुत इंग्लंडांक वतकीच ती आमगेर आयली. म्हणूंक लागली, "ते दीस तुवें सांगिल्लें तें खरें! मुन्नाक म्हजेकडेन उलोवपाचें आसलें. तो म्हणटा, तुमी दोगांय हांगा रावतात. म्हाका तुमचो दोगांयचो हुस्को दिसता. तेन्ना तुमी हांगाचे सगळें विकून इंग्लंडांक येवन रावात. थंय आमी व्हड घर घेवन रावया. घरकार म्हणटा, इंग्लंडांक वचून रावची कांयच गरज ना. म्हाका दिसता पुत आपयता जाल्यार वच्चें. कितें करु कांय येवजना. तुका कितें दिसता?

हांवें म्हळें, हांगच्यान जे जाण्टेले फॉरेनाक वतात, तांकां थंयचें वातावरण थोडचा दिसांखातीर बरें दिसता. मागीर तांकां थंय वाज येता. तुमी अशें करात. स म्हयने पयलीं थंय रावन येयात. पळेयात तुमकां कशें कितें जमता तें! मागीरूच हांगचें सगळें सोडून थंय वच्चें काय ना ताचेर विचार करात.

तिका तें पटले. तिणें तशें घोवाक सांगलें. ताकाय तें पटलें. तीं दोगांय इंग्लंडांक गेली. पांच म्हयन्यानी परतली.

येतकीच हांवें तिका विचारलें, "कशें लागलें इंग्लंड? मानवलें ना दिसता! रोकडीच परतीशी?"

"इंग्लंड बरें आसा! पूण थंयची थंडी सोसली ना. थंय उलोवाक चड लोक ना. सगळे आपलेच भीतरुचशे? तांचे कडेन तांचें इंग्लीश कोणाक गे बाये उलोवंक येता? दिसलें आमचोच देश बरो! पांच स म्हयने थंय येवन वचून रावंक बरें आसा. सदां खातीर थंय रावप बरोबर न्हय!"

मागीर ल्हवूच तिणे सुनेली न‍ादाद सांगली. हांवें म्हळें, "सून बाळंत जायसर तुवें थंय रावपाचें न्हय?"

अशें कशें म्हणटा तूं? तिची ही पयलीच खेप! माय परस तिचे आवयन थंय वचून रावप बरें न्ही? तिची आवय थंय वचपाची आसा. थंय बाळंत जातकीच जाल्ल्या भुरग्याक थंयची सिटीझनशीप मेळटली न्हय?"

- निमाणी तिची सून इंग्लंडाक बाळंत जाली. तिणे बिल्डींगभर मिठाय वाटली. निमणी ती आमगेर आयली. हांवें म्हळें, "कॉंग्रेटस्! तूं आजी जाली."

हांवें अशें म्हळां मात्, ती घसघसून रडुंकूच लागली. हांवें तिका विचारलें, "तूं रडटा कित्याक? कितें जालें?"

"तिगेर चली जाली."

"म्हूण कितें जालें? आतां चलो, चली

असो फरक कोण करता? जगलोक म्हणटात, बाबु जावं बाय जावं! बरे भशेन भुरगें जल्माक आयलें कांय जालें. चली जाली म्हूण तुका वायट दिसलें?...''

- तिणे मान हालयली.

''आतां चलयो खंय खंय पावल्यो? त्यो खंयच आनी कित्यातूच फाटीं ना. चली जाल्यार वयल्यान बरी. ती मायके बरी आसता. हांगा म्हाका सट्ट करून हालेंच कोणेतरी वॉटस्एपचेर धाडिल्ली, चलयेचें व्हडपण सांगपी एक काणी येवजली. तीं हांवें तिका सांगलीं.

एका घरांत नवेंच लग्न जाल्लें जोडपें रावतालें. दोगांय नोकरी करताली. एक दीस सुटये दिसा ताणी थारायले, घरांतूच रावन आगळी वेगळी प्रायव्हसी घेवची. कोणूय येवं, दार उगडप ना. जुस्त दारावयली बेल वाजली. ताणी बुराकांतल्यान पळेलें, ते त्या न्हवऱ्याचे आवयबापूय आशिल्लें. थारायल्ल्या प्रमाण ताणी तांकां दार उगडलें ना. ती परतून गेलीं.

सांजेर परतून बेल वाजली. पळेत जाल्यार बायलेचे आवय बापूय आशिल्ले. बायलेन दोळे भरले. काकुळटेक येवन तिणे घोवाक म्हळें, म्हज्यान मातूय रावं नज! हांव दार उगडटां. तिणें दार उगडलें.

कालांतरान तांगेर दोन चले जाले. मागीर एक चली जाली. चली जातकीच मनशान व्हड पार्टी दिली. पार्टी जातकीच बायलेन घोवाक विचारलें, ''तुगेर दोन चले जाले तेन्ना तुवें पार्टी दिली ना. आतां चली जातकीच तुवें इतली व्हड पार्टी कशी कितें दिली? तेन्ना ताणें सांगलें, ''खंयच्याय वेळार दारार मारल्यार चली दार उगडटली न्ही, म्हूण!'' धुवो अशो आसतात. कळ्ळें?

- तें आयकून ती आनिकूय रडूंक लागली. हांवें म्हळें, ''इतलें सगळें आयकून, तूं रडटा कित्याक?''

''- तेच खातीर! म्हजी सून जिखली. हांव हारली. म्हज्या पुतान आमचे खातीर आशिल्लें दार बंद केलें. पूण सुनेक तिची चली दार उगडटली न्ही?''

संपर्क: 9819315307

---

# खण्ड

## गजानन जोग

दीस उजवाडपाक जानकीबाय जागी जाल्ली तेन्ना उठपाचें तिच्या जिवार आयलें आनी ती दोळे धांपून पडून रावली. नवरात्रां सामकीं तेंकलेलीं आनी हवेंतल्या उबाळान जीव नाकापुरो जातालो. आयज सदचे भशेन हजार विवंचना तकलेंत आयल्यो नात, एकूच जी केसूदादाक फाटल्या आठ दिसां सावन सतायताली ती तिचेय तकलेंत घोळपाक लागली.

पन्नासेक वर्सांच्या संसारान आतां तिका ज्युस्ताज्युस्त केसूदादाक फाव सारकी अर्धांगिनी केल्ली. केशवबाबाची दुसरेपणाची बायल जावन पंदरा वर्सांचे पिरायेर जेन्ना ती ह्या रानगांवांत आयली तेन्ना राती कडेन गरड घालपी वागाचे यादीनूच तिका कांपरें भरतालें. ती ह्या चार घरांचे नांवा पुरते वाडयेर तिगली ती फकत तिचे सासुमांयन-भागीरथीआकान केल्ल्या पोटच्या धुवेसारख्या प्रेमान. भागिरथीआकाची सगली आवतिकाय लक्षांत येतरीत तिका तिच्या दादाच्या उद्गारांची याद येताली. घरभरोणी घेवन वचपी पांच बैलांगाडयो सुटपा वेळार ती ताच्या गळ्यांत पडून रडिल्ली तेन्ना ताणे सांगिल्लें,

'दुगू, आइक, प्रत्यक्ष म्हादेवच तुज्या पाठीमागे उभा आहे हें तूं कधींच विसरायचें नाय हां. मी आहेच, पण त्याच्यावर विश्वास ठेव अणि दिवसाला फुडा करीत चल.'

मागीर वर्सां फाटल्यान वर्सां गेलीं, दादा गेलो पूण ताचीं तीं उतरां मर्दी मर्दी मनांत उदेवन पालसणांतल्या थंड वाऱ्या सारकीं थंडाय दीयत रावलीं.

दादान त्या त्या वेळार दिल्लो धीर आनी काकीच्या अखंड आधारार जानकीबायन संसार तोलून व्हेलो. तांच्यो बारीक बारीक गजाली लेगीत आतां तिका समजताल्यो. ते उलयनासले पूण तांकां कसली विवंचना आसली हेंय तिच्या आतां लक्षांत येतालें.

मुळांतूच एके शिरेचो अशी केसूदादाची नामना. तिडक नाकाच्या शेंड्यार. कसले कसले धंदे तो करतालो. एका काळार बारा बारा बैलांच्या,रेड्यांच्या गाडयांनी म्हाल भरून घेवन तो अनमोडची सरी चडोन घांटार व्हरतालो.येतना परतो दुसरो म्हाल भरून हाडटालो आनी व्हरून सांवड्या, फोण्यां घालतालो.

केसूदाद आठाठ दीस घरा नासतालो. पूण ती आनी काकी दोगी भयणी सारक्योच आसल्यो. संसारांत घरांतल्या विवंचनांचें कुस्कूट लेगीत केसूदादाक लागनासलें म्हळ्यार जाता, घरांत सामान हाडून घालपाचें काम मात ताचें. सगल्या भुरग्यांचें करतां करतां दोगीय मेळून घरांतलो भुसारी मांड लेगीत सांबाळटाल्यो. घरांत तांदूळ, साकरेचे बस्त्याचे बस्ते आसताले. गोडाच्यो धेंपी आनी पेत्रोलाचे दबे हारीन मांडून दवरलेले आसताले. गांवठी तोर,तोरदाळ,मूग,अश्या कड्डणांच्यो काशीचे काशी भल्लेल्यो आसताल्यो. मर्दी तांदूळ मेळना जालो, शेंनाचेर वितरावणी जावपाक लागली तेन्ना बऱ्या बऱ्या घरांनी सुद्धां लोक बारीक तांदळांक पातिशेर जाले. अशा वेळार केसूदादाले कोठयेंत बेळगांव सायडीचो चारपांच सांक वासाळ आंबेमोहोर तांदूळ आसलो.

केसूदादाची फाम आयकल्लो मनीस जेन्ना ताका पयलेच पावट पळयतालो तेन्ना गोंदळांत पडटालो. केसूदाद मनीस मोटवो, पूण आंगापांगान घट्ट बांदिल्ली तट्टीत मुडी कसो. फुडल्यान खरडाक सुरवात जाल्ल्यान आदींच व्हडलें कपल आनिकूच मोटें दिसतालें. पिकलेल्या मोट्ट्या जांबळां सारके दोळे आनी नदरेंतलो धेंक खणखणीत आवाजांतली वागासारकी गरड आनी निर्वशाच्या दोंगरा परस

उंच असो आत्मविश्वास केसूदादाल्या भोवतणच्या आनी ताच्या गांवांतल्या सवूय वाड्यांनी लोकांक संवकळीचो आसलो. १९०० सालाचे फाटीं फुडें जल्मल्लो केसूदाद आतां साठी हुपून जाण्टेपणांत पावलां घालतालो तेन्नाच गोंय स्वतंत्र जालें आनी स्वातंत्र्याक लागून धंद्यांत जाल्ल्या अकस्मात घडामोडींक लागून तो इल्लो गोंदळून गेल्लो आनी ताका लागून हालींच्या दिसांनी तो बेजारिल्लोच आसतालो. फाटलें फुडलें पळय नासतना सट करून उतरां ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरतालीं आनी केन्ना केन्ना तो आपुणूच आपणाचेर बेजारतालो आनी तकलेर मुठी मारून घेवपाक लागतालो. अशा वेळार तिका मर्दी पडप कश्शेंच सुटनासलें. ताका लागून तांच्या तोंडार एक नदर मारल्यार तिका तांच्या मनाचो, सादरणसो अदमास लागतालो. तांचें आयज वर्तमान कशें कितें आसा तें तिका इल्लें कळटालें.

तशें तें सगूणाकूय कळटालें. सगूणाच्या उतरांची तिका याद जाली आनी ती आपले भितर हांसली. कितलींशींच वर्सां वाडयेंतल्या चार घरां भिलर कोणागेर ना जाल्या कोणागेर काम करपी ते दोग भाव सगूण आनी करेश्ण. ती जोडी दिसली ना जाल्यार वाडयेंतल्या लोकांच कितेंतरी चुकिल्ले भशेन जातालें.

केसूदादाचें सगुणा कडेन केन्ना केन्ना तोंड वाजतालें. तशी सगूणाचीय गांवांत वळख आरत्याक परतें दिवपी अशीच आसली. केन्ना केन्ना सगूणाच्या उतरांचो केसूदादाक राग येतालो, मागीर थोडे दीस ते उलयनासले. तेन्ना दिसावडो दिवपाचें शेनवारचें काम तिका पडटालें. अशेंच एक पावट त्या दोगांचें वंय करपा वयल्यान कितें तरी जाल्लें आनी तेन्ना सगुणान नेटान काकाक सांगिल्लें,

'काका, हेरशीं कितेंय आसूं, वंय कशी करपाची तें हांव तुजे कडल्यान शिकपाक हांगा येंवक ना!'

तें आयकून काका कुळागरांतल्यान सणसणत घरा आयिल्लो आनी आयच्यान परतें त्या पाडग्या सगुणाचें तोंड पळोंवचो ना अशें ताणे जानकीबायक सांगिल्लें. त्या दिसा सांजची च्याचो तांबयो घेवन जानकीबाय सोता कुळागरांत ते वंय करताले थंय च्या दिवपाक गेली. सगुण फाटीं वादळांत आडव्या पडिल्ल्या माडाच्या मुळाचेर उबे धरून खुंटांक तोंकां काडटालो. तेन्ना तिका च्या घेवन आयल्या ती पळोवन अजाप जालो,

'काकी, हें गे कितें, कोणूच गावलो ना तुका च्या धाडपाक' हातांतलो तोंक काडलेलो खूंट उजवे वटेनचे राशीर आडवो सोडून तो उठलो कोयती आंकडेक लायतना तिणे म्हणलें, 'आगे म्हाका एक कुकारो घातल्यार हांव येतासलों मगे वयर.'

'आरे, तेन्नाधर च्या न्हिवपाची मरे, करेश्ण खंय तर?' तिणें विचारलें

'तो गेला वाली हाडपाक. वंय बांदपा खातीर वाली हाडूंक. आळशी गे तो! तेका काल तिनसना वयतना हांये सांगलेलें, करेश्णा, फाल्यां आमकां वाली लागतल्यो, आतांच मात्सो रानांत बयर त्या हुड्या वटेन चल आनी वालींचीं दोन मोटीं बंडलां हाड. जाल्यार म्हणटा, तें फाल्यां पळोवया. आतां बग मगे, वचपाक अर्दवर, येवपाक अर्दवर आनी वाली काडपाक एक वर!'

'सोड, शेनत काड आनी तूं तरी घे च्या. तिडक आनी च्या हुनारहून आर्दी पोटांत घालची म्हणटात मरे.'

च्याचे दोन घोंट मारून हांसत ताणे काकी कडेन पळयलें.

'आहा जिवाक बरें दिसलें...' सुर्र करून शेनवताच्या दोण्यांतल्यान च्या भितर ओडीत सगुणान म्हटलें आनी हांसलो.

'किते रे? हांसताय सो?'

'नागे, तुयें जें सांगलें पळय, तें काकाकय मात्शें सांग मगे काकी. आतां कितें तो भुरगो गे चांटेपावलाक फुरफुरपाक.?'

'बरें जालें याद जाली, आरे तुमचें कितें जालें रे पयर? बडबडत वयर येयले पूण विचारल्यार सांगता ती तुजी गजाल न्हू.'

'आगे, काकी,पळय हां, खोऱ्या कुदळीचें काम करून, खूंट काडून वंयो बांदून काळ्याचे धवे जाले आमचे, खरें मगे?'

'हय तर, आरे, हीं थिकाणभाटां कोणाच्या जिवार रे, तुमच्याच हातांनी पुरल्यात मरे ह्यो कवाथ्यो केळंबे मिरवेली आनी पानवेली मरे.'

'अशें न्हू! आं, खरें मगे? ते दीस काकान म्हाका तापयलो. म्हणटा तेवटेन तेच्या कुळागरांत कसलेंच सामान दवरूं नाका. भाव जालो जाल्यार कितें जालें, रोखडोच फोंस करून सोरोप कसो आंगार येतलो खंय तो. तूंच सांग गे काकी, आमी काकाच्या भावाक भिकेकाकाक वळखनात गे?, चार कांबी तेच्या कुळागरांत दवल्ल्यो तर काय तेची जमीन झरतली काय तिका बुराक पडटले?'

त्या शेनवारा पयशे दितना काकीन सांगलें,

'बाबा सगूणा, करेश्णा, तुमी म्हाज्यान व्हड, पूण सांगतां, काकाचें मनार घेंवं नाकात. तिक्क्यापुरतें ते उलयतात पूण मागीर आपणाकूच बेजार जातात ते. तें हिंडियन काय कितें तें जाल्या दिसाच्यान हेंची तकली जाग्यार ना.'

'हय गे हय गे, काकी, खबर आसा म्हाका. पूण जालेंय जाल्यार काका म्हणचे कितें गे, चन्द्राच्यो कळो तरी फाटीं मगे. त्यो बदलतात पूण इल्ल्यो इल्ल्यो बदलतात मगे! काकाच्यो कळो चन्द्राच्याय फुडें !!'

काकी हांसली. तेंकां दिसावड्याचे पयशे आनी दोन दोन नाल्ल आनी तोवसळेची एकेक पुडी बांदून दिवन तिणे तेंकां धाडले.

सगुणान ते दीस हांच्या सभावाक चंद्राच्या कळांची ओपार दिल्ली हे गजालीचें तिका अजाप दिसलें.

'आज काय? एकादशी?'

काकान कुडींत येवन विचारलें. जानकीबाय बेगीबेगीन उठून तोंड धुवपाक गेली. सडसडीत रानचेकुडींत येवन तिणे च्याच्या भगुण्यांतलें उदक इल्लें उणे केलें आनी तातूंत साकर घाली. चुलींत उजो करून वायलार च्याचें भगुणे आनी चुलीर व्हडलो तोप भर उदक तापत दवरपाचें काम काका करतालो. दिसाभराच्या कामांतलें हें घरांतलें एकूच काम. कितेंय आसूं, च्या करपाक पेटलेली चूल तयार आसप ही गजाल काकीकूय आतां संवकळीची जाल्ली.

कडक च्याचो एक घोंट मारून काकान म्हणलें,

'दिवसान दिवस कठीण होणार सगळें. मागे हिंडीयन झालें तेवां आमचें राज येयलें, तांदूळ सवाय जाले म्हणत हे लोक नाचत होते.आतां ते पेत्रोल म्हारग म्हणून, फॉरेन वस्तू फॉरेन सवाय सोरा मिळतनाय म्हणून

बेजारतात. स्वातंत्र्य आलें म्हणजे आतां आमचेंच राज्य असें त्यांस दिसतें. धड दोन वर्सां झालीं नायत, पण आतांच हे लोक शब्दास प्रतिशब्द द्यायस लागले. रेजिदोराची, सोलदादाची अणि काबाचीय त्यांस आतां तितकीशी भिती दिसत ना. हे लोक आमास नाचिवणारसें दिसतें.'

'तें काय चालूच झालेंय न्हवे, गांवावर आलें तर काय घर सुटणार? सद्या कसली चिंता तुमास? खंड घालायस दोंगरगाळींतले भागेली अजून आले नाय ती म?'

तिणे इल्लेंशेंच हांसपाचो येत्न केलो, चड हांसल्यार सांगूं नजो, हांची कपला वयली शीर उठपाची.

'मोग काय तर, अगो, खबर काडली मी. गाळ लुंवून झाल्या उपरांत आठ दिवस गेले. अजून खंडाचे भात घेऊन भागेली आले नाहीत. ह्यास काय म्हणायचें?' ती वगीच रावली. काकाच फुडें उलोवपाक लागलो.

'यंदा हें अणि काय नवें समजत नाय. बीं दिल्यांय, साऱ्यास पयसे दिल्याय, मोडलेला आडा काडून दिलाय अणि वरून मोलूस अणि तेंडलूस पांपांचशें उसणेय दिल्यायत परवां चवथीकडे.'

'अणि त्या तुमच्या नांवाच्यास दिले होते म्हातारे आवंयस वखद करतो म्हणून मागे मिरगावर आला होता तेव्हा, ते कितके?'

'अगो, होय मगो, ते अकराशें. ल्हियलेले असणार ते म्हणा. आतां बघ, हे पयसे कसे फारीक व्हायचे? त्या शिवाय मध्येंच दादो कुडोवभर भात दी म्हणून सांगत साक सुद्धां घेवून येतनाय ते वेगळेच.'

'कुडवभर भात गरजेस न्हेतात त्यांचे सोडा हो. सामके गरीब, जमिनीचा भोंकभरय तुकडा ताब्यांत नसलेले ते. तांचे पोट हातावर. दिसावडा मिळ्ळा तर पोरांच्या पोटांत पडणार.. त्या कुडव दोन कुडव भाताचें सोडा तुमी, देवान तुमास बोरें दिलेय.

'तरीपण, हिशोबास धरायस नको तें? निमाणे वर्सअखेरीस मिरगावर हिशोब मांडटना बुडीत खात्यांत कितके गेले ते मज कळायसच हवे. शेतकारास वाख्यांनी कितकें धान्य खाल्लें त्याचा हिशोब मिळायस नको? उंदरांनी कोठीच्या कुर्डीतले कितकें धान्य खाल्लें कळायस नको?. जग हिशोबावर अणि हिशोबी लोकांवर चालतें गो बाये.'

तिका तशें हिशोबांतलें व्हडलेंशें कांयच कळनासलें पूण तो सांगता तांतूत सत्य आसा हें तिका कळटालें. कश्याय कशे खर्च करपी लोकांचे संवसार तिका खबर आसले आनी त्या कारणान थोडे भिकेक लागिल्ल्याचेंय तिका खबर आसलें.

'पण मी आइकलें आहे तें वेगळेंच.'

'काय तें, लोक काय काय बोलतात, मीय आइकलें आहे तें. काल त्यांच्याच वाड्या वरचें गंगा आलें होते. गाळी रोवप आतां परवडत नाही म्हणून सांगत होतें.'

'काय नाय, आतां दिवसानदिवस खणीवर कामां वाडतच आहेत, ट्रक,शेवाळीं, ड्रीलमिशिना, धडीवाले, लोडिंगकार, मानाय कांबेरी, सगळ्यांची गरज आहे आज मिनेरांस. स्वतंत्र झाल्यावर ताबडतोब फक्त कर्नाटक केरळांतून लोक आले होते, आतां म्हाराष्ट्रच न्हवे, कुठून कुठून लोक येतात. गांवांत आदी एक गवळ होता मळ्यांत आतां गवळ झाले आहेत पांच अणि खणी झाल्या आहेत गांवांत सात. शेतांभातां आतां कशीं परवडणार त्यांस. खणी आपल्या बऱ्या. सुमानाच्या सुमनास हातांत करकरीत नोटी. काश्ट्या गेल्या आतां, कालसांवां आलीं, कालसांवांच्या बोल्सांनी नोटी ठेवतात, काश्टेस बांदायस त्यांस लाज दिसते म्हणे. 'बानयेना आलीं, बरीं बरीं मोदीमोदीचीं खोमसां आलीं. आतां तर म्हणे तयार खोमसां तिकडे सांवड्ड्या वाटेन विकती मिळटात. कुठून कुठून लोक सांवड्ड्यास येतात अणि रविवारीं सकाळीं रस्त्याच्या दोनाय वाटांनी नाटका काल्यास जसे मांड पडावे तसे ते म्हाल मांडून रस्त्याच्या कुशीस बसतात. सवाय काड सवाय काड आड्डुत असतात, परवांच मी बघितलें तें. सोड, सद्या खंडाचें काय होतें कांहीच कळत नाय.'

'आतां तुमी ती खंडाची चिंता सोडा अणि अशी एक तिस्कावर पासय मारून या. मिळ्ळी झाल्यावर वेलची इवली आणा. घरांतली सगळी सोंपली आहे आज पासून नवरात्र सुरू. खबर आहे म? भागेली येतील हो, येतील! सर्वपित्री अमास काल झाली. आज उद्यां येणार ते, मी सांगत्यें तुमास.'

थोड्या वेळान खुटयाळ्या वयलें खोमीस आंगार लकोवन आनी पयशांचे पोतयेंतले थोडे पयशे घेवन तो भायर सरलो तेन्ना तिका बरें दिसलें. बाजारांत चार लोक मेळटले आनी तांचे तकलेंतलें तें खंडाचें वतलें अशें तिका दिशिल्लें.

******

केसूदादाचो तोय दीस भाताच्यो पोटल्यो पळयनासतना गेलो.रातीं तो कितलोच वेळ हाथरुणार कुशी बदलीत जागो आसलो. ती कांय उलयनासली. एक उतर आगळें उणे लागल्यार तांची तकली सणसणपाक वेळ लागना, तिका खबर आसलें.

दुसरे दिसा सकाळीं आठांक सुमार गंगा येयलें आनी ताणे ती खबर हाडली. येतनाच तें साद घालीत येतालें.

काकी, ए काकी, खबर हाडल्या मगे, आयक तरी

कसली गो खबर, कितें जालें. खणीर काम करपा निमतान हालीं कितलेशेच लोक तांच्याय गांवांत कोणागेर लांकडांचे खोंपींत ना जाल्यार पागेलांत रावताले आनी तांच्यो एकेक आगळिको गंगा घेवन येतालें.

'आयज कोणे कोणाचो हात धरलो गो?'

'काका खंय गे, बरी खबर आसा, आयज दोंपारा खंड घेवन येतले ते अशें आयकलां.'

'खरें गो? अहो, आइकलें तुमी?' फुडले पडवे वटेन पळयत तिणें व्हडल्यान विचारलें

'आगे, काका खंय आसा घरांत, आत्तां हांव येतना तो गेला. मदल्या वाड्यार गेला दिसता.'

'अशें, सांगूंक ना मगो म्हाका, हालींसराक अशेंच करतात ते.'

'जांव गे काकी, दादल्यांचें तशेंच आसता.'

'तूं आनी गंगा, दादल्यांनी कितेंय केल्यार जाता काय कितें.'

'आनी कितें करतलीं आमी, म्हणणी आसा, पावसान भिजयलें खंयः'

'पुरो पुरो, आतां तें सोडपाक जाय, आतां आमी स्वतंत्र जाल्यांत.'

'हय मगे, आतां बेळगांव वचपाक बशी सुरू जाल्यात खंय, आदीं कामीनांव आसताले पळय, तश्यो खंय. बेळगांवा वचपाक पांच रुपय खंय.'

ट्रकार फार्टी बसोन गेल्यार दोन रुपया खंय. पयर तो वयल्या वाड्या वयलो तेलको गेल्लो मगो.तो सांगतालो.'

दनपार जायत आयली. शाळेचे चारूय भुरगे आनी पोटल्यो घेवन भागेली एकाच वेळार वयल्या रस्त्या वयल्यान आंगणांत देंवले. भुरग्यांक पियेवपाक ताक बी दिवपाचें काम जानकीबाय करताली तेन्ना काकी ताकाची सादारणशी बरणी आनी चुलींत बावयल्ले केळीच्या पानाचे फाळके घेवन भायर खळ्यांत पावली.

'येयात रे सगले, ताकाचे दोन घोंट मारात, घामाघूम जावन येयल्यात तुमी.'

काकीन तांकां सांगले. कांय जण पाटार वचून तोंडार थंड उदक मारून उदक घोटून आयिल्ले तांणी ताक घेंवंक ना. काकीक खबर आसली, ताकाची संवय आसलेलेचे ताक पियेतले. तुपाशान खोलो घेवपाक पयलीं हात फुडें केलो आनी मागीर येसो फुडें सरलो. तुपासो काकागेर थोडे दीस राविल्लो ताका लागून ताका ताकाची संवय लागिल्ली आनी येसो हो खडेगांठ पाडपी, चडेली जाल्ल्यान तो थिकाण भाटकारांच्या घरांनी आत्र्यापयऱ्यान आसतालोच...

काका घरा पावलो तेन्ना ते धा-बारा जण पोटल्यांक तेंकून बसलेले. कोण विडी ओडटाले, कोण ओंदूं कितले आंणे पिकले,पाटणी बरी काय दामगो बरो असल्यो खबरी करताले, जाल्यार परेसरामाक आनी चड करून हर्जुणाक बेगीन खणीर वचपाची गडबड आसल्यान काका खंय तर? काका खंय तर? अशें म्हणत परते परते बसपाची सुवात बदलताले.. तुमचो परेसराम आनी सोनूचो हर्जून आंगणाचे पेळेलागींच्या बांकार बसोन सामके बारीक आवाजांत फुतफुतताले. सोनून आपणाल्या पुताक- हर्जुनाक थंय बसों नाका अशें दोन तीन पावट खुणो करून सांगलें पूण पुतान ताचे कडेन लक्षूच दिवंक ना. दाव्या हाताक बांदलेल्या फॉरेनाचे चकचकीत घडयाळी कडेन तो परतो परतो पळयतालो मागीर तिडकीन बापाय कडेन पळयतालो. दनपारची गरमी वाडत वताली तशी तशी आंगणांतली फुतफुतूय वाडपाक लागलेली.

'दादो येयलो दादो येयलो.' केसूदादाक येतना पळोवन कोणेतरी म्हणलें. आंगणांत जोतें काडून दादा पडवेर भितर सरलो आनी खोमीस काडून खोमसानूच वारो घेवपाक लागलो. म्हणसर काकी उदकाचो तांबयो आनी पितुळच्या पेल्यांत एक गोडाचो खडो घेवन आयली. गोडाचो खडो दांतांपोंदा चाबून तांबयो उखलून वयल्यान दादोन उदक पियेवपाक सुरवात केली ती बद्द तो व्हडलो तांबयो सोंप मेरेन.

'सोनू, बारकेल्या, चला करूया मरे सुरवात, म्हाका मात्शें उर्जेत मदल्या वाड्यार वचचें पडलें, थंय घुस्पलों हांव.'

'आमी हांगा केन्नाधर बसोन रावल्यात जाल्यार तुजो पत्तोच ना.' हर्जुनान घडयाळी कडेन पळयत म्हणलें.

थंय नदरेन केसूदादान हर्जुना कडेन, परेसरामा कडेन पळयलें आनी काकीन दिल्ली पायली घेवन भात मेजपाक फुडें सरलेल्या बारकेल्याक ताणे सांगलें.

'आरे, कितें जालें, मदल्या वाड्या वयल्या झरमेकारान दोन कन्नड मनशांक भाड्याक दवरल्यात. सोरो पियोन ते रातीं झगडले आनी एकमेकांच्यो तकल्यो फोडल्यो. त्याच वाड्या वयलो पिरू गांवकान्नीचो धर्मा पुलिसेंत लागला खबर आसा मू तुमकां? तेणे सगल्यांक पोस्तार व्हेले आनी भितर घाले. हांवें सध्या कशेतरी सोडयल्यात. आतां पंचनामो म्हणोन करतात. तें आदलें सगलें गेलें. कितलो त्रास पडलो सांगूं तुमकां तेंका सोडोवपाक.धर्माक लागूनूच पूण सुटलेय ते हां. तेणेय जापसालकी घेतल्या तेंची.'

'दादो, तुयेंच लायला खंय म्हणटात मरे तेका.' सोनून मर्दी तोंड घालें, आमच्या राजेशाकूय खंयतरी दसयशीत जाल्यार तुजे पांय धुवोन तीर्त घेयन हांव. चेडो शाप किरपीण जाला, धड जेविना खायना.

'मडगांवां काम करतालो तेन्ना काय बरो मोजेबिजे घालून देसेंताद भोंवतालो मरे तो सोनूआपो?' परेसरामान मर्दी तोंड घालें. तेन्ना दादोन खूण करून तेका वगी रावपाक सांगलें.

' 'खंय वोतूं भात हांगा मदी वोतूं मू.?'

'बारकेल्या, तूं कितें पयलेच पावट मेजताय भात दादोन विचारलें, तेन्ना बारकेलो हांसलो आनी तेणे पोटली सोडोवपाक हात घालो. सोनू मेजलेलें भात साकांनी भरपाचे तयारेन कोनशाक दवरले रिकामी साक घेवन आयलो. तेन्नाच व्हडल्यान गरड घाल्ले भशेन हर्जुनान आड्डपाक सुरवात केली.

'एय बारकेल्या काका, हात लांवचो ना तूं पायलेक. ना आमी घालचे खंड.'

'हर्जुना, बाबा, तुजेर कोण म्हारू बसलो रे?'

सोनून आपल्या पुता कडेन पळयत रडवें तोंड करून म्हणलें. दादोले पडवेर, सगल्यां मुखार ताच्या चेड्यान अशे तरेन तिडकप आनी खंड घालिना म्हणप सामकें गैरशें ताका दिसलें.

'म्हाजेर म्हारू बसोंक ना, तुमचेरूच वर्साचीं वर्सां वागरें पडलां आनी तें देंवपाचें ना. आनी खंड घालचोय जाल्यार कसो घालचो आमी? खंयच्यान घालचो? पावसाचें धड ना, सावदां कितलें भात सोंपयतात तेचें कोंत आनी इशोब ना. हांव सपस्टूच विचारतां आमी कितें खणीर काम करून भात विकतें घेवन घालचेलो खंड?'

वातावरण किण्णशें जालें. थोडो वेळ कोणूच उलोवंक ना.बारकेल्यान एक पोटली वोतली आनी आतां पायली सोनून हातांत घेतली आनी ती सुयेन भरून दाव्या बचक्याचो शेव पायलेक लावन कुशीक वोतली आनी मेजपाक सुरवात केली.

'लाभऽऽ लाभ लाभ ऽऽ लाभ' पायली परती भरतना तो म्हणपाक लागलो. ते बराबर हर्जुन आनी परेसराम सट करून उठले. हर्जुनान नेटान म्हणलें,

'तर्शें जाल्यार आमी चल्ले तर, पळोवया कितें जाता तें.'

'एय अर्जुन, आवाज मोटो काडपाची गरज ना. कोणाल्या दारांत उबो आसा तें आदीं पळय. आनी तुमी रे, हें कितें चल्लां तें तुमकां मानलें मरे ? तुमी थरोवन येयल्यात मरे सगलें?'

'दोनऽऽ अ दोन दोन ऽऽ अं दोन' सोनून दुसरी पायली ओतली.

'सोनू, बंद कर मेजपाचें. भरा रे तें सगलें भात परतें साकांत.' काकाचो आवाज आतां हर्जुना परसूय मोटो जालो.

आतां परतीय खळ्यांत आनी पडवेर शांतताय पसरली.

'अर्जुन, परेसराम आनी तुमी सगले. हांव सांगतां तें आयकात. तुमी खणीर काम करून विकतें भात घेवन दादोक खंड घालपा इतली परिस्तिती दादोची येवंक ना आनी येयलीय जाल्यार तो तुमच्या दारार शेंट येंवचोना. उखला आपापल्यो पोटल्यो आनी धरा तुमच्या घराचो मारग. तुमच्या तोंडांतलो घांस काडून खावपा इतलो पातिशेर जालों ना हांव. आनी मुड्डारूय जांवना. हां. आनीक एक गजाल आयकात. फुडल्या वर्सा पेरपाचें म्हणशात जाल्यार विसरा तें. ह्यानफुडे तुमचे भितरलो एकलोय भागेली गाळींत पांय दवरचो ना. चला, देव बरी बुद्द दीवं तुमकां.'अशें म्हणत दादो उठून न्हावपाक पाटार गेलो.

हर्जुन-परेसराम सोडून सगले जाण्टेले खळ्याचे भायर वचोन कोंडाळें करून उलोवपाक लागले. तो मेरेन काका न्हावन धुवन पुजा करपाक लागलो. घांटीचो किणीकिणी आवाज आनी मोट्यान म्हणलेले मंत्र भायर मेरेन आयकुपाक येवपाक लागले.. काकीन खळ्यांत येवन तुळशीची पुजा केली आनी तांबडें फूल उंच हात करून सूर्या कडेन पळयत वयर उडयलें आनी प्रदक्षिणा काडपाक लागली.

'काकी, काकी, तूंच आतां आमकां सोडय हेतुंतल्यान. दादोची तिडक खबर आसा आमकां.' सोनून म्हणलें.

पुजा आटापून तांबयो, पंचपाळें घेवन भितर वताली ती थांबली.

काकीचे मुखार हात जोड्न सोनू आनी बारकेलो दोगूय उबे रावले. बारकेल्यान म्हणलें,

'आमी हाडला तो खंड घालतां गे काकी, काकाक म्हणचें, पुजा जातकत मात्सो भायर येवन फकत पळय. काकाक नाका आसत जाल्यार आमी फुडल्या वर्साच्यान गाळींत पांय दवरचे नात.'

दोळे मिटून हयहय अशा अर्थान मान हालयत काकी भितर गेली. परतेंय थंड वातावरण किण्ण जालें.

थोड्या वेळान दादो सोवळ्यांनीच येवन भायर सोप्यार बसलो.

'हां, कितें थरलें रे तुमचें, आजून हांगाच तुमी?'

'दादो, हो खंड गेलें त्या वर्साचो. तो तूं घे. तुजोच हक तो. त्या पोरांचें तूं मनार घेवं नाका.' बारकेल्यान सांगलें आनी सगल्यांनी हय हय म्हणलें.

'घे म्हणटा ? घे म्हणटा? घेतां पूण फुडल्या वर्सा म्हणटात तो कोणूच गाळींत पांय दवरचो ना. आसूं दी ती तश्शी. पडूं दी ती पडींग. चला खणीर जोडात दुड्डू, म्हाज्यान तुमकां कांयच म्हणपाक जायना. पूण गाळींत पांय दवरशात जाल्यार--'

'दादो, ना दवरचे आमी गाळींत पांय. ए, आयकात रे' बारकेल्यान आड्डुत सांगलें, आमी गाळींत पांय दवरचे नात. जो कोण गाळींत ह्यान फुडें पांय दवरतलो, तो हजारबिज्या कास्ताचो.'

खंड मेजून घालून भात साकांनी भरून, साकांचे दाळ पडवेचे एके वटेन लावन भागेली गेले.

केसूदाद कितलोसोच वेळ तसोच सोवळ्यांनी थंय बसोन आसलो. जालें तें कितें जालें, बरें जालें काय वायट जालें ? कांयच आतां ताचे तकलेंत येय नासलें. आनी त्या धा बाराजणांची निर्शेल्ली,भियेल्ली आनी त्या दोगांचीं तिडकीन फुल्लेलीं तोंडाच परतीं परतीं ताच्या दोळ्यां मुखार भोंवत आसलीं. जानकीबाय आनी काकी ताची भितर येवपाची वाट पळयत तिश्टत हुमऱ्यार उबीं आसलीं.

संपर्क: 9421246655

---

# रोजीमांय

## एन्. शिवदास

बादेंसांतल्या कारोणा गांवांत कार्मीभाटांत एक व्हडलें घर आसा. तें घर गांवांतल्या फामाद रोजीमांयचें घर म्हण गांवांतल्यान येतलो वतलो मनीस वळखता. घर खूब व्हडलें, घराभोंवतणी व्हडलें दुरीग आसा, दुरगा भितर व्हडलें पोरसूंय आसा. पोरसूं कसलें, गांवांत ताका रोजीगे जार्दीन म्हणूनच पाचारतात. आतां घडये नासत, पूण एका तेंपार अख्खें जार्दीन फुला-फळांनी रसरसतालें. फुलां-फळांक लागून रोजीमांयच्या जार्दीनांत तरेतरेचीं सुकणीं रातदीस येवन वतालीं. फुलांर बसून देंठांक चिंवन मदरोर पियेताली, पेरां कोकायतालीं, पोपाचोय दवरिनासली. आंब्या दिसांनी आंबे कोल्लावन उडयतालीं. चानयो, सारोळ्यो, चुडटेकोरा कीर, कोगळांय फाल्त नासलीं. ते भायर घरांत खोटलोभर मांजरां आनी दोग सुणीं. सुणीं म्हण रोजीमांयचें व्हडलें घर राखतालीं, आनी फाटल्यान घराचो कुमांव आसलो. थंय व्हडलें व्हडलें लायतांव! एका तेंपार म्हसरांय आसलीं.

पूण जशें जशें घर पोरणें जायत गेलें तशी पोरण्या घराक घरांतलीं मनशांय बी ह्या ना कारणाक लागून सोडून गेलीं. रोजीमायगेर तीन पूत, पूण दोग पूत बेगीनूच देवाक जाय पडले, तिगांय मदलो एकलोच पूत संवसारांत उरलो तो पिटर. पूण आयज पिटर आनी ताचीं बायल भुरगीं आपले गोंयांतलें घरदार सोडून चड दुडवां पासत आफ्रिकेक नायरोबीक स्थायीक जाल्लीं. थंय काजार जावन तो संवसार करतालो , काजरा पयलीं थोडो तेंप गांवघरा येवन गेल्लो तितलोच. आपणाले मांयक सांबाळून बोरेभशेन राव इतलेंच सांगून तो गेल्लो. आयज हे गजालीक पांच वर्सा सोंपून सबें वर्स लागिल्लें. रोजीमांय येदें व्हडलें घर एकटी सांबाळटाली. घरां भोंवतणचें एक बेंस आनी गांवांत व्हडली दोन खाजनां शेतां मेळून रोजीमांयक भरपूर येणावळ येताली. खावपाक भरपूर, पूण खावपीच नासलीं. मागीर रोजीमांय मुंडकाऱ्यांक शेतां रोवन तुमी खायात आपणाक कांय नाका म्हणी. घरा भोंवतणी जार्दिनांत फळां-फुलां

पिकतांली. थोडो पान दुडू रोजीमांयक गावतालो. जार्दिनांतलीं शेवतीं आंबोलीं आनी हेर फुलां गांवांतली हिंदू वावराड्यां झेले गुंथून पणजे बाजाराक व्हरून तांच्यो फातयो आनी वळेसर करून विकी. रोजीमांयक कितेंय दिले चार पयशे जाल्यार रोजीमांय ते घेताली. दारांत व्यन्नी येताली. ती नुस्तें दिताली. रोजीमांय कडच्यान पयशे नासल्यार बदलाक पायलीभर उकडो तांदूळ वो दोन नाल्ला बोणे व्हरताली. अशे तरेन बार्टर सिस्टमी प्रमाण दी घे करून रोजीमांय आपली जीण इल्ली इल्ली करून सारताली. आफ्रिकेंतलो पूत पिटर चिटी बरयतालो आनी मांयची खबर घेतालो. तो तेंपूच तसलो आसलो. जाय जाल्यार दीस दोन दिसांनी घरा गोंयांत पावपाचे ते दीस नासले. आफ्रिकेंतल्यान बोट मुंबय पावपाक उणोच म्हळ्यार म्हयनो देड म्हयनो, मागीर बोमोय पावतकच बोमोयच्यान दुसरे बोटीन गोंया येवपाक आनीक एक रात आनी दीस लागतालो. पूण ते लांब भोंवडेची संवय जाल्ली.

इतले पयस रोजीमाय आनी तितलो पयस रोजीमांयचो पूत पिटर आनी ताची बायल फ्लोटा आनी तांकां जाल्लीं दोग भुरगीं. पुताक, पुताचे बायलेक म्हळ्यार आपणाले सुनेक् आनी दोन नातरांक दोळेभर पळोवपाक रोजीमांय साप्प आसुसलेली. ''आमी गोंयांत येतात अशी एक तरी चीट पिटरान बरयलेली आपणाक येवची अशें बाबडे रोजीमांयक खूब खूब दिसतालें. कार्तेराची ती वाट पळेताली कारोणा गांवांत सकाळी बारांक पावतोलो कार्तेर रोजमारी पियेदाद ह्या नांवाची चीट आपणाक दीत काय म्हण आशेन कार्तेरा कडेन पळयताली. पूण एक दीस मात पुताचे चिटीची वाट पळोवपी रोजीमांयक सांजेर सुकलेल्या खोलयांच्यो साक बांदता बांदता अजाप केलें. ''रोजीमांय केशी आसा?'' शेजाऱ्यालो जुंवांव धा-बारा वर्सांचो आसुये रोजीमांयक खूप रेडपेतार करतालो. तो आयज कितें घेवन येयला काय म्हण पळोवपाक रोजीमायन म्हळें, जुवांव बाबा, कितें हाडलां म्हाका?

हाडल्यार? रोजीमांय ·म्हाका जार्दिनांतलीं पेरां-चिकू दिताली मिगे?

चिकू, पेराच कित्याक कितेंय व्होर, तुका केन्ना हाये ना म्हणटलीं, गांवांतलें सोगलें तुजे बाराबोरचे भुरगे माकोड कोशे दीसभर झाडा-पेडांनी हेडत् आसतात मुरे? हांये तुमकां केन्ना धांवडायल्यात्? खायात, तुमी खावचें ना, नाजाल्यार कोण ते माकोड खातले? बोरें तें आसूं, कितें हाडिलां म्हाका, सांग बेगीन- रोजीमांयन बेगीबेगी जुंवावांक विचारलें. 'ही चोय, चीट, तुका चीट हाडल्या. आयज आमगे वाड्यार एकेच चीटये खातीर येयना म्हणपाक लागलो, कार्तेरान सांगले पुताचे चीट व्हर, आनी रोजीमांयक खोशी कर. पुताचे चिटीक रोजीमांय साप्पच आशेल्या. हय, खरें ताचें, पुताक नासलो, जाल्यार पुतान आपणाल्या हातान बरयलेली चीट तरी पळोवंक आनी वाचूंक मेळची, पूण हांव चीट फोकोत पळोवंक जाणा, चीट वाचपाक कोणाक येता? दोळे आसून कुड्डें हांव. रोजीमांय, ते पासत तू कांयच चिंती नाका, हांव ही चीट तुका वाचून दाखयतां?

'बरें जावं म्हज्या पुता -'

'रोजीमांय हांव तुजो पूत जावचो ना, नातू जातलों.'

जावं नातूं आनी पूत एकूच, यो; नातू मुरे, आनी तुगे शामांय मरे, आतां वाचून दाखय म्हाका चीट, कितें बरयलां म्हुज्या पिटरान?

'सगली अख्खी चीट वाचपाची काय चिटीत कितें बरयलां तितलेंच तुका सांगपाचें?'

मात्शी वाच, आनी मागीर चड गरजेचें कितें सांगलां तें म्हाका सांग.

'बरें आसा' जुंवावान उबो रावला थंय चीट उकती केली तेन्ना रोजीमांयक तें बरें लागलें ना. तिणे जुंवावांक घरा कडेन या म्हळें, आनी दोगांय घरा कडेन येवन बल्कांवांत बसली. जुंवावान चीट उकती करून वाचूंक सुरू केली. चीट रोजमारीचे मायभाशेत कोंकानींत आसली.

मोगाळ मांय,

मागतां तुका बोरी बोलायकी आनी सावूद देवा लागीं. आनी हीं उतरां दिनवासाचीं वाचून जुंवावान भरभर रोजीमांयक तिचे आफ्रिकेंत रावतल्या पुतान, पिटरान कितें कितें बरयलां तितलेंच सांगलें. तातूंत आपूण बायल-भुरग्यांक घेवन दोन म्हयने रावपाक गांवघरा येता हीं चिटींतलीं उतरां रोजीमांयच्या कानार आपटना फुडें रोजीमांय बसलेली त्या बल्कांवांच्या सोप्या वयल्यान खोर्नांतलो चणो.कसो फुट्ट करून खोशयेन उसळ्ळी आनी वयर मळबांत पळोवन म्हणपाक लागली, ''सोर्गीच्या बापा तुगे बेसांव पोडूं, तुवेन म्हुगें रोडटा ते काळीज वळखलें, म्हुगे पूत बायल भुरग्यांक घेवन गोंयां येता. पुरो. केन्ना पावता? खंय पावता, केन्ना -'' रोजीमांय आबूज जावन जुवावांक एक सारकी विचारीत रावली. फुडल्या म्हयन्याक भायर सरता, बोट बोंबोय पावपाक एक म्हयनो वयर लागतोलो.

जुवांव सायबीण मायन तुजेर बेसांव घालूं, आयज तुवें म्हाका बोरी खोबर दिली. म्हुगे पूत पिटर गोंयां येता.

चीट वाचून ती घडी करून जुंवावान रोजीमांयच्या हातांत दिली आनी जुंवांव रोजीमांयचो निरोप घेवन आपणाल्या घरा गेलो.

रोजीमांयक खोशी उलोवन दाखयतलो जाल्यार घरांत दुसरो कोण नासलो, आसलीं तीं फकत सुणी-मांजरां, आनी भायर बागेंत फुलां-फळां आनी मोनी झाडां, पेडां, खरें म्हळ्यार आयज रोजीमांय फुललेलें जार्दीन जाल्ली.

रोजीमांयन घरांत भितर सरून आमोरी केली, रोजार जातकूच ती बेगीनूच कितेंय पोटांत घालून कामार पडपाचें चिंतून फुडल्या वावराक लागली. तिका बरोच वेळ दोळो लागलो ना. पूत येता, येदें व्हडलें घर. इतलीं वर्सां फकत एक दोन कुडी सोडल्यार हेर सगलीं सालां, कुडी बंद आसल्यो. त्यो धुल्लान आनी कोयरान भरल्यात. त्या फाल्यां सावन साफसफाय करून नितळ करूंक जाय. जार्दीन शिंपून ताजें टवटवीत करपाक जाय. घरांतलो व्हडलो आल्तार धुवन-पुसून चकचकीत करपाक जाय. सायबीण मायची इमाज आनी फाटलो खुरीस पुसपाक जाय, खूब कामां आसात. एकल्या कडेन जाव्वीं ना हीं कामां, फायच्यान कामेऱ्यां, मानायांक दिसवड्याक आपोवपाचें अशें येवजितां रोजीमांयक दोळो लागलो. खूब दीस अशेच गेले. पिटर येता इतलीच खबर गांवभर - रोजीमांयन कळयली. पुताक बरें नुस्तें, बरें खाव-जेवण, बरी चोरुसां, बरें मांस, कितेंच फाल्त जावंक फावना. पयलींच गोंयात आपणाल्या मूळ घरा येवपी नातरांक कितें

दिवचें कितें नांका होच हिशेब करीत रोजीमांय पिटर गोंयां पावसर चितीत रावली. आनी तो दीस आयलो. रोजीमांयक रेकाद पावलो. आफ्रिकेंतल्यान बोट बोमोय पावल्या. आनी बोमोयसान गोंयां पणजे येवपाचे बोटींत पिटर आनी ताची फामील चोडल्या.

रोजीमांयक पूत येता हेच कल्पनेनच आंगात मूठभर बळ चडलेलें एक दांडगी जुवानपणांतली ताकद रोजीमांयचे कुडींत संचारताली. रोजीमांय आतां सगल्योच गजाली पटापट करताली. पूत, पुताचीं दोग भुरगीं म्हव्यार तिचीं मायेमोगाचीं नातरां. हें सगलें तिका आपणाल्या दोळ्यांनी पळोवंक गावपाचें आसलें.

बोट फाल्यां सकाळीं धा वरांचेर पणजे धक्क्याक लागतली हे खबर आशिल्ले रोजीमांयन सांगाताक शेजारच्या फिलूक आनी तिका चिटी वाचून दिवपी जुंवांव आनी वाड्या वयल्या आनीक चार पाच जाणांक खोर्जुवेच्यान वाफोरान पणजे हाडलीं. कारोणा वाड्यारूय खोस पातळ्ळी. रोजीमांयचो पूत इतल्या वर्सांनी गोंयां गांव घरां येता म्हण.

सकाळीं साडेणवांकूच पयल्या गाजोलीनान रोजीमांय आनी तिच्या वाड्या वयलो शेजारी जुवांव आदी पणजे नाबिगेसावा पावलीं. बोटीचो बोंऽऽ करून व्हडल्यान भोंगो वाजलो. दर्यांतल्यान बोट भितर मांडवी न्हंयेच्या पात्रांत पाविल्ली आनी आतां रोखडीच धक्क्याक लागतली. धक्क्यार मोटे राजू आनी निसणी घेवन नाविगेसांवाचें कर्मचारी बोट धक्क्याक बांदपाक तयार जालें, आनी पळेतां पळेतां बोट धक्क्याक लागली. देगेर लोखणाच्या रेलिंगाक घट धरून बोटीतल्यान देंवतल्याक व्हरूंक आयिल्ले सोयरें घरचीं आपआपणाल्या मानशांकूच पळेतालीं.

रोजीमांय आपल्या पुताक पिटराक पळेताली. गाडयो धांवताल्यो, वता थंय कानार गोरे पाखले, सोलदाद पुर्तुगेज भास उलयताले. पालाशेर फुडल्यान पुर्तुगेज बावटो वाऱ्यार हुबतालो. मांडवी न्हंयचें उदक संथ व्हांवतालें. सगलीं जाणां परत वचपाक खोर्जुवेंच्या गाजोलीनात कारोणां येवपाक बसलीं, सगलें सामान कोणें कोणें हातांनी घेतलें, जुवावान खूब आदार केलो.

पिटर आयलो आनी परत एकदां रोजीमांयचें येदें व्हडलें घर सोबून दिसलें. भुरगीं दोगांय, रोबर्ट आनी मिचल खोशी आसलीं. पूण ताका शामाय कडेन कोंकानी भाशेंत डायलोग करपाक जमलें ना आनी रोजीमांयक इंग्लीश उलोवंक कळनाशिल्ल्यान रोजीमांयक आपणाल्या नातरां कडेन मना सारके भरपूर उलोवपाकूच जालें ना. पूण शेजाऱ्यांक मात गर्वान रोजीमांय सांगताली, नातरां इंग्लीश उलयतात. कोंकानी भास तेंका जमना, व्हडल्या मनशांचीं भुरगीं अशींच इंग्लीशूच उलयतात खंय आनी मागीर रोजीमांय हांसत शेजान्नीक म्हणटाली, आमची कोंकणी भास ती फोकोत आमच्या सारक्यां नेणारांनी आनी किर्यादांनी उलोवपाची.

पिटर जावं, ताची घरकान्न, भुरगीं सगलीं आपले भितर फकत इंग्लीश उलयतालीं, पिटर कशीबशी कोंकानी कापून मारून कुडक्या कुडक्यांनी याद करून उलयतालो. पूण कसो तरी वेव्हार चलतालो. दीस घोड्यार बसून आयले. तशे ते घोड्यार बसून वताले आनी हांसत खेळत आनंदांत पीटराची हॉलीडे सोंपली. दोन म्हयने केन्ना सोंपले कळ्ळेंच ना, आनी एक दीस रोजीमांयचो निरोप घेवचो वोगोत आयलो.

रोजीमांयन नातरांचो खूप पोटभर मोग केलो, सुनेक लाळेगोळे लायले. तांकां आफ्रिकेक व्हरपाक पुरुमेंत जमयलो. खारें नुस्तें, सुके बांगडे, सोलां, मिरयां, गोंयचो मसालो बांदून पॅक केलो. आनी परत गोंय सोडून आफ्रिकेक कामा पासत पिटर वचपाक पणजे-मुंबयचे बोटीर बसलो. रडून-रडून रोजीमांयन भुरग्यांक निरोप दीत म्हणले, आनीक एकदां तरी तुमी म्हाका पळोवपाक गोंयांत येतली न्हूं? उरतेली हांव तो मेरेन? देवालागीं मागात, तुमचे हे शामांयक आनी म्हज्या पुता, आफ्रिकेक तुजें घर करूं नाका, म्हजें कितेंय बरें वायट जाल्यार कायशावाक- अशें म्हणत रोजीमांय पूत पिटराक वेंग मारून खूप रडली. सगल्यांचें दोळे दुकांनी भरले. बोटीचो भोंगो वाजलो. बोट (मुंबय) बोमोय वचपाक धक्क्याची सुटली. रोजीमांयन बोट पयस पावसर हात हालयले. बोट इतली पयस पावली, रोजीमांयक, कोणूच सारकीं दिसनासलीं. तशेच दोन म्हयने पुताच्या आनी नातरांच्या सांगातान घाल्ली रोजीमांय अकस्मात साप्प जीव सोडिल्लेवरी सामकी बडी जाली. सगली उमेद खंय बावली .... ते राती कडेन रोजीमांय पुताच्यो आनी नातरांच्यो यादी काळजांत बाळगून न्हिदपाक गेल्ली. रोजीमांयक कितें कोण जाणा ते राती कडेन बरी न्हीद लागली. सुस्त न्हीद लागिल्ली. रोजीमांय खूब धादोसकायेन न्हिदिल्ली. आपल्या आफ्रिकेंतल्या पुताच्या संवसाराची सपनां पळयत. रोजीमांय सपनांतल्यान जागी जाली ना. रोजीमांय आपणाल्या व्हडल्या घरांत सुस्त न्हिदल्या हे कारोणेच्या वाड्यार बरोच वेळ कोणाक कळ्ळें ना. आनी त्या दिसा गांवांतले इगर्जेंत तीन ठोक्क्यांच्यो घांटी वाजल्यो आनी कारोण्या गांवांक समजली रोजीमांय सासणाची न्हिदल्या, केन्नाच जागी ना जावपाक.



# निर्णय

## डॉ. जयंती नायक

अमेरिकन एअरवेजाचें विमान वचपाक उडलें आनी हांव विमानतळांतल्यान भायर सरलें. जड पावलांनी चलत पार्किंगा कडेन गेलें आनी गाडी स्टार्ट केली.

सुर्याच्या कंवळ्या किरणांनी आतां खर रूप घेतिल्लें. वदळ एअरपोर्टाचेर वतना चोंय वटेन दाटिल्लें धुकें आतां पुरायेन ना जाल्लें. फांतोडेर सुस्त न्हिदिल्ले रस्ते आतां जागे जावन आपल्या दिसपट्ट्या वेव्हारांक लागिल्ले.

कार एअरपोर्टाचें क्षेत्र हुपून बिर्ला रोडा वयल्यान पणजी म्हामार्गाचे दिशेन वचूंक लागली आनी इतके दीस... न्ही... न्ही, दीस न्ही... वर्सां... एक आनी दोन वर्सां न्ही... लागीं लागीं सतरा वर्सां... आडोवन दवरिल्लो मनाचो बांद फुटलो. गळ्यांत हुडक्यांनी गर्दी केली. दोळ्यांत उदकाचो हुंवार भरलो. कोणूय पळयतलो, हांसतलो हाची पर्वा करनासतना, हांवें तांकां वाट मेकळी केली. कांय वेळ गाडी चलोवपय कठीण जाल्लें, मुखा वयलो रस्तोय दिसनासो जालो.

कसो तरी स्टेअरिंगा वयलो कंट्रोल सांबाळीत हांवें कार फुडें व्हेली...

थोड्या वेळान भावनांचो हुंवार आसरलो. दिशिल्लें हो हुंवार येवन वतकच मन शांत जातलें... ल्हव जातलें, पूण ना!... न्हंयक आयिल्लो हुंवार आसरलो तरी ताच्या धपक्यान तडे वयले जनजीवन जशें उध्वस्त जावन उरता, ते परीन म्हज्या मनाची, विपन्न स्थिती जाल्ली. मन पुराय विचलीत जाल्लें, मनाची शांती नानपश्चात जाल्ली.

गुन्यांवकारीपणाची एक अक्राळ-विक्राळ वागीण आपलो जबडो आऽऽ करून, आपल्या तिक्ष्ण सुळ्यांनी म्हजें मन जखमी करताली, आपल्या तोंकाळ नाकटांनी म्हजें आंग भुस्कून म्हाका रक्तबंबाळ करताली.

...हांव पुरायेन रगतान माखिल्लें. वेदनांनी वळवळटालें.

...कित्याक? ...कित्याक ही ख्यास्त म्हाका? कित्याक हे घाय-यातना म्हाका?... कितें गुन्यांव केला हांवें?

हांवें प्रस्न विचारचोच आसा, दुसऱ्याच खिणाक म्हज्या अंतरआत्म्यान इंगळे ओंकीत, म्हज्या मनाच्या केश्टांक धरून खून लायलें-

"खऱ्यांनीच खबर ना तुका, तुजो गुन्यांव? ...हीं ...हीं भोळेपणाचीं नाटकां बंद कर! ...तूं जगाक फटोवंक शकता, स्वताक न्ही! गुन्यांव करप्या इतलीच ताचेर पांगरूण घालपी व्यक्तीय दोशी आसता, हें नकळ तूं?... आनी गुन्यांव तरी कसलो? ...अक्षम्य! ...जाका ह्या जगांत भोगसणीच ना असलो! कायदयाच्या पुस्तकांनी ताका बंदखण... जल्मठेप... फांशी जी कितें ख्यास्त बरयिल्ली आसा, ती आसूं... मनीसपणाचे भाशेंत मात ताका जितो हुलपुशिवाय दुसरी कसलीच ख्यास्त आसूंक फावना!

...ताचो तो पाशवी ...जनावरांकय लजेन मान सकल घालूंक लावपी तो गुन्यांव तुवें लिपयलो... सगलें गुपचूप निस्तारलें. ज्या कंवळ्या जिवाचो कांयच दोश नाशिल्लो, ताणें असह्य यातना भोगल्यो आनी जाणें ताका ह्यो भयानक यातना दिल्यो, ताचें कंवळें मन आनी कूड घायांनी भरली... तो मात कसलेच ख्यास्ती बगर राजरोस उरलो.

हे गजालीक तूंच जबाबदार! तुका लागूनच ताका कसलीच ख्यास्त मेळूंक पावली ना. ...तुंवें, तुजो सुवार्थ पळयलो! ...तुजो संवसार उध्वस्त जावपाच्या भंयान तूं तशें वागलें!.. तुका तुज्या अब्रूची चिंता आशिल्ली... तुज्या चल्याचें हांसते-खेळटें जीवन मातये भरवण जातलें हाचो भंय आशिल्लो. त्या निष्पाप बाबड्या जिवाच्या दुकांची आनी करंदायांची तुज्या मतान कांय किंमत नाशिल्ली.

...भयंकर भोंदू... सुवार्थी... आत्मकेंद्रीत बायल तूं!... ताचे वांगडा, ताचे इतकीच कडक ख्यास्त तुकाय मेळपाक जाय!... भरिल्ल्या चवाट्याचेर, ताचे वांगडाच तुकाय सुळार मारपाक जाय!

पेशान शिक्षिका तूं!... शिक्षिका ही भुरग्यां खातीर दुसरी आवयच आसता!... पूण तूं त्या नात्याक जागलेंना. तुज्या शिक्षिकेच्या धर्माक तुवें काळें फांसलें... हाचे फुडें... कोणूच... केन्नाच शिक्षिकेक आवय जाग्यार मानपाचें धाडस करपार ना!

...त्या दिसा जर तुवें, तुजी सद्विवेकबुद्ध वापरिल्ली... मनाचेर फातोर दवरून निर्णय घेतिल्लो... तर एक बायलमनीस म्हण... एक आवय म्हण... एक शिक्षिका म्हण... आनी तेवूय परस एक मनीस म्हण तूं श्रेश्ट थारतलें आशिल्लें!... मागीर तुजो संवसार मातये भरवण जाल्यारूय जावूं आशिल्लो... तुजी अब्रूय उक्ताडार पडल्यार पडूं आशिल्ली... पूण तूं म्हजे मुखार... ह्या तुज्या अंतरआत्म्यामुखार मान वयर करून उबें रावंक शकतलें आशिल्लें... स्वताचे नदरेक नदर दिवंक पावतलें आशिल्लें!...

...पूण ना, तुवें तशें केलें ना! तूं एक अतिशय भिजूड... धोंगी बायल जावन आसा! व्यासपिठाचेर उबी रावन समाजाक, व्हडलीं व्हडलीं समाज प्रबोधनांचीं भाशणां दिवपी आनी स्वता मात दुसऱ्याचेर अन्याय करपी... अत्याचार करपी... क्रूर!"

"ना! ...ना! हें खरें न्ही, हें फट! हांव सुवार्थी न्ही! हांव धोंगीय न्ही! हांव कोणाचेर अन्याय करपीय न्ही! हय... पूण एक चूक घडली म्हजे कडल्यान, त्या दिसा वोगी रावपाची! त्या दिसा ठोस निर्णय ना घेवपाची!

...पूण म्हजें तें वागप जाणून-बुजून, विचारपूर्वक नाशिल्लें, तें परिस्थितीनच घडोवन हाडलें... आपसूकच घडलें!"

- आपल्याच अंतरआत्म्यान केल्ल्या आरोपांनी म्हजें मन विव्हळ जालें. धळधळयां दुकां गळोवंक लागलें.

...त्या दिसा म्हज्या मनाचेर प्रचंड आघात जाल्लो. मनाची चेतनाच जणू

शेणिल्ली. योग्य-अयोग्याचे निर्णय घेवपाच्या तें पलतडीन गेल्लें. विचारशक्त नश्ट जाल्ली, विवेकबुद्ध शेणिल्ली! मेंदू ब्लँक जाल्लो... कांयच सुचनाशिल्लें... त्या दिसा हांवें जें कितें केलें... जे तरेन वागलें, तें सगलें एका माकना भशेन घडिल्लें... कांयच ना येवजितां... ना थारायतां!

जेन्ना मनाची चेतना परत आयली... परिस्थितीचें भान आयलें... तेन्ना म्हजी चूक म्हाका होलमली! मागीर मन पश्चातापाच्या आगट्यांत हुलपूंक लागलें... स्वताचीच किळस येवंक लागली.

तो दीस... तो आयचो दीस, गुन्यांवकारीपणाचे भावनेंत मन रात-दीस जळटा... हुलपता. एक खीण लेगीत ह्या वर्सांतलो हांव शांतपणान जगलें ना!... एक रात लेगीत सुस्त न्हिदलें ना!

...ताचे चुकीचें आनी वांगडा म्हजेय चुकीचें परिमार्जन म्हण हांवें त्या दोगांयच्याय जिविताची जबाबदारी खांद्यार घेतली. ...त्या ...त्या निष्पाप पोराक... रक्माक... रुक्मीणीक म्हजे व्हॉंटयेंत घेतलें. आपली धूव मानली... तिका मोग दिलो, माया दिली... बरें शिकप दिलें... बरें जिवीत दिवपाचो यत्न केलो आनी आज तर तिका विज्ञानाच्या क्षेत्रांतलें उच्च शिक्षण घेवपा खातीर अमेरिकेकय धाडलें...

...पूण इतलें सगलें करूनय आपणें ताका न्याय दिलो ना, आपणें ताचेर अन्याय करप्याक मेकळो भोंवपाक दिलो हाचें शल्य दीस-रात काळीज पोखरीत आसा.

हांव जाणा, एक चूक खऱ्यांनीच हांवें केल्या... तो... तो... जेन्ना घरांत परत आयलो, त्या वेळारच हांवें अवूक घेवन, रुक्माक आनी पार्वतीक घेवन घर सोडून पयस वचूंक जाय आशिल्लें.

ती एकूच गजाल हांवें तेन्ना केली ना! एक वेळ मनांत विचार येवनय गेलो, पूण म्हज्या तश्या वागपान जे प्रस्न तयार जातले आशिल्ले तांकां तोंड दिवपाचें, तें सोडोवपाचें धाडस म्हजे कडेन तेन्ना नाशिल्लें. माथ्या वयलो घराचो आसोर शेणपाचो भंय... तीन मनशांक सांबाळपाची, तांकां तांचे मार्ग दाखोवपाची चिंता! आजवेर केन्ना एकट्यान खंयच्या प्रस्नांक फुडें करपाचो प्रसंग आयलो नाशिल्लो, तो असो अकस्मात येतांच हांव कांचवेल्लें.

पूण मनाच्या एका कोनशांतल्यान हांवें ताका इल्लें पूण माफ केलें ना! ताचे विशीं ना मन कळवळ्ळेंना, ना ताचे खातीर काळजांत सहानुभुती उदेली ना. तो एखाद्रें पिशाच्च कशें, मेल्ल्याचें वारें कशें घरांत वावुरता, पूण म्हज्या मनाक ताची सावळीय पळोवपाची इच्छा चुकून लेगीत जाली ना.

...पार्वतील्या मनाचो मात म्हाका सारको थाव लागना! पयलींच ती कमी उलोवपी... त्या प्रसंगा साकून तर ती सामकी मोनीच जाल्ले भशेन जाल्या. तो ते बंद कुडींत भुता सारको रावता आनी ही उगड्या घरांत भूत जावन वावुरता... हांसना, उलयना. नदर अंधातरी खंय तरी मांडून बसता.

एक गजाल मात पार्वती ना चुकता करता.... ताचे कुडीच्या बंद दारा मुखार उदकाचो एक व्हडलो तांबयो आनी जेवणाचें ताट ती रात जाली की दवरता. सुरवेक हांवें पार्वतीक पाडलें. म्हणलें, 'दवरूं नाका थंय कांय एक! मरूं दी ताका वळवळून, फडफडून!'

पार्वतीन म्हज्या उलवण्याचेर कांय एक जाप काडली ना. पूण ताका उदक-जेवण दवरपाचें थांबयलें ना!

पार्वतीन ताका भोगशिल्लें कांय फाटल्या उपकाराच्या वज्याखाला ती तशी वागता, म्हाका कांयच समजना.

...आतां हांवें पार्वतीक आडावपाचें वा विचारपाचें बंद केलां... विचारून, त्या किळसवाण्या प्रसंगाक परत वाचा फोडपाक मन तयार जायना! दोळे धांपप आनी काळोख जाल्ल्याचो आपणेंच आपलो समज करून घेवप ते पद्दतीन फाटलीं सतरा वर्सां हांवें जगपाचो यत्न केलो, पूण आज रक्माक साता समुद्रां पलतडी वचपा खातीर एअरपोर्टाचेर पावयलें आनी काळजांत भगभगतलो ज्वालामुखी उद्रेक जावन भायर आयलो... ताच्या खतखततल्या लोळांनी मन परत भाजलें, हुलपलें!

...स्कूल मॅनेजमेंटाची वर्सुकी बसका चार दिसांचेर पाविल्ली. अजून बसकेचीं बरींच कामां करपाचीं थारिल्लीं. अजेंडा जाल्लो पूण कॉंप्लायन्स रिपोर्ट तयार करपाचो उरिल्लो. जाल्ल्या कामाचो आढावो घेवन तो तयार करुंक जाय आशिल्लो. हेडमिस्ट्रेस पदाचो ताबो घेत सावन म्हज्यो जापसालदारक्यो वाडिल्ल्यो. जेवन जेवन हांव रोखडेंच स्कुलांत परतें गेल्लें. तो सदचे भशेन तीन-साडे तिनाक सुमार कॉलेजींतल्यान घरा येवपाचो. घरा कडेन पार्वती आशिल्ली. ती ताच्या जेवणाचें-वाडपाचें सगलें वेवस्थीत करताली.

पार्वती येत सावन म्हजीं घरगुतीं टेन्शना ना जाल्लीं. म्हजो स वर्सांचो पूत 'अक्कू', म्हणल्यार आकाश, तर आतां जणू पार्वतीचोच पूत जाल्लो. ताचें जेवण-खाण, न्हावप-धुवप, न्हिदप-उठप सगलें पार्वतीच पळयताली. शिवाय ताका आतां खेळपाक - नाचपाक रुक्मा मेळिल्लें.

पार्वती तिनच म्हयन्यांआदीं म्हजे कडेन वावराडी म्हण कामाक आयिल्ली. मूळ बेळगांवची. तिचो घोव म्हज्या कुळारच्या गांवांत एका कन्स्ट्रक्शनाच्या कामांत गवंडी म्हण कामाक आशिल्लो. पूण बिल्डिगेंचें कन्स्ट्रक्शन चालू आसतना तो वयल्यान पांय निसरून सकल पडलो आनी आक्ताक सोंपलो...

ताचे फाटल्यान पार्वतीक कोणाचोच आदार ना जालो. आवय-बापूय मेल्लीं, भावाक भयणीची जबाबदारी नाका आशिल्ली, घोवा वटेनय कोण लागींचो नाशिल्लो. अशा वेळार पदराक पांच वर्सांचें पोर आशिल्ली, तरणी पार्वती रडत एका दिसा म्हज्या भावा म्हऱ्यांत पावली, आपल्याक काम दी म्हण. म्हजो भाव वेवसायान पसरकार, पूण अडल्या-नडल्यांक आदार करपी. कोणें तरी तिका म्हज्या भावाचें नांव सुचयलें आनी ती थंय पावली. भावान बरो विचार करून तिका म्हज्या म्हऱ्यांत हाडून सोडली. म्हाका घर सांबाळपाक विस्वासू बायलमनीस जाय आशिल्ली आनी तिका भरवंशाच्या घरांत काम जाय आशिल्लें. हांवें तिका घरांतच दवरून घेतली.

तिगेलें रुक्मा म्हणजे सामकें चुणचुणीत चली, दिसपाक गोरेंपिट्ट, बावली कशें! दिसभर चिमणी कशी चिवचिवत रावतालें. सभावानय हुशार. कसलीय गजाल सांगता थंयच आसा, तें रोखडेंच आत्मसात करतालें. पांचवें वर्स चलतालें तरी शाळेंत वचनाशिल्लें. गांव सुटिल्ल्यान ताची बालवाडी बंद जाल्ली. जूनांत म्हज्या स्कुलांतच ताका पयलेक

बसयतां अशें हांवें पार्वतीक सांगिल्लें.

सद्द्याक ताका हांवें पुस्तकां हाडून दिल्लीं.वेळ मेळटा तेन्ना हांव... न्हय, म्हजे परस प्रवीणच ताका पयलेचो अभ्यास शिकोवंक बसतालो. अक्कू अभ्यासाक बसलो म्हणटकच, तेंवूय थंय आपलीं पुस्तकां घेवन बसतालें...

तांच्या दोगांयच्याय येवपान म्हज्या घरांतलें वातावरण सामकें हांसतें-खेळटें जाल्लें. पार्वती गरजे भायर केन्ना एक उतरय उलोवपी न्ही... पूण ती आयिल्ल्यान म्हाका घरच्या कामांतल्यान मुक्ती मेळिल्ली. स्कुलांतल्यान येतकच थोडो वेळ विसव घेवन वाचन वा हेर गजाली करूंक वेळ मेळटालो. म्हज्या तोंडाचेर एके तरेचो हांसो उदेल्लो. आपल्याक खेळपांत घरांत एक संवगडी मेळ्ळी म्हण अक्कू खुशाल जाल्लो आनी... आनी... कॉलेजींतल्यान घरा येतकच गरम गरम जेवणाचें ताट मुखार येता तें पळोवन तो उमेदी जाल्लो!

सगलें घरच जणूं हांसतालें!... आनी ध्यानामनांत नासतना ती घडणूक घडली! आकांताच्या भुंयकांपाचो धक्को बसचो आनी रस्तें-वस्तें नगर खिणांत मातये भरवण जावचें, तशी गत म्हज्या हांसत्या-खेळट्या घराची जाली!... परत आनी तें घर आशिल्लें तशें केन्नाच उबें रावंक पावलें ना!

पार्वतीक मात्सो जोर आयिल्लो. तो घरा येतकच भुरग्यांक ताचे म्हऱ्यांत दवरून, लागींच प्रॅक्टीस करपी म्हज्या डॉक्टर मावशे भयणीक दाखोवन यो, अशें तिका सांगून हांव जेवन रोखडेंच स्कुलांत गेल्लें. स्कुलांत पावन मावशे भयणीकय पार्वती येतली अशें फोन करून सांगूंक हांव विसरलें नाशिल्लें.

म्हजे सुचोवणे प्रमाण पार्वतीन कामां केल्लीं. तो येतकच ताका वाडून करून, ती भुरग्यांक ताचे म्हऱ्यांत दवरून दोतोरागेर वचपाक गेल्ली.

...आनी ...सपनांतय केन्ना येवजूंक ना अशी, हळशिकवाणी गजाल म्हज्या घरांत घडली! जाचेर विस्वास दवरलो... ताणेंच विस्वासघात केलो! सहस्र मेगावेटांचो लायटीचो जणू शॉक बसचो तशें घडलें! ह्या शॉकांत हांव पुरायेन जळून गोबोर जालें!

...सांजवेळा सुमार पावणेपांचाच्या अदमासाक हांव घरा पावलें. हरशीं स्कुलांत गेल्यार हांव स पयलीं घरा पावना, पूण त्या दिसा म्हाकाय जिवाक थोडी काडामोड जाल्लेवरी दिसताली म्हण थोडे बेगीन भायर सरलें.

हांव घरांत पावलें तेन्ना बंगल्याचें दार सताड उगडें आशिल्लें. सिटींग रुमांतलो टी.व्ही., फॅन चालूच आशिल्लो. पूण कोणाची जाग-जूग मात नाशिल्ली... खंय गेलीं हीं दोगांय पोरां?... आनी प्रवीण खंय तर? फिरपाक गेलो तांकां घेवन?... आनी दार अशें उगडें वडोवन?... कितें धंदे हे प्रविणाचे?

गोंदळिल्ले अवस्थेत हांव वयर माळयेर बॅडरुमांत वचपाचें वळ्ळें, इतक्यांत माळयेचे सकल दाव्यान आशिल्ले पार्वतीचे कुडींतल्यान एक विचित्र आवाज कानार पडलो... कोण तरी किंळच्यो मारता अशें दिसलें. म्हजीं पावलां माळयेच्या सोपणां वेल्यान सट्ट करून सकल देंवलीं

पार्वतीले कुडींत भितर सरतां सरतां, दारांतच म्हजीं पावलां थांबलीं... जमनींत खोल खोल रोमलीं! दिसलें माथ्या वयलो स्लॅब कोसळून हांव त्या फातरां - लोखणाच्या ढिगाऱ्यांत सामकें पुरवलां, कोणाच्यानच उस्तून काडूंक जावचें ना हे तरेन!

म्हजे दोळे फटफटीत जाल्ले... जीब ताळ्याक चिकटल्ली, तरीपूण एक अस्पश्ट किंळाच तोंडांतल्यान भायर सरली...

''प्र... वी...ण!''

... रुक्मीचे इल्लेशे कुडीचेर आड जाल्लो तो, सट्ट करून उबो जालो. एक खीण विचित्र नदरेन ताणें म्हजे कडेन पळयलें आनी धोणवांतल्यान तीर सुटचो ते गतीन आपलें पॅण्ट वयर काडीत तो थंयच्यान ना जालो.

हांव दारांतच घट्ट जावन उबें आशिल्लें... म्हजो मेंदू काम करपाचें थांबिल्लो.

...इतक्यांत पार्वती पावली.

तिणेंच रुक्माक उबारलें. ताचे दोळे भंयान फटफटीत जाल्ले... ताका जाप फुटनाशिल्ली. मेल्ल्या मड्या भशेन ताची अवस्था जाल्ली. ताचे कुडीचो सकलो भाग रक्तबंबाळ जाल्लो.

सुन्न अवस्थेंत रुक्माक हांवें गाडयेंत घालें... वांगडा पार्वती आशिल्ली. सदचेसारकी मोनी... पूण आज तिचे दोळे आक्रोश करताले.

हांवें गाडी मावशेभयणीच्या क्लिनिका वटेन घुंवडायली. हांव, पार्वती आनी म्हजी ती डॉक्टर मावशेभयण, ह्या तिगांशिवाय आज मेरेन ही गजाल दुसऱ्या कोणाकच खबर ना.

दोन दिसांनी रुक्माची भलायकी मात्सी सुदारली. तरी ताका पुरायेन बरें जावंक म्हयनोभर गेलो. कुडीची भलायकी सुदारली तरी ताच्या मनाची भलायकी सुदारूंक बरो काळ लागलो. सुमार स म्हयने वयर! तें मर्दींच भियेवन थरथरतालें, आंग काडटालें, किंळच्यो मारतालें.

म्हाका आनी पार्वतीक ताका खूब सांबाळचें पडलें. तरेक तरेन ताका विसरायेर घालचें पडलें.

रुक्माचे भलायकेंत थोडी सुदारणा जातांच, म्हाका भान आयलें! म्हजे कडेन जाल्ली चूक लक्षांत आयली! मागीर मनांत व्दंव्द पेटलें! उसरां जावं पूण ताका ख्यास्त दिवपाचो मनान निश्चय केलो.

...पूण निश्चय केलो तरी निर्धार मात जालो ना!

पोलीस कंप्लेन करची अशें थारायलें, पूण सगले पुरावे आतां नश्ट जाल्ले. आनी ते कंप्लेनीन फकत म्हजी अब्रूच वाऱ्यार पडची नाशिल्ली तर, ताचे बराबर कितल्यो तरी जिणो उध्वस्त जातल्यो आशिल्ल्यो. रुक्मी... पार्वतीची... अक्कूची!

कांयच सुचनाशिल्लें. म्हजें शिकप... पदवी... पद... हुद्दो... सगलें शुन्य थारिल्लें. हांवें पार्वतीचें मन जाणून घेवचेखातीर तिचे वटेन पळयलें तर ती सदचे सारकी वोंठ शिंवन बशिल्ली... मखख... कसलीच प्रतिक्रिया दिनाशिल्ली.

म्हजो निर्णय जायनाशिल्लो... अंधातरी मनस्थितींत काळ धांवतालो!

ह्या सगल्या वातावरणांत म्हजो अक्कू सामको गोंदळिल्लो. रुक्माक कितें जालें?... पप्पा खंय आसा?... तो प्रस्नाचेर प्रस्न विचारीत रावतालो. त्या दिसा, पप्पान शेजारच्या इश्टा कडेन खेळपाक वच म्हण ताका धाडलो आनी तो गेलो... थंयच्यान जेन्ना तो परत घरा आयलो तेन्ना अखखें घर आतां बदलिल्लें दिसलें. अशें कितें घडलें त्या दिसा घरा? पप्पा ना सांगतां खंय गेलो?... ताचे प्रस्न विखयाळे सर्प जावन

म्हाका दंश करताले, पूण त्या दंशांतल्यान मुक्त जावपाचे मंत्र म्हजे कडेन नाशिल्ले, पार्वती कडेनय नाशिल्ले.

प्रस्नांची जाप ना मेळिल्ल्यान अक्कूचें फुडलें पुराय आयुश्य घुस्मटमारांत गेलें. तो मोनो जालो. हांसना-उलयना जालो, सभावान तुटक जालो... कॉलेजींत पावतकच तर ताणें हॉस्टेलांत रावपच पसंत केलें. म्हजे कडलो ताचो भावनीक संबंद ताणें उणें केलो... फकत फी भरपा पुरतें आनी पयशे घेवपा पुरतेंच ताचें आनी म्हजें उलोवणें मर्यादीत केलें.

तसो अक्कू शिटूक. ल्हान वयांतच ताका खूब मॅच्युरिटी आशिल्ली, ताका सत्याचो सुगाव लागिल्लो काय खबर ना, पूण व्हड जातकच ताणें केन्ना तें विशीं विचारलें ना. तो घरांत रावंक आयलो... तो आपले कुडींत बंदिस्त रावतालो... पयलीं ताका कळ्ळें तेन्ना तो रडलो, बापायक उले-हाको मारल्यो... आकांत केलो, पूण जेन्ना कांयच घडलें ना, बंद दार उगडलें ना तेन्ना ल्हव ल्हव ताणें मानून घेतलें, मुखार तो केन्नाच त्या बंद दारा मुखार वचून उबो रावलो ना. जणू काय तें दार बंद आसा, हाची ताका कल्पनाच ना; आनी आतां तर तो सगलींच नात्यांचीं - मायेचीं दारां बंद करून पयस गेला, दूरदेशांत... ऑस्ट्रेलियेक... केन्नाच परत ना येवपाक!

...त्या दिसा प्रवीण तें पाप करून घरांतल्यान भायर सरून गेल्लो तो सुमार तीन म्हयन्यांनी घरा परत आयलो. जे तरेन कोणाच्या लक्षांत येवचे पयलीं तो सुमार वेगान भायर सरून गेल्लो, त्याच सुसाट वेगान तो घरांत भितर सरलो. दोळ्याची पाती धांपचे आदीं कुडींत भितर सरून ताणें खिळी घाली.

...फाटलीं सतरा वर्सां तो ते कुडींत बंद आसा. त्या दिसा सावन ताका कोणेंच पळयलो ना!... अख्खें जग न्हिदतकच तो ते कुडींतल्यान भायर येता. देहधर्म निस्तारूंक... पार्वतीन दवरिल्लें अन्न पोटांत घालूंक!

त्या तीन म्हयन्यांच्या काळांत तो खंय आशिल्लो, कितें करतालो, कोणाकच कांय खबर ना. फकत ताणें आपलो नोकरेचो राजिनामो पोस्टान धाडून दिल्लो.

म्हजें मन आजय आक्रोश करता... कित्याक असो वागलो तो?... खंय उणें पडलें हांव? केन्ना ना म्हणलें ताका हांवें शरीर सूख, म्हणून एका नेण्ट्या पोराची कूड बुड्डुपाचो प्रसंग ताचेर आयलो? हांवें तर, जेन्ना जेन्ना ताची इत्सा जाली, तेन्ना तेन्ना स्वताचें मन नासतनाय साथ दिली ताका!

ताच्या वासनासक्त मनाचो केन्नाच सुगाव लागलो ना!... मोगान लग्न आमगेलें. सुमार धा वर्सां आमी एक-मेकांच्या सहवासांत काडलीं. ताणें तर केन्ना आपले विशीं इल्ली पूण कागाळ करपाक जागो दवरलो नाशिल्लो. हांवूच तरी केन्ना केन्ना बेजार जातालें... बडबड करतालें, पूण तो केन्ना चुकून पुसून तिडकल्ल्याची याद जायना! सदांच शांत... थंड!... समजिकायेचें वागणें!

....कित्याक म्हण वागलो तो असो?... जनावरासारको?... नराधमासारको!... खंय गेली ताची नैतिकता... विवेकबुद्ध... ताची उच्च विद्या विभुषता?...

समाजाच्या प्रस्नांच्या सहस्र तोंडी हारान आपल्यो जिबल्यो चाटीत म्हाका वेटाळो घाल्लो. ताचो तो महाकाय वेटाळो सोडोवन, ताका चुकयत जीण जगतना जीव नाका पुरो जाल्लो म्हजो!

स्वताक कुडींत कोंडून घेवन ताणें आपली सुटका करून घेतली... जायतेदां म्हज्याय मनांत हें जग सोडून वचपाचे आनी आपलीय सुटका करून घेवपाचे विचार आयले, पूण तशें प्रत्यक्ष वागपाचें म्हाका स्वातंत्र्य नाशिल्लें. म्हज्या एकट्या जिवाचेर तीन जीव निंबून आशिल्ले. मोडून पडिल्ल्यो घराच्यो वण्टी, पयलीं सारक्यो चकाचक-घटमूठ नासल्यो तरी कश्यो तरी उब्यो करप म्हाका गरजेचें आशिल्लें.

...रुक्माची जीण सावरपा खातीर हांवें खूब यत्न केले. अक्कू सारकी... न्हय, तर ताचे परस अदिकच काळजी घेतली. त्या कोडू यादीं पसून ताका पयस दवरपाच्या उद्देशान आदीं ताका बोर्डींग स्कुलांत घालें, उपरांतय ताका हायर एज्युकेशनाच्या वेळार हॉस्टेलांत दवरलें... आनी आज तर ताका खूब खूब पयस... साता समुद्रां पलतडीन पावतें केलां... ताणें जें व्हगडायलें..., भोगलें ताची भरपाय ह्या कित्यानच जावची ना, हाची पुराय जाणीव आसुनय हांव धडपडटां... तळमळटां!

एका तपा परस अदीक काळ हांव जळटां... पोर खऱ्यांनीच सगलें विसरलें?... काय ताच्या सुप्त मनांत त्यो गजाली अजुनय जिवंत आसात? ताका केन्ना त्यो याद जावच्यो नात मूं? ...आनी मागीर तें म्हजो तिरस्कार बी करचें ना मूं?

येवजूनच हाता-पांयांक कांपरें भरता... ताळो सुकून येता!

इतले दीस दिसतालें, रुक्मा अमेरिकेक गेलें म्हणटकच सगलें थीर जातलें! म्हज्या मनाक थोडी थाकाय मेळटली... शांती मेळटली! पूण प्रत्यक्षांत मात तशें घडलें ना! उलट अपराधीपणाची नागीण अदिकच चवताळील्ले भशेन जाल्या.

...आज सकाळीं एअरपोर्टाचेर वचपाक भायर सरिल्ल्या रुक्माक वेंगेंत घेवन रडपी पार्वतीचे नदरेक नदर दिवप म्हाका शक्य जालें ना. म्हाकाच म्हजी नदर चोरची पडिल्ली.

- खरें म्हणल्यार म्हाका कांय समजच ना. मुक्तीचो मार्ग सांपडच ना. मनाची अस्वस्थकाय वाडत आसा. जीव घुस्मटिल्लेवरी जाला! कशी... कशी मेळटली म्हाका मुक्ती ह्या सगल्यांतल्यान! कशी जातली म्हज्या मनाची सुटका ह्या केविलवाणे स्थितींतल्यान!

- पणजेच्या केटीसी स्टॅंडा कडल्या व्हडल्या सर्कलाक फेरो घालून म्हजी कार रायबंदराचे वाटेन, घराचे दिशेन धांवूंक लागली आनी आपल्या विचारांत गप्प जाल्लें मन अचकीत आड्डलें, ''आसा... आसा! आसा एक मार्ग मुक्तीचो! ...पयस ...पयस वतलें हांव पार्वतीक घेवन! त्या घरापसून... त्या हळशिकावण्या यादीं पसून खूब पयस! जंय ताची सांवळीय पावची ना अश्या जाग्यार...!

''म्हज्या पयस वचपान रुक्माक न्याय मेळचो ना हें हांव जाणा. आतां हांव जगांत खंयीय गेलें तरी केन्ना सुखा-शांतीन जगूंक पावचेंना, हेंवूय हांव जाणा... तरीपूण ताका ...ताका घरांत एकटो सांडिल्ल्याचें... खऱ्या अर्थान मनशांतल्यान उठिल्ल्या हैवानाची स्थिती ताका अणभवूंक लायिल्ल्याचें समाधान मात मनाक निश्चितच मेळटलें!''

- जवळ जवळ सतरा वर्सांनी म्हजें मन आनी अंतरआत्मो हांचें दोगोंयचेंय एकमत जाल्लें.



# ना... तें...!

**जयमाला दणायत**

"अशी कशी गे आई तूं सामकीच पिशी? तुका न्ही खंयच्या वेळार कितें करचें तें कळचना, आनी मागीर हो असो गोंदोळ जाता." सुजाता रागान बडबड्टालें.

"हय पुता, खरें तुजें - सामकें खरें पळय. खंयच्या वेळार कशें वागप तें खऱ्यांनीच कळ्ळें ना म्हाका, म्हणून ही वेळ आयल्या म्हजेर - तुगेर हीं अशीं वावराडेंपणां करपाची." पदरान दोळे पुशीत सवितान म्हळें. तिजो इतल्या तेंपाचो मनाचो खतखतो असो भायर सरिल्लो.

"तशें न्हय गे आई, पूण तो पेपर खंय पळून वतालो? आनी एक दीस वाचलो पेपर मात्सो वेळान म्हणून कितें जाता? राजूक घेवन पांच मिनटां पयलीं गेल्यार ताची बस चुकची नासली. आतां शाळा तरी चुकोवची पडली नाजाल्यार आयलो ना रिक्षाक पन्नास रुपया खर्चुवपाचो बेठ्ठो भुर्दंड?"

"हें पळे सुजा, तुका खबरच आसा- सकाळीं च्या घेतना पेपर चाळपाची म्हजी पयलीं पसूनची संवय! बरें, पेपर वाचतां तरी, बेठ्यो हेडलायन्स चाळटां - आनी सदच्या वेळार तर भायर सरिल्लें - आतां तुमची ती लिफ्ट बंद पडली ताका कोण कितें करतलो? इतले चार मजले देंव चड कसरत करपाची म्हाका कितें व्हडली उमेदच आशिल्ली न्हीं?"

"तशें न्हंय गे, पूण आतां ऑफिसांत वचपाची ताकतीक, तातूंत आनीक हाका शाळेंत सोडचो पडटलो, म्हणून म्हळें, आनी आपल्या घरचें काम करप हाका कोण वावराडीपणां म्हणटात गे?" सुजातान आवयक समजायत म्हळें.

"ना गो बाये, वावराडेक तरी तोंड आसता - ती हक्कान सुटी घेवंक शकता. वयल्यान तिका तिच्या कामाचो पगार तरी मेळटा. हांगा सगलेंच फुक्यासवाय - काडात घश्टे दिसभर!" तोंडांतल्या तोडांत पुटपुटत सविता रांदचेकुडींत गेले. तरी बरें, जांवय आपल्या कामाक भायर गेल्लो - नाजाल्यार टोण्ट मार मारून बेजार करपाचो - हेड मास्तरीण, हेड मास्तरीण बाई करून! तरी तिच्या मनांत आयलेंच - हें सारकें बरें पद्धतशीरपणान थारावन केल्लेवरी केलां सगलें. आपल्याक मोट्या आग्रान हांगा घेवन येवप - ताचे खातीर सुजयाचेंय मन वश करप; मागीर "तूं खंय, एकलीच पयस रावतली इंदूराक, हांव आसां न्ही हांगा इंडियांत, म्हजेसरी राव, मागीर वच जाय तेन्ना दादा म्हऱ्यांत. बरें इंदूरचो ब्लॉक तसो रिकामो दवरल्यार बेठ्ठो म्हयन्या म्हयन्याक मेंटेनन्स भरपाक म्हारग, कोणाक भाड्यान दिल्यारय पेंच - भाडेकरी तो बळकायत म्हणून भंय, ते परस विकून उडयिल्लो बरो" म्हणून भायले भायर तो विकून मेकळे जावप - भावाक कितें सांगता फोनार देवाक खबर! आठाठ दिसांनी फोन करपी सुजय म्हयन्याचे म्हयने खबर लेगीत घेना. वयल्यान भयणीगेर आसा आवय म्हणून सुसेगाद आसा. रमला आपल्या संवसारांत. हांगा आवयचे कसले हाल चल्ल्यात ते ताका बाबड्याक कशें कळत? हें सुजा नायतरी पयलीं सावन अँशें स्वार्थीच; आपमतलबी. आपल्या फायद्याचें पळोवपी भितरले बुद्दीचें. तांतून घोवय बरो मेळ्ळां - सामको मुदयेर थीक कशें!" तिच्या हातांत भितरले भितर कश्टी जावन घुस्मटत रावप आनी चलयेच्या घराचो घश्टो काडप हेच बरोवन दवरिल्लें म्हातारपणांत! नशीब, तिची भलायकी तरी बरी आशिल्ली -"आरोग्यं धनसंपदा" हो मंत्र तिणें सतत जपिल्लो - व्हडलें कितें जालें तरी चड मनाक लावन घेवंप ना - पोझिटीव्ह थिंकींग करत जिणेक फुडो करपाचो अप्रोच तिणें आपणायिल्लो. घोवा बराबर कितें कितें करपाचें येवजिल्लें तिणें - जें जें ह्या दोन भुरग्यांक बरे तरेन वयर काडचे खातीर आपल्या हातान करचें उरिल्लें जिणेंत - आपणा पासत समाजा पासत - तें सगलें सगलें तीं दोगांय आतां करतलीं आसलीं - पूण मर्दीच हें अपसरण आयिल्लें तिचेर! आनी आपल्या सोंशीकपणाक लागून ती उक्त्या दोळ्यांनी घडटा तें पळोवन 'बों फिशाद' ओगीच रावताली. सादो पेपर वाचपाचें स्वातंत्र्य तिका नाशिल्लें. हे चलयेगेर, तर मागीर तिचो वाचनाचो छंद सांबाळप कशें शक्य जावपाचें? दिसभर घरचें दारचें सांबाळून इतली दमणूक जाताली की केन्ना काय हांतरुणाक फाट तेंकयतां अशें जातालें तिका, परत सकाळीं उठून रहाटगाडगें चालूच! तातूंन हालीं तर दो दोन भुरग्यां सांबाळपाचीं! वयल्यान चलयेचीं आनी जांवयाचीं उलोवणीं आयकून आयकनाशिल्ले भशेन करप!

सविताच्या मनांत आयलें, "डॉटर इज द बेस्ट गिफ्ट ए वुमन हॅज गिव्हन हरसेल्फ" अशें म्हणटात - पूण खरेंच कितलें फटीचें हें! - निदान आपले बाबतींत तरी - हूंऽऽ एके बायलेन आपणेंच आपणाक दिल्ली सगल्यांत सोबीत देण म्हणचे खंय चली! मराठींतय अश्योच खंय तरी वाचिल्ल्यो कवितेच्यो दोन ओळी तिका याद जाल्यो -

"मुलगी असते गवताची कोवळी पात,
मुलगी असते निरंजनांतली मंद वात!" कितलें फटींचें - सगलें पुस्तकी - सामको 'बोलाचाची भात, बोलाचीच कडी'! म्हजी ही चली तणा पात न्हंय - हांगा म्हजी कामान काडटा कात! निरंजनांतली वात खंयची, भगभगपी पेट्रोमाक्साची जोत - आंगार पडून जाळ काडपी-"

"सगल्यांत दुख्खाची गजाल ही - पिशांपरी इंदूरचो ब्लॉक विकूंक लावन आपल्यागेर रावंक हाडलें आनी सगलें स्वातंत्र्यच घालोवन बसलें - ताटा पोंदचें बिलू करून सोडलें! - मुख्य म्हणचे ह्या

कानाची खबर त्या कानाक लागूंक दिनासतना; घोवाच्या मरणाच्या दुखखान भावनेंत व्हांवन वचून केदी व्हडली चूक करून बसल्या हीं हाव! भुरगीं जाण्ट्यांक फटयतात, नागयतात - आयकल्लें, वाचिल्लें, पूण आपल्याकच हें भोगत अशें चिंतूंक लेगीत नासलें. तिका खासा आपणाचोच राग येतालो. - इतली शिकिल्ली संवरिल्ली बायल दुसऱ्यांक शिकोवपी - वेळ पडल्यार फुड्यांतलें ताट दिवचें दुसऱ्यांक - पूण बुडापोंदचो बसपाचो पाट केन्ना दिवचो न्हय? म्हणपी - अशी-कशी घाळ्ळी; आनी दोळे धांपून जांवयान फुडें दवरिल्ल्या कागदांचेर सायन करून मेकळी जाली. कोण जाणा आपलींच मनशां अश्या उरफाट्या काळजाचीं आनी नागोवणीं आसत म्हणून! 'आपलेच दांत आनी आपलेच ओंठ' म्हणून ओगीच बसचें पडलें. आपलो नाश, आनी जगाचें हांशें करून घेतलां हें. फुक्यासवाय वावराडी करून सोडल्या हांणी म्हजी. 'लेकीन अब पछताये होत क्या जब चिडीया चुम गयी खेत'-

चलो सुजय तर पयस पाविल्लो. यू.एस.ची सिटीझनशिप मेळोवन. थंयचेच चलये कडेन मोगालग्न करून घेवन थंयच सेटल जाल्लो. बापूय नाशिल्लो आवयची चिंता ना - कारण ती भयणीगेर खुशाल आसा अशें सुखावणें फटींग चित्र मुखार उबें केलां भयणीन आनी मेवण्यान - ताका खंय खबर हांगा कितें घडलां? चार आठ दिसांनी फोन करपी पूत म्हयन्या कणकणीं फोन ना ताचो. कारण हेंच ताचो फोन दिना आसलें - आपले मेरेन पावना ताचो रकाद! आपल्या पोटचें पोर, पूण पयशां पसत आवयक लेगीत विकून खायत...'' आयचे तरणे पिळगेची ही अशी आत्मकेंद्री, स्वार्थान भरिल्ली वृत्ती सविताक सामकी बिथरावन उडयताली.

एकेवटेन हातान तिचीं सदचीं कामां चलिल्लीं, पूण दोळ्यां मुखार सिनेमाच्या रिळांपरी सगलो भूतकाळ चालू जाल्लो. चेंबूरचे चाळींत सदाशिवा बराबर लग्न करून पांय दवरिल्लो तेन्ना सावनचो - होवेळ मेरेनचो चित्रपट! जिणेचो सिनेमाच जाला, - गोंय सोडून शिकपाच्या पिशान कोणा तरी पयसुल्ल्या 'काम आवय सवतिभावाच्या नात्याचो' आदार घेवन मुंबय आयिल्लो सदाशिव शिकलो संवरलो. चेंबुरचे चाळीत पयलीं भाड्यान आनी, मागीर तीच कूड विकती घेवन थंयच स्थायीक जालो. गोंयांतय तसो 'आगापिच्छा' कोणच नाशिल्ल्यान ताणें हांगाच बस्तान मांडलें. आंगच्या गुणांनी शेजार पाजारचीं मनां जिखून कोण काका, कोण मामा, कोण मावशी तर कोण ताई - सगलीं नातीं ताका ते चाळींतच मेळ्ळीं. शिकतनाय खंय पेपर घाल, खंयच्या दुदाच्या सेंटराचेर फांतोड्डेर काम कर करून मोट्या कश्टान जीण सारीत एस्. एस्.सी. जालो. शिक्षणाची भारी आवड म्हणून रातचे कॉलेजींत नांव घालून आंगचे हुशारीन थंयच ताणें स्कॉलरशिप घेवन नांव काडलें. चाळींतले लोक म्हणचे एक आख्खें कुटुंब कशें वागपी! कोणागेर लग्न कार्य आसल्यार घरचेंच कार्य आशिल्लेवरी सगले खपताले, अशा वातावरणांत सदा वाडलो, रमलो. मुंबयच्याच एका हुशार पूण ताचे सारक्याच आवय बापूय नाशिल्ल्या सविता कडेन ताच्या ह्या सोयऱ्यांनी ताचें लग्न करून दिलें आनी सदा संवसारांत पडलो. नातीं वाडतच गेलीं.

सदा-सविताचें जोडें एकमेकांक सोब सारकें! पडत तें काम करून वयर सरलें. सविताय शाळेंत शिकतालें. यथावकाश तांच्या संवसारवेलार सुजय-सुजाता सारकीं दोन फुलां फुल्लीं. संसाराची चौकट पुराय जाली. सदाक आतां बँकेंत बरी नोकरी मेळिल्ली. सविताची शाळेंतली नोकरीय चालू आशिल्ली. भुरगीं ल्हान आसासर सुटी घेवन मागीर कामाक वतना भुरग्यांक शेजारच्या काकी- मावशे कडेन दवरून वतना ताकाय तशें परकीपण दिसनासलें. तींवय हक्कान सविता कडल्यान आपलीं कामां जाय तेन्ना करून घेतालीं. चाळीचें रुपच आगळें वेगळें - सामकें एकवटीत कुटुंबापरी! जिवाक जीव दिवपी - सदा-सवितान तर गरजे वेळार कोणाकच मजतीचो हात दिवंक फाटीं पळेलें ना केन्ना. सगल्यां कडेन सदांच घोळून मेळून वागतालीं तीं.

अकस्मात सदाची बदली इंदूराक जाली. भुरगीं ल्हान, मुंबयची सामकी संवय जाल्ली. खरें तर चेंबूर सोडू वतना तांच्या सामकें जिवार आयिल्लें. सविता तर सामकेंच सैरभैर जालें. पूण थंय वतकच जशें जशें थंयचें वास्तव वाडलें, वळखी वाडल्यो तशें ल्हवूल्हवू चेंबूर फाटीं पडलें आनी इंदूर लागींचें जालें. हांगाय मुंबयचीं, गोंयचीं जायतीं मनशां आसलीं. ताच्या घोळून मेळून रावपाच्या सभावान आनी आपलेपणान वागपान हांगांय तांकां जायते इश्ट-मित्र मेळ्ळें, नातीं मेळ्ळीं - एकटेपण जाणवलें ना. बरो जम बसलो. सवितान थंय हिंदीच्यो परिक्षा दिवन तातूंत प्राविण्य मेळयलें आनी थंयचे शाळेंत शिकोवंक सुरवात केली. हिंदी भाशिकच आशिल्ले परी थंय दोगांय घोळून मेळून गेलीं.

वर्सा सरलीं तशीं भुरगीं ल्हानाचीं व्हड जायत गेलीं. चली ग्रॅज्युएट जातकच थंयच्याच एका महाराष्ट्रीयन चल्या कडेन सुमीता कडेन लग्न जालें. आनी तांच्या नोकरी धंद्या निमतान पुण्याक स्थायीक जालें. सुजयाक शिक्षणांत चड रस आसलो. तो शिकत गेलो. बरो इंजिनीयर जालो. आपली शिकपाची उमेद सदा भुरग्याक शिकोवन पुराय करतालो. फुडलें शिक्षण घेवंक म्हणून सुजय अमेरिकेक गेलो. ताणें शिकून परत भारतांत येवचें अशी दोगांचीय इत्सा आसली - सुजय तांच्या मना प्रमाण वागलो ना. जगरहाटी प्रमाण तोय बदलिल्लो. ताका आपलो थंयचो फुडार भुलयतालो. ताणें थंयच नोकरी धरली - थंयचेच कंपनींत - दोनेक वर्सांनी तांकां मेळूंक चार दीस येवन गेलो. सविता सामकें खंतावलें. पूण सदान ताका समजायलें - ''हांव आयलों ना म्हजें गोंय सोडून'' आनी आतां मुंबयच्यान आमी इंदूराक पावलीं. आतांच्या भुरग्यांचो कल देश सोडून भायल्या देशांत वचपाचो - तांकां थंय वाव आसा. थंयची आवड आसा. पिलांक पांखोट फुट्टकूच घोंटेर सोडून तीं मळबांत उंच हुडूंक लागतात. शिकपा खातीर आयिल्लों हांव हांगाचोच जावन गेलों ना? आतां ट्रेंड बदलला. करुंदी ताका आपल्या मनासारकें. जातूंत भुरगीं सुखी तांतूतच सूख मानूंक शीक. आनी आमी दोगांय आसातच न्हय एकमेकांक. आतां तर सगले जापसालदारकींतल्यान सुटलीं म्हणूंक जाय. सुजाचें लग्न जालें, बाळंटेर जावन तें आपल्या

घरा - संवसारांत सुखान आसा. आतां आमी आमचे खातीर जगुंया. हातांत थोडो पयसो आसा, रिटायर्ड जाल्ल्यान वेळच वेळ आसा, मित्र मंडळ आसा - आमचो देशय खूब सोबीत आसा. जमता तशें थोडें थोडें भोंवन घेवया. आसा तातूंत सूख मानचें मनशान!''

दोगांचेंय रिटायर्ड लायफ चालू जाल्लें. सवितार्चे महिला मंडळ, तांतले उद्योग सदाचे क्लब सगलें वेवस्थीत चालू आशिल्लें. सुजय पयलीं पयलीं चार आठ दिसांनी फोन, चवकशी करतालो. फुडें तोवय आपल्या व्यापांत बुडलो. म्हयन्या दोन म्हयन्यांनी फोन लांबत गेलो. थंयचेच एके चलयेच्या मोगांत पडून थंयच सेटल जालो - लग्न-संसार सुरू करून थंयचोच जालो.

सदा सविताच्या सूख-समाधानाचे जिणेंत मिठा कणी पडली. दैवान डाव सादलो. मात्शें बरें ना जावपाचें निमित्त जालें आनी सदाचेर काळान घुरी घाली. सविता सामकें एकटें पडलें. मित्र-मैत्रिणींनी आदार दिलो. सुजय दिसां खातीर येवन गेलो. एकटें रावं नाका, आपले बराबर चल म्हणून ताणें सांगलें. पुण सविताक खंयच वचन दिसलें ना बरें घर, शेजारपाजार बरो, मित्रपरिवार व्हडलो. वेळेक धांवन येवपी - तो सगलो परिसर इतले संवकळीचो - सदाच्यो यादी जळींमळीं काष्टी-पाषाणीं फाफसयिल्ल्यो, तें सगलें सोडून दुसरे कडेन वचूंक तार्चे मन तयार नासलें. तांच्या आदाराचेर जियेवचें थारावन ताणें मन घट्ट केल्लें. आतां आपले छंद, वाचन, बरप आनी समाजसेवा हाचेर मन लावप अशें ताणें थारायिल्लें. पूण आपले मुखार नियतीन वेगळेंच ताट मांडून दवरलां तें ताका बाबड्याक खंय खबर?

सुजातान सामकें रडून, गळ्यांत पडून म्हणटा तशें चार दीस तरी आपल्यागेर योच म्हणून फॉर्सान ताका आपले बराबर ओडून व्हेलें. बापूय वतकच आवयक थोड्या दिसां खातीर म्हणून आग्रान घेवन आयिल्लें सुजाता. सुजयानय आवयक म्हळें, ''आई, एकलें रावप ना. हांव तुका म्हजे बराबरच चल म्हणपाचों, पूण पासपोर्ट, व्हिसा, तिकेट सगलेंच लाँग प्रोसेसाचें आसा. शिवाय बाबाचे हांगाचे कांय वेव्हार जातले जाल्यार कळावय लागतलो. तेपरस सुजा म्हणटा तशें थोडे दीस तरी तागेर राव. एकटें रावल्यार बाबाच्या यादींनी तुकाच त्रास जातले, आनी आमचेंय मन लागचें ना. शिवाय लोक कितें म्हणटले?'' इतलें सगलें जातकूच सविताक सुजा बराबर वचचे शिवाय दुसरो पर्यायच उरलो ना.

एकतर सदाच्या अशा आसभास नासतना वचपान तें सामकें हुमटून पडिल्लेवरी जाल्लें. सत्यभास काडिल्लेवरी आपल्याच येवजण्यांनी गुंग जावन रावतालें. वाचप, बरप सगल्लें बंदच पडिल्लें. सुजाचो भुरगोय तसो आटसाटो, म्हणचे आजयेक मोगान चिकटून बी रावपी न्हय - तितले मोगाचे धागे तांचेमदीं विणिल्ले नासले. ताका ताच्या पप्पाचे आवयची चड ओड!

पयले कांय दीस बरे गेले. पूण सुजाता दुसरे खेप गुरवार जालें. दोतोरान ताका बेडरेस्ट घेवंक सांगलें. पयलीं पयलीं चपाती-भाजी करूंक बाई दवरली. राजूक शाळेंत हाड व्हड करूंक रिक्षा लायली - शाळेंतल्यान येतकूच क्लास आशिल्लो. सविताक वेलेंवेलें काम! ताका चड त्रास पडनये हाची जतनाय घेतालीं सगलीं. ज्ञांवय मांयक रेस्पेद दितालो. पूण कित्या ना कित्या कारणान ताका इंदूर वचूंक दिनासलीं. ल्हवूल्हवू तांचे खावचे दांत वेगळे आनी दाखोवपाचे दांत वेगळे दिसूंक लागले. जांवयाच्या बिझनेसान त्याच वेळार मार खालो. घरांतले एकेक काम करपी कमी जावंक लागले. चपाती भाजयेची बायल - ''तिची भाजी बरी जायना. आईचे भाजयेची रुचच वेगळी, बाईच्यो चपात्यो वातड - आईच्यो कश्यो मोव मोव लुसलुसीत जातात.'' करून तिका काडून उडयली. वावराडी म्हयन्याक आठाठ दीस दांड्यो मारता म्हणून तिका कमी केली आनी दुसरी कितें अव्वाच्या सव्वा पगार मागता म्हणून तिंवय कामां सविताचे मानगुटेर बसलीं. - वयल्यान बेठेंच बसून रावल्यार येवजण्यो चड येतात, 'रिकामें मन म्हणचे दैंवचाराचें घर' करून तिका कामांत गुंतोवन दवरूंक सगलींच कामां तिचेर लादलीं. ''भुरग्यांच्या ट्युशन क्लासांत धड कांयच शिकयनात. फी मात भाराभर - ताची आजी येदी व्हडली शिकोवपी, हेडमिस्ट्रेस आसली - ताणें भायर क्लासाक वचप सोबता?'' करून तेंवय शिकोवणें हिच्याच गळ्यांत बांदलें. वेल्यान ताच्यो शाळेच्यो वेळो सांबाळप, ताचे दोन दोन डबे करप, ताका बशीर हाडप पावोवप सगलेंच तिज्याच आंगार! आतां आपूण सगल्या व्यापांतल्यान मेकळीं जाल्यां, आपल्याक जाय तशी जीण जियेतलीं हीं तिचीं सपनां सपनांच उरलीं. हांगा आयलां तें परत आनी इंदूरचें तोंड दिसलें ना तिका. बरें, चल्याकय तीं कांयच सांगूंक शकनासलीं. कारण सुजय-सुजाताचें भायले भायर गुफ्तगू जावन तीं सगलें हिका कांयच विचारिनासतना आपुणच थारावन मेकळीं जातालीं. सविताक कांय कळचे पयली ताच्या त्या काल्याबुद्दीच्या शिटूक जांवयान आनी चलयेन तांचो इंदूरचो ब्लॉक विकून सगलें आपल्या बॉल्सांत घाल्लें. आनी वयल्यान ताच्या स्वातंत्र्याचेर हावेळ हाडिल्ली. सुमीत खंय सामकोच कुमीत!

अकस्मात एक दीस सुजयाचो फोन आयलो - आईक व्हरूंक येतां म्हणून सुजाता सरपटलें. ''आरे, तिका बी.पी.आसा. डायबेटिस आसा. तिच्यान खंय जाता? बरी ना जाल्यार तूं त्रासांत पडटलो तिका थंय व्हेल्यार'' करून सुजान जायत्यो खटपटी लटपटी केल्यो भावाक फितोवचे खातीर, पूण ह्या वेळार सुजय आपल्या म्हणण्याचेर दसून रावलो. आनी एक दीस आपले बरोबर तिका अमेरिकेक घेवन गेलो.

हुश्श् जालें सविताक! जावं आतां तरी मात्शें मना सारकें वागूंक मेळटलें. थंय बरेंच स्वातंत्र्य आसता वागपा करपांत. आनी कितलेंय जाल्यार चल्याचें घर. म्हणचे आपणाचें हक्काचें! हांगाचे भशेन घरांत उबंत पडप ना. थंय बऱ्यो बऱ्यो लायब्ररी आसतात - आपली वाचपाची आवड पुरी करूंक मेळटली. सवितान हांगा मनांत जायते मांडे बेतले - यंव करतलें आनी त्यंव करतलें म्हणून. पूण थंय विमानतळा वयल्यान ताच्या त्या अपार्टमेंटांत पावल घालतां खिणीं तिच्या 'भ्रमाचो भोपळो फुटलो' म्हणटा तशें जालें. आपले ते सुनेचें - सुझीचें फुडें आयिल्लें पोट पळोवनच कोणें कांय सांगिनासतना आपणाक हांगा बाळंटेर काडपाक हाडलां म्हणपाचें तिका आपाप समजलें. तरी आवयचें

मन तें! आपल्या अपुरबायेच्या चल्यागेर भुरगें जातलें - वंशाक दिवो वा पण्टी मेळटली म्हणून मनाक आशा जाली. सुनेच्यो अर्थअपुरबायो करूंक आवयचें मन हुळहुळ्ळेंच. तरी पुता बराबर ताचे मोटारीन सामान बी हाडपाक कांय जायना, पूण ताका भायर भितर करूंक मेळटालें. थोडो वेळ कांय जायना मात्शें हेकडेन तेकडेन वचूंक मेळटालें, तितलो सुसेग. म्हणचे 'फातरा ताकीत वीट मोव' जालें बाबड्याक.

कांय तेंपान तांच्या त्या 'बेबी शॉवरा'वेळार मोटे उमेदीन खपून सगलें पुरण पोळयां पसून जेवण रांदलें तिणें. सुनेच्या फ्रेंडांनी जेवणाची मोटी तुस्त - तोखणाय करीत सुनेक म्हणिल्लें - "कांय बरें जालां सगलें. मोठे नशिबवान हां तूं? कोण ही बायल?"

हाचेर तिणें फट् करून "इंडियन मेड" म्हणून जाप केल्ली कानार पडली तिच्या. तशें सट् जावन तिणें म्हऱ्यांत बशिल्ल्या पुता कडेन मोठे आशेन पळयलें. तो तरी आपली खरी वळख सांगतलो; पूण सुजयान आयकलें नाशिल्ले वरी मान सकल घाली आनी कानाक मोबायल लावन "हॅलो, यस..." करीत तो आपल्या बेडरुमांत गेल्लो पळेल्यो आनी तिच्या पांयापोंदची जमिनच हालली. आपलो पुतय बायले पांयांपोंदचें माजर जावन पडलां हें जाणवलें आनी सविताच्या काळजांत सामकें चर्र् जालें. पुतान आपल्याक हांगा हाडलां तें आपल्या मोगान न्हय, बायलेचो बाळंटेर काडूंक हें सत् ताच्या मनान पचयिल्लें. पूण आपणाक आवय म्हणून मानान हाडूंक ना तर एक 'मेड' म्हणून हें जाणवतकच आवयचें काळीज सामकें कलकललें. आपले मुखार हें कितें मांडून दवरलां तेंच तिका कळना जालें. भिरकीभरशीं आपणाली पर्स उबारून एक पिशवी हातांत घेवन कितेंतरी हाडपाच्या निमित्तान ती घरांतल्यान भायर पडली.

तिची तकली सामकी भिरभिरिल्ली. जगपच नाका जावन गेल्लें तिका! भिरकी भरशीं चलत चलत बरीच पयस पावली. तशीं थंय पांयांनी भोंवपी मनशां कमीच न्ही, नातच म्हळ्यार जाता. पांय सामकेच दुखूंक लागतकूच, रस्त्या कडेनच्या एका बांकार तेंकली. शुन्य नदरेन पयस पळेत बसली. म्हऱ्यांतल्यान कोण येता-वता, कितलो वेळ जाला - तिका ताजी नातच नासली. बऱ्या वेळान एक मोटार थंयच्यान पासार जाली. पाच मिणटां भितर तीच कार परत फाटल्यान आयली. - तिचें लक्षच नासलें. न्ही तिका आपलें, भोंवताणच्या जगाचें धंगणच उरलें नासलें - ती तशीच पयस नदर लावन शेणिल्लेपरी बसून राविल्ली. तिच्या काळजाक जाल्लो तो घायच इतलो खर आसलो - ताचो पडसाद खोल खोल तिचे कुडींत रिगिल्लो. सुन्न मनान भग्न काळजान ती तशीच बसून राविल्ली. - "माई, माई-" कोणालो तरी उलो कानळ्ळो, तशी ती साबुद्दीर आयिल्ले वरी जाली.-

"माई, म्हाका वळखली ना? हांव तुजो स्टुडंट - मनोज." एक देसेंत सुटा-बुटांतलो मनीस तिचे मुखार उबो राविल्लो - "माई, म्हाका वळखना?" ती कितेंच याद जावचे मनस्थितींतच नासली. आनी तशेच आजवेर अशे कितलेशेच शिकपी-स्टुडंट तिच्या हाताखालसून गेल्ले. क़ोणाकोणाची वळख उरतली? तातूंत आनी ह्या जाण्टेपणांत यादी उरप तशें कठीणच - ती ताच्या तोंडाक सामके निर्विकार नदरेन पळेत रावली - दोळ्यांत जीव ना, तोंडार कसलेच भाव नात - "आखिर तुम मिल ही गयी-माई!" ताणें सामकें आपलेपणान म्हळें, ती पळेत रावली अजापान - तो उलयत राविल्लो - "माई, तुवें त्या दिसा म्हजो फॉर्म भरलो म्हणून हांव म्हजे आवडीच्या सायन्स रिसर्च स्टडींत फुडें शिकूंक पावलों. आनी आज हांव जो हांगा पावलां - ज्या पदाचेर आसां तोवय फकत तुका लागून. तूं जाणा माई, रिझल्ट लागून हांगा येतना कितली सोदली तुका इंदूराक? तुमी रावतालीं ते बिल्डिंगेचो सोद घेवन थंय वचून आयलों, पूण कोणाकच तुमचो पत्तो सांगूंक आयलो ना. माई -" आनी ती "आरे, आरे, - हें कितें?" म्हणटा थंय आसा - ताणें थंयच रस्त्यारच ओणकून तिचे पांय धरले. ताचे दोळे खोशयेच्या दुकांनी भरिल्ले दिसले तिका. तिका भरून पावलें. अश्या कितल्याशाच गरजू भुरग्यांक आपले तांकी प्रमाण तिणें मजत केल्ली. कोणाक फी भरून, कोणांक पुस्तकां विकतीं घेवन दिवन, तर कोणाचे फॉर्म भरच्या वेळार - पूण हो मनीस वेगळोच कसो दिसलो तिका - ती सामकी भारावली.

"माई, चल म्हजे बराबर." ताणें म्हळें, "आरे, पूण खंय?"

"चल आपल्या घरा." ताका तिचें तें खिन्न खुमणें, शेणिल्लीशी ती नदर पळोवन सादारण तिचे मनस्थितीचो अदमास लागिल्लो.

तिवय इतले पयस आयिल्ली, आतां पुताचें घर तिका सोदूनय सांपडपा नासलें. ती हांगा कशी? खंय आयल्या, कोणा बरोबर कांयच विचारिनासतना तो तिका आपल्या घरा घेवन आयलो. - "ये.री, कोण आयल्या पळय तरी-" तो कारांतल्यान देंवतना ल्हान भुरग्यां भशेन व्हडान आड्डतच घरांत भितर सरलो. कार एका ल्हानशा आटसाटया बंगल्या मुखार पोचांत उबी जाल्ली - ताच्या आवाजा सरशीं साडी न्हेशिल्ली एक नाजूक सोबीत बायल माथ्या वयलो पदर सारको करीत भायर आयली. ती कोण कांय विचारिनासतना "नमस्ते माँजी" म्हणून हांसत तिणें नमस्कार केलो. सविता आंऽऽ करून पळेतच उरली. हांगा अमेरिकेंत आनी अशी साडी न्हेसून माथ्यार पोदोर बी घेतिल्ली बायल, - आनी अशी पांय बी पडपी - सगलें सिनेमांत बी पळेले -भशेन दिसलें तिका. तिच्या मनांत खंय तरी घांट किणकिणली. खरीच सुशिक्षीत आनी सुसंस्कृत बायल ही - सविताच्या मनांत आपशींच नोंद जाली. "ये जी, कहो तो कौन है, कहाँ मिली आपको?" तिणे ताका प्रस्न विचारले. आनी ताणेंय हांसमुखान तिका सगलें, सांगलें - "इतलीं वर्सां जिचो हांव सोद घेतालों ती ही माई, म्हजी उपकारकर्ती - म्हजें शेणिल्लें नकेत्र हें! आज हांव जो कोण आसां तो फकत आनी फकत हिका लागून; देवानच भेट घडोवन हाडली आमची. नातर खंय इंदूर आनी खंय ही जर्सी सिटी." तिणें सगलें आयकलें आनी देवाक पांयां पडची तशी ती तिचे मुखार बागवली - "पाँव लागूँ माँजी" करत! मोट्या रेस्पेदान तिका भितर व्हेलें. - उदक, ज्युस हाडून आग्रान तिका पिवयलें. ग्लास दवरूंक बेसिना कडेन गेल्यार 'ना ना'करून तिका आडायलें, परत

कदेलार बसयलें - ''माँजी, अब आप सिर्फ आराम करो। काम करनेकी आपकी उम्र नहीं'' करून वेलेचाराक न्हंय तर मनापसून सांगलें. तांच्या वागण्यान सविता मनांतल्यान सुखावली. तांचें चली भायल्यान आयलें - चकचकपी डोळ्यांनी तिका पळोवंक लागलें. आवयन म्हळें, ''बिट्टू, तूं परत परत म्हाका आपली आजी, खंय काय विचारी न्हय - ही पळे देवान धाडल्या तुजे खातीर तुजी आजी.''

''रिअली?'' बिट्टूचे दोळे उमेदीन चकचकले. ''पप्पा, माँ, रिअल्ली?' धिस इज माय आजी?'' दोगांनीय एका बराबर तकली हालोवन 'हय' म्हणिना फुडें धांवत येवन ताणे सविताच्या कमराक वेंग मारली - ''आजी, माय आजी'' करून खोशयेन ताळयो मारीत तें हांगा थंय उडक्यो मारीत नाचूंक लागलें. ''माँ, हांव म्हज्या फ्रेंडांक सांगून येंव - म्हजी न्यू आजी आयल्या म्हणून?'' ''हाँ, पूण पयलीं, कपडे बदल, हातपांय धू, आजयेक नमोनमः कर- खा, पी आनी मागीर वच.'' आवयन समजायतकच ताणेंय शाण्या भशेन सगलें आयकलें.

थोड्या वेळान आपल्या फ्रेंडांक घेवन तें न्यू आजीसरीं आयलें. ही ताची न्यू आजी सगल्या भुरग्यांक मानवली. सगल्यांनी 'काणी सांग, आजी काणी सांग'' म्हणून गरड घाली. तिणेंय तांकां कुपुताची काणी सांगली - आपले बायलेचे सांगणेन आवयचें काळीज काडून व्हरपी त्या भुरग्याची काणी सांगतना सविताचे दोळे भरून आयले - आयकतल्यांकय भरु आयलें - थोड्या वेळान टा टा, बाय बाय करून भुरगीं भायर गार्डनांत खेळूंक गेलीं. तशीं तिचो तो मानिल्लो पूत आनी सून म्हऱ्यांत येवन बसलीं - ''माई, कसलें दुखख भोगता तुज्या मनाक, सांग - आमकां सांगपा सारकें आसल्यार. उलयल्यार मन मेकळें जातलें.'' तांणी अशें विचारना फुडें सविताचे दोळे घळघळूंक लागले. सदा वचतसावन - इंदूर सुटत सावनची जाल्ली आपली सगली फरफट तिणें आडखळत आडखळत सांगली - आज घडिल्ल्या ताजे घडणुके मेरेन. सगलें सांगतना तिका भारी दुखख भोगतालें. तीं दोगांय तिचे सगळे खबरीन दुख्खी जालीं. पूण खीणभरच. मोटे उमेदीन मनोजान सांगलें, ''माई, आतां मेरेन घडलां तें सगलें सगलें विसरपाचें. 'जो बीत गयी सो बात गयी' आयच्यान हो तुजों पूत आनी ही तुजी सुन! तुवें हांगाच रावपाचें- आमचे बरोबर. तुका आमी मळबांतलें नकेत्र कशें सांबाळटलीं. कितें यारो, खरें न्हय?'' ''हाँ जी हाँ. - माई, म्हाका मांय ना म्हणून मनांतल्यान दुखख भोगतालें. देवान तुजे सारकी 'माँ जैसी सास' म्हाका धाडून दिली. आतां तुवें हांगाच आमचेमदीं सुखासमाधानान जीण सारपाची. आमकां जाता तशी तुजी सेवा करुं दी माई.'' पदरान दोळे पुसत तिणे म्हणिल्लें आनी सविता सगलें दुखख विसरून तांकां पळेत रावलें. देव खंय तरी जागो आसा, कोणाच्या ना कोणाच्या रुपान आपणाक पावता हें तिका जाणवलें.

खरें तर आपले नाळीच्या भुरग्यांनी आपणाक फटयलें. चली तें तशें नाडपी आनी चलो हो असो बायजण जावन आपलें नातेंच गुठलावन दवरपी, आवय म्हणून वळख दाखोवंक लेगीत लज दिसपी तो खासा पूत! आनी हो कोण खंयचो भुरगो एकदां चुकून केल्ले उपकार स्मरून आपणाक आवयपणं दिता, घर दिता - आपणाक मळबांतलें नकेत्र मानता ही केदी अजापाची गजाल! जगांत देव आसा. आनी वायट तशीं बरींय मनशां भोंवतणीं आसतात हें तिका पटलें.

खरेंच, सगलीं ना- तीं नातीं तिका हांगा मेळटलीं अशीं शुभ लक्षणां दिसून आयलीं. हें नातें सामकें नवें ताजें - नवो पूत, मनपसंत सून आनी माणकुल्ली बिट्टू सारकी मोगाळ नात - सविताक मनांतल्यान दिसलें - हीं नवीं नातींच आपले जिणेची सांज सुखमय आनी खोशयेची करतलीं आनी कितल्याश्याच दिसांनी ताज्या तोंडार पयलींचो खरो हांसो फुल्लो. जर्सी सिटीच्या मळबांत सुर्या अस्तमतालो आनी सविताच्या मनांत मात खोशयेचो चंद्रीम उदेतालो....



# कविता

## हांव मेजतां नोटीं...

- नूतन साखरदांडे

हांव मेजतां नोटी,
धांच्यो, विसांच्यो, पन्नासाच्यो
शंबर, पांजशे, हजारांच्यो
आनी दाळून दवरतां
एकार एक
मेजाच्या खणांत

कांय नोटी देवाच्या ताटांतल्यो
कांय नोटी भिकाऱ्याच्या ताटलेंतल्यो
कांय नोटींक चेराचो सुवास
कांय नोटींक नुस्त्याचो वास

कांय नोटी घामा-कश्टाच्यो
कांय नोटी मेजापोंदच्यो
कांय नोटी कॅसिनोंत खेळिल्ल्यो
कांय नोटी ड्रग्जांत म्हेळिल्ल्यो

कांय नोटींचेर रगतांचे दाग
कांय नोटींचेर पितारला वाग
कांय नोटींचेर बरयलां 'आय लव यू'
कांय नोटींचेर भिरकटायला 'आय हेट यू'

नोटी, नव्योताल्ल्य, फेरांद
करकरीत, खरखरीत
पिंदिल्ल्यो, चुरिल्ल्यो
लोळिल्ल्यो, उमळिल्ल्यो
धुळवडीन रंगल्ल्यो...

कांय नोटी, दोडिल्ल्यो...
अस्तुरेच्या उबेन भिजिल्ल्यो...
आनी कांय नोटी
खऱ्याचे आंगले चडोवन
आंग चोरून बशिल्ल्यो...

हांव मेजतां नोटी
धाच्यो, विसाच्यो, पन्नासाच्यो
शंबर, पांचशे, हजारांच्यो
आनी दाळून दवरतां
एकारएक
मेजाच्या खणांत



## तीन कविता

- आर. रामनाथ

### तूं थंय

तूं
थंय
उस्तिता
काय खणटा?

तूं
थंय
बांय मारता
काय
फोंड मारता?

हें पळय,
म्हजी जीण लुप्त जाल्या
तूं थंय उत्खनन कर...

### कीट

ह्या बिण्ण काळखांत
हांव
म्हजें
एक दूक
सोदतां...

ह्या बिण्ण काळखांत
हांव
म्हजी
एक कीट
सोदतां...

### उमास

ते
सगले
उमाशेक
वेंचून
आयल्यात...
- तेन्नाच्यान
तांकां
फकत
रातवेंच
दिसता...

संपर्क: 9850458763





## मना दर्या पलतडी

**- तन्वी बांबोळकार**

मना दर्या पलतडी
वसला तुजो गांव...
म्हज्या मना तारवाचें
वल्हें सोदता हांव...
पयस पयस
गांव तुजो
पयस तुजो गाज...
सूर ताचो वळखीचो
पयस पयस आज...
तारुं म्हजें सरना फुडें
सुकती आयल्या मना...
पूण यादिंनी भरती
दर एका खिणा...

## तुजी याद

**- अंतरा भिडे**

तुजी याद
पावस थेंबो
सुकें मनस
ओलें चिंब
तुजी याद
मोरा पांख
तना आशे
प्रतिबिंब
तुजी याद
चान्नी रात
काळखा काळजा
शीतळसाण
तुजी याद
आंब्या चंवर
कोगळा गळ्या
पंचम गान

संपर्क: 9923036997

## मना दर्या पलतडी

**- रमेश साजू घाडी**

शेता धडेर आसचें घर
शेता धडेर आसचें घर
घर गांवठी नळ्यांचें
घरा फुडल्यान पोरसूं ल्हान
शेंवतीं मोगरें कळ्यांचें.
शेतांत म्हज्या पिकचें भात
भात खांडये कुंबांनी
फुडयो कड्यान भरचें भात
सगळ्या रुयां सालांनी.
फांतोडेचेर गोठ्यांत म्हज्या
गाये पाडकां हांबुरची
कुशीर वळून अर्दे न्हिदेन
गोधडी हावें कांबुरची.
रुमडा झाडार बसून कोगूळ
सांजे वेळार रावची गायत
एका पांयार उबीं बकीं
तोंची हालोवन खोरवो खायत.
आमोरेचें शितळ वारें
वसऱ्यार हळू येवचें खेळूंक
काळखे राती काजुल्यांचीं
पोरांय म्हाका येवचीं मेळूंक.
खुरसा खाला पेटच्यो वाती
तुळशी मुखार निरंजनां
एकवटान सारचे दीस
निंदुकायो नासतना.

संपर्क: 9850453355

## ब्लॅक ॲण्ड व्हायट कथा...

**- हेमंत अय्या**

आजो म्हणटा नातवाक,
गेल्ल्यो नातवा कडात्तरी
जुंवाचो नांगरूय कळमेला
भातासो साख आयला पायांमुळा

गेलो रे नातवा गोठो
एकसुरो पड्ला पळय ओंठो
आनी आंगणां पोनचो बेथो,
पतया पोना करपलो.

बांद तर नातवा व्हळांतलो
हुंवार नासतनाय व्हांवलो
कुल्ल्यो फातरांमुळांतल्यो
खंयच्या खंय रे पावल्यो.
धानांक वारो दिवपी सुपां
टायल्यावेलो कोयर भरता
व्हिरांची साञ्न चुकून केन्नाय
संडांसांत आमच्या भोंवता

नातु म्हण्टा आज्याक आतां
सोपय तुजी गाथा
कोम्पुटर हँग जाता म्हजो
बंद कर म्हाताय तुजी



# मरणाच्या दारांत

**– मांडवी बुयांव संजगिरी**

मरणाच्या दारांत
मरणाच्या दारांत पावतांच हांव
व्हड रांग लागली म्हज्या दारांत
कळटांच खबर पावले सगळें म्हजे घरांत
घेवन पावले काय व्हडले व्हडले हार
जीव मात घुस्मटलो म्हजो ह्या हारांनी
आनी उजवातीच्या धुंवरांनी

ओगीच एक मारली नदर, पळयत तर
तेच चड मोठ्या मोठ्यान रडटाले
जे म्हजेर सदांच हरशीं हांसताले
फाटल्यान उलयताले
खरेंच म्हजेर फोग करपी मात
गळयताले दुकां भितरले भितर

अशेंच दोळे उगडून पळयत तर
सगळेंच दिसतालें कितलें सुंदर
जिवीतभर आयले ना जे
घेवंक म्हजी खबर
आयज मात पावले मारूंक
म्हजेर निमणी नदर

कांय जाण आपले भितर फुतफुताले
कांय जाण दुसऱ्यांचेर हांसताले
कोण कितलो रडटा हाचेर
आसली सगल्यांची नदर
बरें जालें गेलें तें
सुटलें एकदांचें
थोड्यांच्या तोंडांतल्यान आयलें हें
लेगीत उतर

देवा सायबा कितलें जड जाला मन
म्हजें आयज
दिसलें एकाच खिणाक येवचें आसलें
हांणी,
जगली जीण जेन्ना मोन्यांनी
आतां ओगीच सगल्यांक सोडून वतना
कित्याक दिसता म्हाका ?
जगचें आसा म्हाका अजून आनी
जगचें आसा म्हाका अजून आनी

# म्हातारी

**– अमेय नायक**

भुरगेपणांत म्हाज्या गांवांत
म्हातारी भोंवताली
पिकिल्ल्या केंसांची
वाऱ्या खुस्तार जाय थंय
जाय तशी वताली
घर नाशिल्ले भशेन



शेतां भाटां हुपून
मेरो सगल्यो जिखून
धोलत धोलत येताली
म्हाज्या घरा कडेन
हांव खेळटालों तिचे कडेन
धांवचेल्यांनी धरचेल्यांनी
उकत्या पायांनी

सादेपणीन केन्नाच गावनासली
शिटूक आसली
उडकी मारूंक गेल्यार
वयर वयर उडटाली
खेळून खेळून थकिल्ली
लकत लकत जमनीर पडटाली
आंगांतली शक्त शेणिल्ले भशेन

मागीर हांव तिका
हातार घेतालों
तिचे घुस्पल्ले केंस नीट करतालो
आनी फूऽऽऽ करून
वाऱ्यार सोडटालों

म्हातारी उडून वताली वयर वयर
हांवूय जावन सैरभैर
लजे कांट्यांक पांय तोपात
आसतनाय तिची वाट जोखीत
फुकी फुकीत
मारतालो धांव तिचे वाटेन
पिसो कसो पिश्या भशेन

# दोळ्यांतली कविता

– विश्वप्रताप पवार

१) दोळ्यांनी गो तुज्या,
आयच्या काळजाचें कथन केलां,
उतरां फाटीं पडलीं, नदर
मोन्यांनीच सांगून गेल्या.

२) म्हज्या थकिल्ल्या
थंड दोळ्यांनी
तुजे खातीर
बाळगिल्ल्यो
कितल्योश्योच राती
अजून
जाग्योच उरल्यात...
...तुजी वाट पळयत.

३) हार्ली
सदांच
तुर्जी दुकां
मागतां
मागण्यांनी...
...त्या निमतान
दोळ्यां वाळवंटांत
इल्ली ओलसाण जातली.

४) म्हजे कडल्यान
ल्हिपोवपाक
तूं उतरां
लिपयतना
जायते फावट पळयलां
पूण,
दोळे धांपिर्ले
तुका एकच फावट
पळयलां....

५) निमण्या वेळार
मोगा तुजे
उकते दोळे
सांगून गेले
खूब किर्ते.....
......
कोणेतरी तांचेर
हात ओडचे आर्दी..

६) चान्न्यो काळ्यो
रित्यो रित्यो
निशब्दच
मोन्यो राती,
पळयतां तुजी
लांब वाट
दोळ्यांतुल्यो
पेटोवन वाती...।

७) दोळ्या बावळी
सुकी पावळी

८) येतां वतां
उट्टां बसतां
जगतां मरतां
...फकत उतरांच्योच
जाळी
.......
उतरहीण
दोळ्यांचीं
फकत
दुकांच गळी....।

---

# पावस पिसो असो कसो

– ह्रषिकेश कदम

पावस पिसो असो कसो
फुलता चौफेर पाचवो पोसो
पोश्यांत भरून कवनां ओर्ली
ओंपतां तुमकां योगा पावळी (१)
पोश्यांत हांसते योगा कळे
लजता थेंब्यांक पाखुल्या दोळे
दोळयांत सपनां ओर्ली मोनी
वोंठार गिता सांगतां काणी (२)
काणयेंतुल्या मोरा तुज्या
पिसां येदी दाटल्यां कुपां
कुंपांतुर्ली हजार रुपां
शेतां पिकता खोशये दुकां (३)

# म्हजें भविश्य

– शुभा बरड

हांव पाळण्यांत आसतना
पप्पान हुकूम सोडलो
म्हजें चली दोतोर जातलें

हांव पांचवेक पावतकच
म्हजी भविष्यवाणी केली
म्हजें चली आदवोगाद जात्तलें

धावी जातकच हावें थारायलें
मुखार आनीक शिकपाचें ना
पूण तरी आसतना
मम्मा – पप्पान
म्हाका कॉलेजींत धुकलें
हांव मात पिशें कशें
शिकपाचें सोडून
कविता बरयत रावलें

